# जिणेंत आनंद फुलयात!

मानव संसाधन विकासाच्यो संकल्पना आनी
वास्तव आयुश्य हांचो अनुबंध

एस. एच. नायक

अणकार
रमेश लाड

संजना पब्लिकेशन्स्

**जिणेंत आनंद फुलयात!**
एस. एच. नायक

अणकार :
रमेश लाड
घोगळ, मडगांव-गोंय.
मो.: 9764924552

प्रकाशक :
संजना पब्लिकेशन्स्
सांगें-गोंय.
मो.: 9552551425

मुद्रक :
मे. बांदेकर ऑफसेट
कुडचडें-गोंय.
मो. : 9422437236

**Bring Joy To Your Life**
by S. H. Nayak
First Published by
Dombivalikar Prakashan

**Jeevanat Anand Phulava !**
Translated in Marathi by
Madhuri Shanbhag
Published by
Rajhans Prakashan Pvt. Ltd.
Pune.



अक्षरजुळणी :
मुक्ता कंप्युटर सर्व्हिसस्
मुरीडा, फातोर्डा-गोंय.
फोन: 0832 2741082

मुखपृष्ठ व पुस्तक मांडणी :
उमेश ज. नायक
मो. 9822983882

मोल : ₹ 150/-

## कांय नामनेच्या व्यक्तींचे अभिप्राय :

ह्या पुस्तकांतलें नायक सरांचें अणभवान जोडिल्लें ज्ञान फकत तांच्या विद्यार्थ्यांकच आदर्श रुपान योग्य आसा अशेंच न्हीं तर खूबशा वाचकांक ताचो दिका दर्शक म्हूण उपेग जायसारको आसा.

हें प्रेरणा दिवपी पुस्तक नात्यांतल्या मनशांक आनी इश्टां सांगात्यांक मंगल समयार भेट दिवपाक फावो सारकें आसा.

**आमदार रवींद्र चव्हाण**

संपादक – 'डोंबिवलीकर एक सांस्कृतीक परिवार'

---

ह्या पुस्तकात श्री नायक हांणीं आपणाल्यो मानव विकासाचो संकल्पना आनी प्रत्यक्ष जिणेंत त्यो चलणुकेंत हाडप हांचो कुशळटायेन सांगड घाला. ह्यो कल्पना आनी वेव्हार हांच्या एकवटीत एकजिनशीपणान ह्या पुस्तकाक ओडलायणें केलां. हें विद्यार्थ्यांक तशेंच व्यवसाय करतल्यांक गायड म्हूण उपेग जायत अशें आसा.

**डॉ. आर. एम. तुंगारे**

संचालक – एल. एन. एम. एल. एम. आय. एल. एस.

---

प्राध्यापक नायक हांचें अणभवाचेर आदारिल्लें शाणेपण, जिडेकडेन फाटीं परतून पळयत शिकत वचपाची, जिणेचेर मोग करपाची वृत्ती तांचे निवृत्ती उपरांतय तशीच चालू उरली. ताचो पुरावो म्हणल्यार तांचें हें 'मास्टरपीस' पुस्तक. ह्या पुस्तकांत वर्णन केल्ले अणभव हे प्रत्यक्ष जिणेंत घडिल्ले आसात. पूण तातूंतल्यान ताणीं काडिल्लो सार, निर्माण जाल्ली अंतर्द्विश्टी, हातूंतल्यान वाचकांच्या विचारांकय चालना मेळटा.

**देवदत्त कद्रेकर**

साव्थ वेश्ट इशिया, लॉय्ड रजिस्टर एशिया

---

एम. आय. एल. एस. हांगा श्री. नायक पदव्युत्तर शिक्षण घेवपी विद्यार्थ्यांखातीर जरी मानव संसाधन विकास विशयाचे प्राध्यापक आसले तरी ते एक असामान्य व्यक्तिमत्व. सादी विचारांनी भरिल्ली तांची जिणेची पद्धत आनी तांक आशिल्ली अध्यात्माची बसका हांका लागून 'बोले तैसा चाले' हीं उतरां खरीं

---

करीत ते जे तरेन शिकयतात तेच तरेन जीण जगतात.

आपणाल्या अणभवान जोडिल्ल्या शाणेपणाचीं मोतयां गुथून बरयल्लें 'ब्रिंग जॉय टू युवर लाय्फ' हें पुस्तक म्हणल्यार एक समाजीक योगदान म्हणुयेत. फकत कसलेंय शिक्षण घेवपी विद्यार्थ्यांकच न्हीं तर समाजांतल्या प्रत्येक घटकाक ताचो उपेग जातलो. हें पुस्तक आमचे व्यक्तीगत जिणेतले गुणवत्तेचो पांवडो ऊंच काडूंक शकता तशेंच जी सेवा आमी कामाच्या रुपान समाजाक दीत आसतात, तिचोय पांवडो ऊंच सरतलो.

**विश्वास पाटील**
जनरल मॅनेजर – एच. आर.
कन्साई नेरोलॉक पेंटस् लिमिटेड

---

ह्या पुस्तकांत प्रा. नायक हांच्या विचारांचें आनी अणभवांचें संचित शब्दांतल्यान व्यक्त जाल्लें आसा. संकल्पना आनी तांचो वापर हांचे मदलो संबंद तातूंत दिसून येता. हें पुस्तक वाचकांक आपणाले व्यक्तीगत तशेंच व्यवसायीक जिणेंत चड लोकाभिमुख करपाखातीर खात्रेन प्रवृत्त करतलें.

**सी. पी. देशमूख**
व्हायस प्रेसिडेंट – एच. आर.
कोकुयो कॅम्लीन लिमिटेड

---

म्हायती तंत्रज्ञानाच्या ह्या युगांत आज काम आनी मनशाची जीण हांचे मदीं समन्वय घडोवन हाडपाची खुबूच गरज निर्माण जाल्या. श्री. एस. एच. नायक हांणी ह्या पुस्तकांतल्यान आयच्या समस्यांचेर जापो सोदपाचो यत्न केल्लो आसा. हें पुस्तक सगल्या आस्थापनांतल्या फकत मानव संसाधन विशयाच्या अभ्यासकांनीच न्हीं जाल्यार सगल्या अधिकाऱ्यांनीं आनी भोवराष्ट्रीय कंपन्यांच्या प्रशासकांनी वाचचें अशें हांव सुचयन. आपणाली जीण समृद्ध करपा खातीर आनी दर एकट्याचे व्यक्तीगत तशेंच व्यवसायीक जिणेंतलें संतुलन राखून धरपाखातीर ह्या पुस्तकाची सगल्यांक खात्रेन मदत जातली.

**प्रदीप पांडे**
एक्झिक्यूटिव्ह डायेक्टर, एच. आर. अँड ॲडमिन,
बिनानी इंडस्ट्रीज लिमिटेड

सुटसुटीत अशो देखी दिवन, कांय अवतरणां आनी ल्हान सान घडणुकां संबंदांतल्या मेजक्या उतरांनी केल्ल्या कथनांक लागून हें पुस्तक वाचनीय जालां. ह्यो गजालीच म्हाका चड भावल्यो.

ह्या पुस्तकाचो आमकां सगल्यांक स्वताची खाजगी आनी व्यवसायांतली जीण कशी चड संपन्न करची हें समजून घेवपाक उपेग जातलो हाची म्हाका खात्री आसा.

**बबन राजाळे**
असोसियेट व्हायस प्रेसिडेंड, एच. आर.
हॉस्पिरा हेल्थ केयर इंडिया प्रा. लि.

---

'ब्रिंग जॉय टू युवर लाय्फ' हें पुस्तक ताणे आत्मियतेन बरयलां. तातूंतल्यान ताच्या सुखी कुटुंबीक जिणेची, देवान दिल्ल्या आशिर्वादाक लागून आपूण सगळें मनात हाडिल्लें करूंक पावलों ह्या भावनेची आनी आपणे जे तरेची जीण वेंचून काडली तीच आपणाल्या वांट्याक आयली हे विशीं ताका जाल्ल्या समाधानाचो आमकां हातूंत मनभुलोवणो परिचय घडटा.

आमी सगळे ताची देख दोळ्यां सामकार हाडून सुखी आनी समाधानी जीण कशी सारूंक शकतात हे गजालीचेर हें पुस्तक उजवाड घालता.

**जी. जी. नायक**
माजी एक्जिक्युटीव्ह सेक्रेटरी
इंडियन केमिकल मॅन्युफॅक्चरर्स असोसियेशन
(आय.सी.एम.ए.)

---

प्राध्यापक एस. एच. नायक, जे एक लोकप्रिय शिक्षक, हांणीं हें पुस्तक बरयता आसतना समाजा सामकार समजुपाक सोपो असो एक विचार मांडला. जिणेचो प्रवास आनंदान करात, तातूंतलो प्रत्येक पांवडो एन्जॉय करात, स्वताची मोख साध्य जाता तेन्ना आतां रावया असो विचार करिनासतना जिणेचो उत्सव मनोवपाचें सोडून दिवंनाकात.

व्यवसायीक जीण आनी कुटुंबीक जीण एकामेकाचेर आदारिल्ली आसता, हो विचार समजू उमजून ह्या पुस्तकांत ताणीं मांडला. सुखी, आनंदी कुटुंबीक जिणेंतलो सुसंवाद तुमकां एक वेगळोच आनंद मेळोवन दिता आनी तातूंतल्यान तुमचो व्यवसायीक करियर फुलून भारार येता अशें ते आपल्या अणभवान

सांगतात.

प्रा. नायक हे एक शिक्षक, हितोपदेश दिवपी गुरू आनी एक उत्तम मनीस आशिल्ल्याचो पुरावो हें पुस्तक दिता अशें हांव खात्रेन म्हणन.

**माधव जोशी**
प्रेसिडेंट लिगल आनी रेग्युलेटरी
टाटा टेलेसर्व्हिसीस लिमिटेड

---

पिरायेच्या 78व्या वर्सा हें पुस्तक बरोवन आपणाले अणभव आनी विचार हेरांकडेन शेयर करपाचो नायक सरांचो उत्साह आनी जिणे संबंदान आशिल्ली आस्था म्हाका खूब आवडटा. ह्या पुस्तकांतलो प्रत्येक विचार वाचून हांव चड आनी चड श्रीमंत जातां अशें दिसलें. हांव फकत एच. आर. विशयाचेच न्हीं जाल्यार खंयच्याय आस्थापनांतल्या सगल्याच अधिकारी आनी व्यवस्थापकांनी हें पुस्तक वाचचें अशी शिफारस करतां.

**श्रीकांत बी. हिंदुराव**
ॲडिशनल व्यायस प्रेसिडेंट–एच. आर.
टाटा पॉवर कंपनी लिमिटेड

---

श्री. एस. एच. नायक हांचें हें पुस्तक वाचनीय अशें आसा. जिणेंतल्या वास्तवाकडेन तें आपणाक जोडून घेता. सगल्याच व्यवसायांतल्या व्यक्तींनी हें पुस्तक वाचचें अशी हांव मुजरत शिफारस करतां.

**दिवाकर मेनन**
हेड – पवयी वर्क्स पर्सोनेल
लार्सन ॲन्ड ट्युब्रो लिमिटेड

---

कर्तव्यनिष्ठ, ध्येयवादी प्राध्यापक श्री. एस्. एच. नायक मेगेल आत्मीय मित्र म्होण अभिमानान सांगच्याक माक्का संतोष जाता.

नामांकित कोंकणी नाटककार दिवंगत होसाड बाबुटी नायकाल कुटुंबांतु जन्मा आयिल श्री. एस्. एच्. नायकान विद्यार्थी जीवनांतु नाटकांतु अभिनय केल्यां नंतर (इ. स. १९५०–१९६० दरम्यान) ‘तीन तेरा नी अठरा’, ‘लोकांक सांगचें ब्रह्मज्ञान’ आनी ‘एक वालीक दोन फुलां’ म्हळिल तीन अंकी तीन नाटकां बरोवन रंगमंचारी यशस्वी प्रयोग केल्याती.

मराठी भाषेंतु तागेल दोन कवन संकलनां, 'शोध जीवनाचा' आनी 'जीवनावर प्रेम माझे' प्रकाशीत जाल्यां.

कन्नड भाषेंतु, 'बाळलोंदिष्टु कलियोणा' कविता संग्रह अंकोलाचे राघवेंद्र प्रकाशनान प्रकाशित केल्यां. ह्या कविता संग्रहाक दिवंगत डॉ. गौरीश काय्‌किणीन प्रस्तावना बरैल्या आनी तागेल सुपुत्र डॉ. जयंत काय्‌किणीन मुखपृष्ठ सजैल्या.

सुख–दुःखाचे, त्रासाचे, आघाताचे, आश्चर्याचे प्रसंगारी एकमेकांक समजून, एकत्रयेण्णु संतोषान जीवन कोरच्याक साध्य आस्सा म्हळिल. स्वानुभवांतुल विचार ताणे तागेल, ''Bring Joy To Your Life'' इंग्लिश पुस्तकांतु स्पष्ट, सुलभ भाषेंतु जनांक अर्थ जावशी व्यक्त केल्यां. त्या पुस्तकाची तृतीय आवृत्ती 'डोंबिवली प्रकाशन' संस्थेन प्रकाशीत केल्या.

त्या इंग्लिश भाशेंतु बरैल पुस्तकाचे अनुवाद मराठी भाषेंतु श्रीमती माधुरी शानभागान, कन्नड भाशेंतु श्री एच्. एन्. पै न केल्या आनी आत्तां योगायोगान आमगेल मातृभाषा कोंकणींतु त्याच पुस्तकाचो अनुवाद गोंयचो नामांकीत अनुवादक श्री. रमेश लाडान केल्ला.

'जिणेंत आनंद फुलयात' हें पुस्तक खरोखर आनंदान जीवन कोरच्याक मार्गदर्शक जावनास्सा म्होण हांव खात्रीन सांगतां. कारण तांतु सत्यस्थिती शिवाय दुसरे कस्सने बरैलना. श्री. एस्. एच्. नायकान अनुभवांतु आयिले अर्थगर्भित संदेश एक विशिष्ठ रितीन विद्यार्थ्यांक, मानव संपन्मूल अधिकाऱ्यांक इत्लें न्हंय जनसामान्यांक कोळचें तश्शीं बरैल्यां आनी तितले सामर्थ्यांन श्री. रमेश लाडान कोंकणी भाशेंतु अनुवाद केल्ला.

श्री. एस्. एच्. नायकाल चवद्यांयशीं वर्ष प्रायेरी हे पुस्तक प्रकाशीत जाय्त आस्सा. ह्या निमित्त तागेल जीवन अधिक आनंदमय जावो, तागेल लेखनाक अधिक शक्ती मेळो म्होण देवालागीं मागतां.

***ए. जी. कामत***

सुप्रसिद्ध कोंकणी नाट्यलेखक, दिग्दर्शक, नट

---

जे कोण हें पुस्तक हातांत घेतले आनी एकदां वाचतले तांच्या मनार कायमचो एक शिक्को बसतलो. जेन्ना जेन्ना जिणेत कठीण परिक्षेचो, संभ्रमाचो वेळ येतलो, तेन्ना परतून हें पुस्तक उगडून तातूंतल्या विचार–मोतयांक स्पर्श करपाची इत्सा तांकां जातली.

---

हें प्रेरणा दिवपी पुस्तक इश्टां सांगात्यांक आनी नात्यांतल्या मनशांक जिणेतल्या खाशेल्या खोस मनोवपाच्या समयार भेट दिवपाक एकदम योग्य आसा.

**अशोक हिंगणे**
व्हायस प्रेसिडेंट – एच. आर.
हिन्दाल्को – मुंबय

---

नायक हांचें जिविता कडेन पळोवपाचें एक वेगळें तत्वज्ञान आसा. सतत यशाचो फाटलाव करचो अशेंय ते सांगनात वा यशाचो त्याग करात अशेंय म्हणनात. काम केले उपरांत जो आनंद मेळटा त्या खातीर काम आनंदान करचें ह्या तत्वाचेर तांचो घटमूट विश्वास आसा. पुराय जीव लावन काम केलें जाल्यार आनंद मेळटा अशें तांचें म्हणणें आसा. गरजेवंतांक आदार दिवप हो तांचो धर्म. जे समस्येन अडल्यात तांकां सुटका वाट दाखोवप वा ती सोडोवपाक आदार दिवप तांकां आवडटा. पूण तो आदार भावनात्मक जावन न्हीं तर पयलीं त्या गरजेवंताची समस्या समजून घेवन मागीर चड बरे तरेन ताका मदत कशे पद्धतीन करप शक्य जायत तो मार्ग ते सोदून काडटात. आनी हें काम करता आसतना त्या मनशाचेर उपकार करतात अशें मात पसून दाखोवन दिनासतना ते ताचो आत्मसन्मान सांबाळटात.

हें पुस्तक तुमकां आपणालें जिवीत चड आनंदी आनी अर्थपुराय कशें करचें तें शिकयता. एकदम सादें दिसपडटो आपणाल्या जेवणाचो घांस मेळोवपाचें जें काम आसता तेंय जायत्या जणांक करपाक कंटाळो येता, वा सदां एकेच तरेचें वाज हाडपी काम अशें दिसता; तेंय बी आवडीन कशें करचें हाची शिकवण ह्या तज्ञ मानव संसाधन विकास प्रशिक्षकाच्या शब्दांतल्यान समजता. आमी जें काम करतात ताचें समाजीक मोल कितलें म्हत्वाचें तें ह्या पुस्तकांत खूब ओडलायणे पद्धतीन समजावन सांगलां. तें सारकें समजून घेतलें जाल्यार आमच्या कार्यसंस्कृतेंत एक क्रांती करपी असो बदल घडून येतलो.

मदीं मदीं शिंपडायल्ल्यो मन रिजवण करपी सान सान गजाली, फावो तशे तरेच्यो देखी आनी अवतरणां हें तांचे लेखनशैलीचें खाशेंलेंपण.

**डी. बी. धामणस्कर**
कवी आनी राज्य पुरस्कार जैतिवंत लेखक

---

तुमची पिराय विसांतली आसूं वा अंयशांतली, तुमी जर शिकप थांबयलें जाल्यार रोखडे म्हातारे जातले अशें हेन्री फोर्डान म्हणलां. अंयशांतले आशिल्ल्या एस. एच. नायक हांणीं शिकप थांबोवंक ना. त्याच खातीर म्हातारपण तांकां वेंगांवक धजलें ना. वीस वर्सांच्या तरणाट्यावरी ते आजून मुंबय भर फिरत उरतात.

मुळांत ते एक शिक्षक. एक आदर्श जीण जगप आनी शिक्षकी आदर्शांक पाळो दिवन अध्यापन करप हें एका शिक्षकाचें पयलें कर्तव्य. नायक हांणीं हीं दोनूय केल्यांत. अनेक प्रशिक्षण केंद्रांनी मानव संसाधन विकास प्रशिक्षणाच्या नात्यान जिणेंत आनंद कसो फुलोवचो, आनंदाची अनुभूति कशी घेवची हाची ते शिकवण दीत आयल्यात. तातूंतल्यान तांणी जिणेचो मुक्तपणान अणभव घेतला. शेंकड्यांनी पुस्तकां वाचून, वाचन आनी अणभव हांचो मेळ घालून तांणीं पळयला. हें जें पुस्तक आसा तें त्या सगळ्या अभ्यासाचें रसग्रहण.

मनीस सतत आनंद मेळोवपाक आशेल्लो आसता. दिसपडटे जिणेंत तो सतत जो तरेकवार वावर करता तातूंतल्यान तो आनंदाचो सोद घेत रावता. एक टॉर्च घेवन सोदपा सारकी ती गजाल न्हीं. आमी मुक्त मनान दोळे, काना सारकीं इंद्रियां जागृत दवरलीं जाल्यार जिणेचो दर एक खीण आमच्यांनी आनंदमय करून घेवं येता.

आमी भोंवतणचो समृद्ध सैम पळोवपाक जाय. जिणेचेर प्रेम करपाक जाय, पुर्वाग्रहा बगर जिणेकडेन पळोवपाक जाय, प्रसन्न चित्तान जगून जिणे वयली श्रद्धा कायम राखपाक जाय. जिणेंत येवपी प्रस्नांक धिटायेन फुडो करप, निर्शेणेचो काळोख पयस उरतलो हाची जतनाय घेवन जगप, हें खूब गरजेचें आसता. सामकार येवपी अडचणी आनी आडखळी हांसत्या मुखान स्विकारपाची प्रवृत्ती आसपी मनशाकडेनच जिणेंत आनंद शिंपडावपाची तांक आसता.

श्री. एस. एच. नायक हांणी आपणाले अणभव पुंजायल्यात आनी जिणेची बांदावळ करपाचे कलेचो वाचकाक परिचय घडयला. दर एकट्यान आपणाल्या घरांत हाडून वाचन करपा सारकें, तशेंच सगळ्या वाचनालयांनी आसपाक जाय अशे तरेचें हें पुस्तक आसा.

**शा. मं. कृष्णराव**
लेखक, अनुवादक आनी पत्रकार,
बेंगळूरु

नायक सरान एच. आर. विशयाच्यो संकल्पना आपणाल्या प्रत्यक्ष जिणेतल्या प्रसंगांनी जे तरेन वापरून पळयल्यो त्यो पळोवन हांव प्रभावीत जालों. ताका लागून तांची स्वताची जीण समृद्ध जालीच, त्या भायर हेरांकय आपणालें जिवीत चड श्रीमंत करपाक मदत जाली. हें पुस्तक एच. आर. विशयाच्या मळारूच न्हीं तर जांकां जिणेत मुखार सरून समाजाक कितेंय म्हत्वाचें योगदान दिवपाचें आसा, त्या सगल्यां खातीर उपेग जावपा सारकें आसा.

**शैलेंद्र ढमढेरे**
जनरल मॅनेजर – एच. आर.
जॉन्सन अँड जॉन्सन

---

***(नागालँडाचे गव्हर्नर भोवमानेस्त श्री. पी. बी. आचार्य हांणी श्री. एस. एच. नायक हांकां तांच्या 'ब्रिंग जॉय टू युवर लाय्फ' ह्या पुस्तका विशीं आपणालो अभिप्राय कळोवन बरयल्ल्या पत्रांतलो पुस्तका संबंदांतलो वांटो)***

''तुमचें पुस्तक वाचकांच्या भावनांक स्पर्श करून तांकां जाग हाडटा वा तें खाशेल्या अशा भावनांचें स्मरण करून दिता अशें म्हणूं येता.

'ब्रिंग जॉय टू युवर लाय्फ' हें पुस्तक खरेपणान लोकांक सुखासमाधानान आनी यश जोडीत जीण जगपाक प्रेरणा दिता. जिणेचो नीज अणभव आनी ज्ञान हांचें एकजीव मिश्रण ह्या पुस्तकांत जाल्लें दिसता आनी ताकाच लागून हें पुस्तक वाचकाक ओडलायणें जालां अशें दिसता.

सृजनात्मक लेखनाची देवान दिल्ली जी प्रतिभा तुमकां लाभल्या त्या खातीर तुमचें हांव कौतूक करतां.

***पी. बी. आचार्य***
गव्हर्नर – नागालँड, कोहिमा

---

मानवी जिवनात उप्रासपी प्रस्नांच्यो जापो ह्या पुस्तकांत आमकां नकळत मेळत वतात. जिवन हें खूब सुंदर आसा आनी आमी तें आनीक सुंदर तरेन जियेवपाक शकतात असो आंतरीक संदेश आमकां मेळटा. हांगां मांडिल्ल्या विचारांच्या तळाक अध्यात्माची बसका आसा. ह्या पुस्तकांतल्या शब्दा शब्दांतल्यान मनाशांतीचो मंत्र सतत घुमत आसा असो आभास वाचतल्याक जाता. हो अणभव जण एकल्या सुजाण वाचकान घेवचो.

***डॉ. प्रकाश पर्येकार***
विभाग मुखेली,
कोंकणी विभाग, गोंय विद्यापीठ

---

*मानव संसाधन विकास*
*ह्या विशयांतल्या म्हज्या सगळ्या विद्यार्थ्यांक...*



कसलेंय काम तुमी जेन्ना पुराय जीव लावन करतात तेन्ना तुमकां आपणाल्या अंतरांतल्यान आनंदाचो झरोच व्हांवता काय अशें दिसूंक लागता.

*– जलालुद्दीन रुमी*

प्रशिक्षणांतल्यान येना अशी कसलीच गजाल ना, ताचें वेंगेंत सगळें येता. तें वायट नितीक बऱ्यांत बदलूंक शकता, वायट तत्वांचो नाश करून नवीं बरीं तत्वां निर्माण करूंक शकता आनी मनशाक देवदूताच्या पांवड्यार पावोवंक शकता.

*– मार्क ट्वेन*

# वांटून घेवपांतलो आनंद

*मनशाक सगळ्यांत व्हड तान आसता – ती म्हणल्यार*
*आपणे कितें केलें जाल्यार आपूण 'मनीस' जातलों!*

*– इमॅन्युअल कांट*

मोगाळ वाचप्यांनो,

तुमच्या हातांतलें हें पुस्तक हो एक अणभव वांटून घेवचे पासत केल्लो यत्न. वाचता आसतना तुमकां सोपेपणी एक सेगीत धागो मेळचो ह्या हेतान हांवें ताचे दोन वांटे केल्यात. तातूंतलें दर एक प्रकरण स्वतंत्रपणानय वाचुं येता.

हांवें जीं साबार पुस्तकां वाचलीं आनी तांचे भितर ज्यो कल्पना वा प्रभावी विचार म्हाका भावले ते हांवें पुंजायले आनी जिणेत तांचो म्हाका उपेग जालो. तातूंतल्यान हांवें खूब आनंदय अणभवलो. बरयता आसतना अणभव वांटून घेवपांतलोय आनंद म्हाका मेळ्ळो. म्हजे स्वताचे दिसपडटे जिणेतले अणभव आनी म्हजे वेवसायाकडेन संबंदीत अणभव अशे वेगळे वांटे करपाचें हांवें टाळ्ळें. म्हज्या मनात येताले तशेच ते हांव बरयत गेलों आनी म्हज्या इश्ट सांगात्यां मदीं ते वांटून घेतां हाचोय आनंद हांव घेत रावलों.

फकत सोपेपणा खातीर पुस्तकाचे दोन विभाग केल्यात – मांडणी सुत्रबद्ध जावची अशें चिंतून. एका मनशाची स्वताची खाजगी जीण आनी ताची वेवसायांतली जीण हांचे मदीं वेगळावं नजो अशें नातें आसता अशें हांव मानतां कारण एका वाठारांतलें यश दुसऱ्या वाठारांतल्या यशाकडेन भितरयां जोडिल्लें आसता. व्यवसायांतलें यश आनी खासगी जिणेतलें यश

हांचें एकामेकाकडेन नातें आसता. तुमचे मायेमोगाचे व्यक्तीकडले तुमचे संबंद बरे तरेन तिगून उरप ही एक खोस दिणी गजाल आसता. आपणालीं मायेमोगाचीं मनशां आपणाक तितलोच मायामोग दितात, आपणाली काळजी घेतात ही भावना आपणाले वेवसायीक जिणेत उमेद आनी समाधान दिवपी थारतात.

ह्या पुस्तकांतलो पयलो वांटो एच.आर. विशयांतले प्रशिक्षण दिवपी मार्गदर्शकांक उपेग जाय सारको आसा. त्या मार्गदर्शकांक प्रशिक्षण दिवपी मनशांकय ह्या पुस्तकाचो उपेग जातलो.

हांवें केन्नाच आत्मचरित्र बरोवपाचो यत्न केलो ना. पूण म्हज्या ह्या पुस्तकाचो दुसरो वांटो म्हजे नकळटां आत्मचरित्रा वटेन व्हांवत गेलो.

म्हजे भूतकाळांतले जिणे विशीं, खासा करून सुरवातेच्या धडपडेच्या काळाविशीं हांवें बरोवचें अशें म्हाका एका इश्टान सुचयल्लें. आजवेर हांवें म्हजे वेवसायीक जिणेत जें कितें येस जोडलां ताचेर योग्य तरेन नदर मारून अवलोकन करपाक मेळटलें अशें ताचें म्हणणें आशिल्लें.

हांव खूब सोपेपणी म्हज्या भूतकाळाचेर नदर मारूंक पावलों. एस. एस. सी. परिक्षेंत म्हाका गणितांत ९०% मार्क पडले तेन्ना हांवें विज्ञान शाखेंत प्रवेश घेवचो अशें रितीक धरून जातलेंच आशिल्लें. पूण म्हजें मन म्हाका जें सांगतालें तेंच हांवें केलें. हांवें आर्ट्‌साक प्रवेश घेतलो. 'हांवें म्हज्या मनाचें सांगणे आयकलें' ह्या प्रकरणातल्यान हांव आयच्या पालकांक एक संदेश दिवंक सोदतां. पालकांनी आपणाल्या भुरग्यांक – चले जावं चलयांक आपापणाल्या मनाचें सांगणे आयकुपाची संद दिवची.

'हांवें म्हजो जिणे सांगाती वेंचलो' ह्या प्रकरणांतल्यान हांवें कितें केलें ते विशीं लोकांक सांगपाचो म्हजो हेत ना. तातूंतल्यान हांव आयच्या लग्नाची पिराय जाल्ल्या तरणाट्यांक एक संदेश दिवंक सोदतां. तो म्हणल्यार तुमी चड काळ वाट पळोवं नाकात. जेन्ना तुमकां जिणेची सांगातीण जावपाक लायक अशी चली मान्य जाता तोच लग्न करपाचो योग्य वेळ हें ध्यानात धरात.

'एक आदर्श जोडपें' ह्या प्रकरणातल्यान म्हाका आमी दोगांय एक

आदर्श जोडपें अशें भर दिवन म्हणपाचें वा सुचोवपाचें ना. म्हत्वाची गजाल सांगपाची आसा ती म्हणल्यार लग्नाच्या बंधनात पडले उपरांत दोगांयनी जबाबदारेन आपणालें कर्तव्य करचें. ते दरवीं तीं 'आदर्श जोडपें' पदवेक पात्र थारतलीं. त्या खातीर दर एकट्यान यत्न करपाक जाय. ते वटेंतलो प्रवास आनंदान करपाक शिकचें पडटा. ती पदवी मेळ्ळे उपरांत तो आनंद आपणाक भोगपाक मेळटलो अशें मानूं नाकात.

'बिंदू जोडप' आनी 'जें करतात तें जीव लावन करात' हीं दोन प्रकरणां म्हज्या पुताच्या जिवितांत घडिल्ल्या कथां विशीं सांगतात. आयचे पिडयेंतले तरणाटे आनी तांच्या पालकांखातीर त्यो बऱ्यो केस स्टडीज जाय सारक्यो म्हणल्यार अभ्यास करी सारक्यो देखीं जावं येतात. अशे तरेन टिंबा जोडीत गेले जाल्यार तांतूंतल्यान देख घेवन शिकपाक मेळटा.

'केक तोंडांत आनी हातांतूय बी' हो लेख म्हज्या ज्येश्ठ नागरीक इश्टां खातीर म्हत्वाचो. खासा करून हालींच्या काळांत ते म्हानगरांतल्या लाखांनी रुपया मोलाच्या फ्लॅटांनी रावतात पूण दिसपडटी जीण सन्मानान जगपा खातीर तांचेकडेन दुडू नासता. तांणी घालून घेतिल्ली शीम हुपून विचार करचो आनी समस्येचेर उपाय सोदचो. म्हज्या ह्या विचार मंथनात हेरांनीय देख घेवपा सारकें खूब आसा.

निमाणचें प्रकरण 'चड काळ वाट पळयत रावंनाकात' हें आपणाल्या सपनांची मोख गांठपाक आपणाक वेळ नासता म्हणटात त्या विशयाचेर बरयलां. चिंतपा खातीर, हांसपा रडपा खातीर, शांत मेकळे जावपा खातीर, इश्टागत तिगोवन दवरपा खातीर, हेरांक आदार जावपा सारकीं कामां करपाक वेळ दियात. आपणाली चलणूक बरी आनी उजू आसप हें बरेंच पूण हेरांक मजत करप वा उपेगी थारप चड बरें.

एका अनामीक शाण्या मनशाचीं उतरां लक्षांत दवरात,

''मरण सदचेंच तुमचे आशिकुशींनी वावरत आसता; कारण जेन्ना तुमकां म्हत्वाचें कितेंय करपाचें आसता तेन्ना तें तुमकां त्या कामा खातीर गरजेक जायती शक्त आनी धीर दिता.''

ते पासत आमी सगळीं आतां धिटायेन मनात बाळगिल्लीं सपनां पुराय

करपाचो यत्न करया.

तुमकां हांव आतां म्हज्या ह्या पुस्तकाची कथा सांगतलों. ते कथेचे सुरवेकच एक सुंदर अशी आडकथा सांगतां. कांय वर्सां आदीं हांवें नामनेचो लेखक 'पावलो कोएलो' हाचें 'लाय्फ ए फ्लोईंग रीव्हर' हें पुस्तक वाचलें. तातूंतली 'द स्टोरी ऑफ द पेन्सील' (पेन्सीलीची काणी) नांवाची काणी आसा.

ते काणयेंत एक आजी आपणाल्या नातवाक उपदेश करता, ''तूं व्हडलो जातलो तेन्ना पेन्सिली सारको जावपाचो यत्न कर!'' उपरांत ती ताचे फाटलीं कारणां सांगता.

''पेन्सिलीचे पांच गूण जर तुवें सारके समजून घेवन तांचो जिणेंत उपेग केलो जाल्यार तुज्या जिवितांत तुका खरी शान्ती मेळूंक पावतली. भायल्या गडबड गोंदळाकडेन जुळोवन घेवन तूं शांततायेन जगूंक शकतलो.

पयलो गूण म्हणल्यार सदांच एक जाणविकाय मनात बाळग – पेन्सिलेक जे परीं बरोवप्याचो हात बरयत उरपाक आदार दिता तेच परीं एक हात आमच्या पांवलांक दिका दाखयत रावता. आमी त्या हाताक 'देव' म्हणटात.

दुसरी गजाल म्हणल्यार गिरमीट वापरून आमी पेन्सिलीक तोंक काडटात. तेन्ना पेन्सिलीक वेदना जातात हें खरें. पूण मागीर तिका बरें तोंक येता आनी बरप बरें उठून दिसता. आमी तेच तरेन वेदना आनी दुख्खां सोंसपाक जाय. ताचो परिणाम म्हणल्यार आमी दर एकलो बरो मनीस जावंक पावता.

तिसरो गूण म्हणल्यार पेन्सिलीन बरयतना चूक जाली जाल्यार आमी रबरान चुकिल्ली अक्षरां पुसून उडयता. तेच तरेन जिणेत आमी चुको मानून घेवन त्यो सुदारपाक जाय. चूक सुदारपाची इत्सा बाळगून रावले जाल्यार वाट चुकनासतना आमी उजू मार्गान मुखार वचूंक शकतात.

पेन्सिलीचो चवथो गूण आसा तो तिचो दर्जो – तिच्या बरोवपी काडयेच्या शिशाचो दर्जो कसो आसता ताचेर बरप निंबून आसता. भायलें लाकडाचें आवरण ताची राखण करता आनी अनेक तरांनी ताका मदत

करता. तेच तरेन एक आध्यात्मिक आवरण मनशाच्या जिविता भोंवतणी आसता. ताचें म्हत्व आमी जाणून घेवपाक जाय.

''पेन्सिलीचो पांचवो आनी सगल्यांत म्हत्वाचो गूण म्हणटात तो ती फुडें फुडें वता तशी तशी आपणाल्यो कुरवो फांटल्यान दवरीत वता. तेच तरेन आमी मनीसय आपणाली जीण जगता आसतना फाटल्यान कुरवो दवरून वतात. आमी जर आपणालो वारसो आनी कुरवो फाटल्यान दवरतले हाचे विशीं जागरूक रावले; जाल्यार आमचीं कामां करता आसतना आमी चड जबाबदारेन आनी प्रामाणिकपणान वावुरतले आनी आपल्याच्यान जाता तें बऱ्यांतलें बरें दिवपाचो यत्न करतले.

म्हजे दिसपडटे जिणेंत हांव जेन्ना जेन्ना एखाद्रो लेख बरयतां आनी बरयल्लें मना सारकें जालां, हाची खात्री करून घेतां तेन्ना एक अदृश्य हात म्हज्या हाताक मार्गदर्शन करता हाची म्हाका जाणविकाय जाता. हो म्हजो स्वताचो अणभव. हो देवाचो हात आसता अशें म्हाका दिसता. ते विशीं हांव उपकारी आसां.

हांवें जेन्ना म्हजे विचार आनी अणभव तुमचे वांगडा वांटून घेवचे अशें थारायलें तेन्ना अशे तरेचें पुस्तक बरोवचें असो हांवें मात पसून विचार करूं नाशिल्लो. म्हजे वाडटे पिराये वांगडा म्हजी काम वेंगावपाची तांक कमी जायत रावताली. हांव प्रशिक्षण मेळावे घेतालों तेन्ना लोकां मेरेन पावतालों ताचो आंवाठ उणो जायत रावलो. मागीर हांव ई–मेल्सांतल्यान लोकांकडेन संपर्क सादून म्हजे अणभव वांटून घेवंक लागलों. ह्या उपक्रमाक लोकांचो बरो प्रतिसाद मेळूंक लागलो. अनेक व्यक्तींनी हांवें म्हजे विचार बरोवन काडून पुस्तक छापचें अशें सुचयलें.

मागीर मनांत आशे–निराशेचो झोपाळो धोलपाक सुरवात जाली. फावो तसो प्रकाशक मेळप ही हिमालया सारकी एक आडखळ आड आयली. त्या खातीर चिंवटसाण आनी परिश्रमाची गरज आशिल्ली. आजमेरेन म्हजे ज्या मनशांकडेन लागींचे संबंद आयिल्ले तांचो उपेग करून कांय लोकां मेरेन पावलों. चड काळ वाट पळोवप म्हाका परवडपा सारकें नाशिल्लें. एका वेळार हांवें हें पुस्तक छापपाचो विचारच सोडून दिल्लो.

ते उपरांत म्हाका पेन्सिलीच्या दुसऱ्या गुणाची याद जाली. हे अणभव म्हाका गिरमिटावरी तोंक काडपी आनी मानसीक थराचेर तासून काडपी आशिल्ले त्या आडखळींतल्यान वाट काडपाची हांव संद सोदतालों. हांव रावतालों त्या डोंबीवली वाठारांत प्रकाशक सोदपाक सुरवात केली. आनी देवाकृपेन म्हजो सोद फळादीक जालो. 'ब्रिंग जॉय टू युवर लाय्फ' हें पुस्तक डोंबिवलीकर प्रकाशनान उजवाडा हाडलें. म्हाका उर्बा उमेद दिल्ले खातीर आनी सहकार्य केल्ले खातीर डोंबिवलीकर प्रकाशनाच्या सगल्या वांगड्यांचो हांव उपकारी.

'मानव संसाधन विकास' ह्या मळार आनी ताचे भायर वावरूपी म्हजे इश्ट आनी बरें मागते हांणीं म्हाका हें पुस्तक बरोवपाक आदार दिलो. तांणीं बरप वाचून अनेक सुचोवण्यो केल्यो. एकेवटेन तांणीं म्हज्या सकारात्मक मुद्यांक खोशयेन येवकार दिलो आनी म्हाका मुखार सरपाक आनी बरोवपाक प्रेरणा दिली आनी दुसरे वटेन तांणीं कांय चुको आनी उणावूय दाखयले. हांवें रोखडोच पेन्सिलीच्या रबराचें काम केलें आनी त्यो चुको पुसून सुदारल्यो.

इतल्या सगल्यांच्या आदारान एका वर्सा भितर हें पुस्तक नांवारुपाक आयलें. तो आदार नाशिल्लो जाल्यार म्हाका हें पुस्तक काडपाक उशीर जातलो आशिल्लो. म्हजे इश्ट आनी बरें मागत्यांनी म्हाका जी उर्बा आनी सहकार्य दिलें त्या खातीर हांव सदांच तांच्या उपकारांत उरतलों.

ते कांणयेतली आजी आपणाल्या नातवाक ताच्या अंतरांत जें कितें घडटा ताचे कडेन चड लक्ष दिवपाक सांगताली. पेन्सिलीचे देखीन ती म्हणटा. ''भितरल्या शिशा कडेन चड लक्ष दी.''

ह्या पुस्तकांत हांवें जें बरयलां तें म्हज्या काळजांतल्यान आयलां. म्हज्या मनानय म्हज्या काळजाक सांगात दिला. फाटल्या पन्नास वर्सांच्या काळांत हांवें तत्वज्ञान मानसशास्त्र या विशयां वयलीं जीं पुस्तकां आनी ललीत साहित्य वाचलें त्या सगल्या वाचनान म्हज्या अंतरांत जें कितें घडटा ताका खूब योगदान दिलां.

आमचे भितर जें मंथन चालू आसता ताचें नवखेंपण चड दीस

काळजांत उरूंक शकना. तें भायर येवपाक वाट सोदीत रावता. म्हजोय अणभव तोच. जे विचार, ज्यो कल्पना म्हज्या विचारमंथनातल्यान भायर येवन तांच्या आदारान ज्यो कृती घडल्यो तांचो म्हजे भोवतणेतल्या जायत्या जाणांक उपेग जालो. ह्यो कृती आनी म्हजे उपक्रम हातूंतल्यान म्हजे कडेन जो अणभवांचो सांठो तयार जालो तो हेरां वांगडा वांटून घेवपाची खर इत्सा म्हाका जाली आनी ताचो परिणाम म्हणल्यार तुमच्या हातांत आसा तें पुस्तक नांवारुपाक आयलें.

आतां आमी ते आजयेचे कथेंतले पेन्सिलीचो निमाणो गूण घेवया. तो गूण म्हणल्यार पेन्सील आपणाल्या अस्तित्वाच्यो कुरवो फाटीं दवरून वता. आपणाल्या फाटल्यान आपणालो वारसो आनी पांवलां कुरवो सोडून वचप हें जिणेत खूब म्हत्वाचें आसता.

हांव स्वताक सदांच एक प्रस्न विचारतां –'म्हजे फाटल्यान लोकांनी म्हजी याद कशी काडची अशें म्हाका दिसता? फाटल्या पिळग्यांनी म्हज्या वावराची याद काडची अशी म्हाका इत्सा आसा जाल्यार हांवें कितें करपाची गरज आसा ?'

असल्या कांय प्रस्नांच्यो जापो तुमकां म्हज्या ह्या पुस्तकांत मेळटल्यो. भविश्याविशीं तुमी जेन्ना सपन रंगयतात आनी तें खरें जावचे खातीर वावराक लागतात तेन्ना चड काळ वाट पळोवं नाकात. दुसऱ्यांक दिवपांतलो जो आनंद आसता ताचो अणभव घेयात आनी एकामेकामदीं वांटूंत घेवपय अणभवून पळयात. आनी हो एकामेकामदीं वांटिल्लो आनंदय वांटून घेयात. अशे तरेची चलणूक तुमचे फाटल्यान तुमच्यो पांवलां कुरवो काळाच्या पड्ड्याचेर उदेवन येवपाक उपेगी थारतली. पेन्सिलीवरी तुमीय बी कुरवो फाटल्यान दवरीत वतले.

जें काळजाच्या गाब्यांतल्यान भायर सरता तें काळजाक जाणवता अशें म्हणटात. हांवें जें कितें बरयलां तें तुमच्या काळजामेरेन पावतलें हाचे विशीं म्हज्या मनात इल्लोय दुबाव ना!

***– एस. एच. नायक***

**अणकारप्याचीं चार उतरां .....**

'ब्रिंग जॉय टू युवर लाय्फ' हें प्रा. एस. एच. नायक हांचें मूळ इंग्लीश पुस्तक कोंकणींत अणकार करपाखातीर म्हज्या हातांत पावलें. उत्तर कन्नड जिल्ल्यांतले कोंकणी शैलींतल्यान गद्य आनी पद्यलेखन करपी श्री. प्रद्मनाभ नायक हो म्हजो खूब लागींचो इश्ट. ताचे मार्फत ही अणकार करपाची संद म्हाका मेळ्ळी.

मुंबयंतच रावपी पद्मनाभ हो प्रा. एस. एच. नायक हांच्या होसाडच्याच कुटुंबांतलो आनी नात्यान तांचो पुतणयो. कोंकणी भाशेंत जायतीं नाटकां बरोवन मंचार हाडपी सर्गेस्त 'होसाड बाबुटी नायक' हांच्याच व्हड कुटुंबांतलेच हे दोगूयजण. मातृभाशा कोंकणी आशिल्ल्यान हे भाशेंत आपणाल्या पुस्तकाचो अणकार जावचो अशी प्रा. नायक हांची मनाखोलांतल्यान इत्सा आशिल्ली. म्हाका एक वेगळे तरेचें पुस्तक अणकारीत करपाचो अणभव मेळटालो अशें चिंतून हांवें ही जबाबदारी स्विकारली आनी दुसरी गजाल म्हणल्यार इश्टाचें उतर सकयल दवरप कठीण पडटा. काम सुरू केलें आनी थोड्या काळा भितर तें सोपयलें.

प्रा. नायक हे खर बुद्धीचें गिरेस्त धन लाबिल्ली आनी जल्मतनाच एका बुदवंत शिक्षकाचे गूण रक्तांत घेवन जल्मल्ली व्यक्ती. फुडारांतलें आपणालें ध्येय वा जिणेंतली मोख थारावनच तांणीं एस. एस. सी. उपरांतल्या शिक्षणाचो फांटो आनी विशय वेंचून काडले आनी 'मानव संसाधन विकास' ह्या आयच्या काळांत खूब म्हत्व फावो जाल्ल्या विशयाचे प्राध्यापक जावपाक लागता तितल्याय गरजेच्या विशयांनी पदवे उपरांतलें शिक्षण घेवन सदांच बऱ्यांतलें बरें यश जोडलें. उपरांत मानव संसाधन विकास होच आपणालो व्यवसाय थारावन एक नामनेचे प्रशिक्षक जाले. सतत व्हडल्या व्हडल्या नामनेच्या लेखकांचीं आनी संवसारांतल्या विचारवंतांचीं पुस्तकां वाचून स्वताच्या ज्ञानात भर घालीत स्वताक कशे तरेन समृद्ध करीत रावपाची गरज आसता ताची प्रा. नायक हे प्राध्यापकी व्यवसायांतल्या व्यक्तीं खातीर एक बरी देख.

ह्या पुस्तकांतल्यान तांणीं आपणाल्या व्यवसायांतल्यान आनी वेव्हारांतल्यान जोडिल्ल्या अणभवांचो आनंद वाचकां मदीं वांटून घेतला. आपणालो आनंद जो कोण वांटून दिता ताणे स्वता आपणाल्या व्यवसायांतल्यान खूब आनंद मेळयल्लो आसपाक जाय. प्राध्यापकी व्यवसाय तांणीं तन आनी मन लावन केल्लो आशिल्ल्यान तांकां तें शक्य जालें.

तांचे विद्यार्थी जावपाचें भाग्य लाबिल्ल्यो अनेक व्यक्ती आज साबार नामनेच्या अशा आस्थापनांनी ऊंच ऊंच पदांचेर अधिकारी जावन वावुरतात. तातूंतल्या अनेक अधिकारी व्यक्तींनी प्रा. नायक हांच्या ह्या पुस्तका विशीं बरयल्ले जे अभिप्राय आसात ते हांगा वाचपाक मेळटात. त्या सगल्यांनी मुक्त कंठान ह्या पुस्तकाचें जें गुणवर्णन केल्लें आसा तातूंत जबर अतिशयोक्ती म्हणपा सारकी कांयच ना हें वाचकाच्या सोपेपणी लक्षांत येता. म्हजे सारक्यान त्या भायर चड कितेंय सांगपाची गरज आसा अशें म्हाका दिसना.

हें पुस्तक वाचून अणकार करता आसतना तांच्या अणभवांचो आनंद घेत घेत अनेक विचार मतींत दवरून स्वताचे जिणेत वेळा प्रसंगार तांचो उपेग जाय सारको आसा अशें दिसलें.

प्रा. नायक हांकां अशे तरेचें आनी सर्जनशील साहित्य निर्माण करपाक बरी भलायकी आनी उमेद उर्बा मेळूं असो आंवडो उक्तावन हांव म्हज्या चार उतरांक पुर्णविराम दितां.

**रमेश लाड**

मडगांव–गोंय

**कृतज्ञताय :**

- गा दयावंत परमेश्वरा,

  हें हांवें बरोवंक ना, तुवेंच म्हजे कडच्यान बरोवन घेतलां.

- म्हज्या सर्गेस्त आवयबापायक,

  तुमचो मोग ही म्हजी शक्त. तुमी शिकयल्लीं मुल्ल्यां म्हज्या रक्तांतल्यान व्हांवतात. म्हाका तुमची सदांच याद येता. म्हजो तुमचेर मनांतल्यान मोग आसा.

- म्हजी बायल, निर्मला,

  पृथ्वी जितली सुर्याच्या रिणांत आसा, तितलोच हांव तुज्या रिणांत आसां. सोंपिल्ल्या पन्नास वर्सां परस चडकाळ आमी सांगातान घालयल्ले जिणेंत तुवें दिल्ल्या योगदानाक लागून आनी सहकार्याक लागून हांव मनासारकें खूब मेळोवंक पावलों.

- म्हजो पूत नितीन, ताची बायल विभा, तांच्यो धुवो जान्हवी, तन्वी, म्हजी धूव मीनल, तिचो घोव दिवाकर, तांचो पूत आकाश, म्हजी धूव लीना (अनुराधा), तिचो घोव अभय, तांचीं भुरगीं मेघना, अनीश, म्हजो तुमचेर सगल्यांचेर मोग आसा. तुमचे माये खातीर आनी आदारा खातीर मनांतल्यान उपकार. तुमकां सगल्यांक देवाचे शुभाशिर्वाद मेळूं आनी तो तुमकां मार्गदर्शन करूं अशें मागणें करतां.

- होसाड नायक कुटुंबांतले सगळे भावबंद,

  तुमच्या फाटबळा खातीर मनां काळजांतल्यान उपकार. देवा कडेन एकूच मागणें मागतां तें म्हणल्यार तुमी पुराय कुटुंब वांगड्यांनी होसाड ह्या आमच्या मूळ गांवांत रावतल्या सगल्यांच्या विकासाखातीर जे उपक्रम सुरू केल्ले आसात ते तशेच चुकनासतना फुडें व्हरपाक देव तुमकां शक्त आनी धीर दिवं.

- एल. एन. एम. एल. एम. आय. एल. एस. हे संस्थेचे संचालक, म्हजे सगळे सहकारी आनी अतिथी प्राध्यपक,

तुमी दिल्ली प्रेरणा आनी फाटबळाखातीर मनाकाळजांतल्यान धन्यवाद.

- म्हजे सगळे विद्यार्थी,

  तुमचो सतत मेळपी आदार आनी शुभेच्छांनी म्हाका आनंद मेळ्ळो आनी बरोवपाक प्रेरणा. त्या खातीर उपकार आनी तुमच्या फुडारांतल्या करियराक शुभेच्छा.

- संस्थेंतले म्हजे सगळे आतांचे विद्यार्थी,

  म्हाका तुमचे कडच्यान उर्जा मेळत रावल्या. हांव सतत तुमच्या संपर्कांत आसतां, त्या खातीर म्हज्यो चित्तवृत्ती तरनाट्यो उरतात आनी आज 78व्या वर्साय हांव मनान तरनाटो आसां अशें भासता.

- सगल्यो संस्था आनी आस्थापनां,

  जांणीं म्हाका आपणाल्या अधिकाऱ्यांच्या आनी कर्मचाऱ्यांच्या प्रशिक्षण कार्यावळी खातीर आफयलो आनी आफयत आसात त्या सगल्यांक ...

  तुमचे कडेन काम करतात त्या मनशांकडेन चर्चा करता आसतना म्हाका जे अणभव आयले आनी जें प्रत्यक्ष ज्ञान मेळ्ळें तातूंतल्यान हें पुस्तक बरोवपाक मदत जाली.

- ह्या पुस्तकाचें हात बरप वाचून म्हाका उपेगी अशो सुचोवण्यो केल्यो, सुदारणा करपाक सुचयलें आनी हेर अनेक मार्गांनी मदत केली, त्या सगल्यांक,

| | |
|---|---|
| श्री. डी. बी. धामणस्कर | डॉ. राजन तुंगारे |
| श्री. एस. आर. काकोडकर | श्री. देवदत्त कद्रेकर |
| श्री. शामराव अत्रे | श्री. विश्वास पाटील |
| श्री. जी. जी. नायक | श्री. सी. पी. देशमुख |
| श्री. आबासाहेब पटवारी | श्री. प्रदीप पांडे |
| श्री. सुरेंद्र बाजपायी | श्री. बबन राजाळे |

श्री. रविन्द्र चव्हाण
श्री. सुधीर जोगळेकर
श्री. प्रेमानंद शेणवी
श्री. मधुकर एम. पै
श्री. एन. एस. शानभाग
श्री. संदेश आचरेकर
श्री. राजीव नायक
श्री. सुरेश एन. पै
सौ. सोनल पै
श्री. मंजुनाथ भट
सौ. स्वाती मोरे
कु. संध्या शिंदे
श्री. माधव जोशी
श्री. प्रल्हाद देशपाडे
श्री. मेधा कट्टी
श्री. राजेश पंड्या
श्री. वेंकटेश पै
श्री. विद्याधर शानभाग
श्री. प्रशांत साळगावकर
श्री. प्रसाद शानभाग
सौ. पल्लवी चिडगुपकर
श्री. वैभव पै
श्री. प्रदीप शेडगे
श्री. प्रभू कापसे

- ☐ मूळ होसाड गांवचे आनी कामधंद्या निमतान गोंयात वास्तव्याक आशिल्ले म्हज्या घराब्यांतले श्री. देविदास नायक, श्री. गजानन नायक, श्री. विष्णू नायक, श्री. यदुचंद्र नायक आनी शुभचिंतक श्री. उदय भट, श्री. नागेश भट आनी हेर कांय जणांनी ब्रिंग जॉय टू युवर लायफ हें पुस्तक कोंकणीत उजवाडावपाक पूर्ण सहकार्य दिलें. कसल्याय कार्याक समाजाचें सहकार्य म्हत्वाचें आसता. हांव तांचे उपकार मानून सगल्यांक शुभेच्छा व्यक्त करतां. कोंकणी अणकारा खातीर जांणी अभिप्राय दिले ते लेखक श्री. शा. मं. कृष्णराव, कोंकणी नाट्य लेखक, नट आनी दिग्दर्शक श्री. ए. जी. कामत तशेंच गोंय विद्यापीठ कोंकणी विभाग मुखेली डॉ. प्रकाश पर्येंकार हांचोय उपकारी.

- ☐ कालवश जाल्ले डॉ. ए. पी. जे. अब्दुल कलाम हांचे ''विंग्स ऑफ फायर'' ह्या नामनेक पाविल्ल्या पुस्तकाचो 'अग्निपंख' नांवान मराठींत अणकार करपी प्रा. माधुरी शानभाग हांणी म्हज्या पुस्तकाचो मराठींत अणकार करचो अशी हांव मनामनांतल्यान आस्त बाळगून

राविल्लों. तांणीं म्हजी विनवणी मानून घेतली आनी खूब समर्पक असो अणकार केल्ले खातीर तांचे हांव मनांतल्यान उपकार मानतां.

☐ आमी घरांत आनी नात्यांतल्या मनशां मदीं उत्तर कन्नड जिल्ल्यांतली कोंकणी उलयतात. तीच आमची मातृभाशा. म्हज्या ह्या पुस्तकाचो कोंकणी भाशेंत अणकार जावचो अशी म्हजी मना खोलांतल्यान इत्सा आशिल्ली. एक कोंकणी लेखक आनी कवी तसोच नात्यान म्हजो पुतणयो लागता असो श्री. प्रद्मनाभ नायक हाचे कडेन हांवें अणकाराचो विशय काडलो. रोखडोच तो आपणालो एक बरो गोंयकार इश्ट जाका कन्नड आनी हेर भासांतल्यान कोंकणीत अणकार करपाचो अभ्यास आसा त्या श्री. रमेश लाड हांचे कडेन उलयलो. श्री. रमेश लाड हांणीं म्हजे इत्सेक मान दिवन बरे तरेन अणकार पूर्ण केलो. ह्या खातीर हांव दोगांकय धन्यवाद दितां.

श्री. उमेश नायक हाणीं डि. टी. पी.चें सुंदर काम आनी सुंदर मुखपृष्ठ तयार केल्ली खातीर तशेंच 'संजना पब्लिकेशन्स्' संस्थेचे चालक श्री. दिनेश मणेरकार हांणीं पुस्तक प्रकाशनाची जबाबदारी घेतिल्ले खातीर ह्या दोगांयचे हांव उपकार मानतां.

☐ म्हजे सगळे वाचक,

उपकार करून थोडो वेळ सवड काडात आनी म्हाका पुस्तका संबंदांतलो तुमचो अभिप्राय कळयात. म्हजो 'युनिव्हर्सल लॉ ऑफ अ‍ॅट्रॅक्शन' हाचेर विश्वास आसा. हें पुस्तक बरयता आसतना त्या विश्वासान म्हजी लेखन करपाची ओड जिती दवरली.

ह्या पुस्तकान आनी तातूंत हांवें मांडिल्ल्या विचारांनी तुमच्या सगल्यांच्या जिवितांत त्या सर्वशक्तिमान परमेश्वरान आनंद फुलोवचो अशी हांव शुभेच्छा व्यक्त करतां.

**– एस. एच. नायक**

## अनुक्रम

## भाग २

- हांवें म्हज्या काळजाचे उद्‌गार आयकले
- हांवें म्हजो जिणे सांगाती वेंचलो
- एक आदर्श जोडपें
- आमचे धुवेचें लग्न
- आमच्या लग्नाच्या भांगरा सुवाळ्याचें वर्स
- बिंदू जोडप
- जें कितें करतात तें मायेमोगान करात
- जिणेंत संदीक येवकार, पर्यायांची निर्मणी
- दुडवाक हांवें कामाक लायलो
- केक तोंडांत आनी हातांतूय बी
- दिवपाचो आनंद
- चड काळ वाट पळयत रावंनाकात

# सभाघरांत प्रवेश करचें पयलीं -

*फुलावरी हावेस म्हजो भोव सादो*
*वचचें आसा फाटीं दवरून फकत कांय बियो*

*– कन्नड म्हाकवी द. रा. बेंद्रे*

'सुरवात करतात तेन्ना शेवट दोळ्यां सामकार हाडात.' स्टीफन कोवे हाचें 'सेव्हन हॅबिट्स ऑफ हायली इफेक्टीव पीपल' नांवाचें खूब मान्यतायेक पाविल्लें पुस्तक आसा. तातूंत ज्यो लावन घेय सारख्यो संवयो सांगल्यात तातूंतली ही एक संवय. विसाव्या शेंकड्यांत (1901-2000) जी शंबर पुस्तकांची वळेरी काडिल्ली तातूंत पयल्या धा पुस्तकां भितर तें येता.

जाल्यार 'सुरवात करता आसतना शेवट दोळ्यां सामकार हाडात' हाचो सारकोच अर्थ कितें? तर तुमकां नेमकें कितें साध्य करपाचें आसा, खंय पावपाक जाय, जिणेंत तुमी कसलीं उद्दिश्टां वा मोखी हातासूंक सोदतात त्यो पयलीं थारायात आनी मागीरच कामाक सुरवात करात. अशें केलें जाल्यार जिणेक एक थारायल्ली दिका मेळूंक पावतली.

म्हजे स्वताचे जिणेंत हांवें ह्यो सात संवयो म्हजे तांकी प्रमाण जमता तशो चलणुकेंत हाडपाचो यत्न केला. ताका लागून हांव म्हजे भोंवतणेतल्या लोकांचेर बरो परिणाम करूंक शकलों.

हें पुस्तक बरोवपाक जाय अशें म्हाका मना खोलांतल्यान कित्याक दिसलें? अशें हांव स्वताकच विचारतां. म्हजी पिराय 77 वर्सां जाल्लीं.

78 वर्सां पूर्ण जावपाक स म्हयनेच उरिल्ले. 'गेल्ल्या आयुश्याचो आढावो घेवपाक जाय आनी निमण्या प्रवासाची तयारी करपाक जाय' अशें म्हाका दिसलें. 'आत्मो अमर आसलो तरी शरीर मर्त्य आसता.'

काळाचे शीम मेर नाशिल्ले देगेर हांव म्हज्या पांवलांच्यो कुरवो लावन वचपा खातीर उपाय सोदूंक शकतां? म्हाका नामनेचो इंग्लीश कवी एच. डब्ल्यू. लाँगफेलो हाचे कवितेंतल्यो शाळेंत शिकिल्ल्यो वळी याद जाल्यो. 'लेट अस देन बी अप अँड डुईंग' (उठात आनी कामाक सुरवात करात) ह्यो वळी हांव सदांच मतींत धरून वावरत रावलों. 'विथ हार्ट विदीन ॲण्ड गॉड ओव्हरहेड (काळीज ओतून काम कर आनी सांगाताक देव आसा ही जाणविकाय बाळग) ह्यो वळीय याद आशिल्ल्यो. आतां म्हजे अणभव तरणाटे पिळगेकडेन आनी फुडारांत येवपी पिळग्यांमदीं वांटून घेवपाचो वेळ आयला अशें म्हाका दिसलें.

हाची सुरवात कशी करची? हांवें अनेक शक्यतायांचेर विचार केलो. पयलीं कसलीय कार्यावळीची येवजण तयार करची आनी तातूंत वांटो घेवपी तरणाट्यां मदीं म्हजे अणभव वांटून घेवचे असो विचार केलो.

म्हजे मानव संसाधन आनी विकास ह्या विशयाचो प्रशिक्षक या नात्यान उद्येगीक आस्थापनांकडेन फाटलीं 15 वर्सां लागींचे संबंद आयिल्ले. हांवें जर तशे तरेच्या प्रशिक्षणाचे मेळावे घेवंक सुरवात केल्ली जाल्यार बरे संखेन तरणाट्यांक हांव एकठांय करूंक शकत आशिल्लों. पूण तशे तरेच्या उपक्रमांक जायत्यो मर्यादा आसात अशें म्हाका जाणवलें. पयले सुवातेर म्हजी पिराय आनी प्रत्यक्ष वांटो घेवपी तरणाट्यांची मर्यादीत संख्या.

'इत्सा आसा थंय मार्ग आसा' अशें म्हणटात. अशे तरेचो एक मार्ग म्हाका सुचलो. हांव व्हडलोसो संगणक मोगी न्हीं. पूण म्हज्या पुतान आपणाल्या ऑफिसांत म्हज्या नांवान ई-मेल आय.डी. सुरू केलो आनी आपणाली ऑफिस असिस्टंट म्हाका मदत करपाखातीर मेळपा सारकी वेवस्था केली. तिणेय मोठे खोशयेन तें काम स्विकारलें. ई-मेला वयल्यान हांव म्हज्या आदल्या विद्यार्थ्यांक आनी लागींच्या इश्टां वांगड्यांक म्हजे अणभव बरोवन धाडूंक लागलों.

ह्या ई–मेलांक जो प्रतिसाद म्हाका मेळ्ळो तो म्हजे कल्पने भायलो आशिल्लो. ''जिणेतल्यो आदर्श संकल्पना आनी वास्तव हांका जोडपी दुवे तुमच्या अणभवांनी आमकां मेळ्ळे'' अशें कांय जणांनी कळयलें जाल्यार कांय जणांनी ''तुमच्या बरपांतल्यान उत्साहीत जावन आमी स्वताचे खाजगी जिणेंत आनी वेवसायी जिणेंत नवे उंचायेर पावूंक शकले'' अशें सांगलें. जांय जणांनी तातूंत वेव्हारी सुचोवण्यो मेळ्ळ्यो आनी थोड्यांनी प्रेरणा दिवपी आसात म्हूण कळयलें.

म्हाका आनी कितें जाय आशिल्लें? म्हजी अणभवाचीं उतरां हेर अनेकजणां मदीं वांटून घेवंचीं होच म्हजो बरोवपा फाटलो उद्देश. म्हजे विचार हांवें कशे तरेन चालीक लायले हेंच म्हाका वाचकांक सांगपाचें आसा. जेन्ना पुराय म्हायती घेवन आमी वावरूंक लागतात तेन्ना ताका बळ मेळटा. हातांत घेतिल्ल्या कामाक ज्ञानाचो बळिश्ट आदार आसता तेन्नाच काम करपाची तांक वाडटा, हाचेर म्हजो विस्वास आसा. हांवें वाचिल्ल्या साबार पुस्तकांतल्यान हांव हें शिकलां. म्हज्या वाचकांक हें कळचें आनी तांणी आपणाले जिणेंत ताचो उपेग करचो अशी म्हजी इत्सा.

म्हाका जो प्रतिसाद मेळ्ळो तातूंतल्यान फुडें सरपाक म्हाका प्रेरणा मेळ्ळी आनी आत्मविश्वासय वाडलो. अनेक मनशांनी सुचयलें ते प्रमाण म्हाकाय हें सगळें पुस्तकाच्या माध्यमातल्यान हेर लोकां मेरेन पावोवचें अशें दिसलें. तुमचे वाचकांचे उमेद वाडोवपी आंवडे आनी फाटबळाचो आनंद घेवपाक मेळ्ळो जाल्यार म्हाका अशक्य अशें कांयच उरचें ना. म्हजें काम हांव करीत रावन. बाकी सगळें 'युनिव्हर्सल लॉ ऑफ अॅट्रॅक्शन' हो नेम करतलो. (तुमची इत्सा प्रामाणीक आनी तीव्र आसत जाल्यार ती पूर्ण जाता अशें हो वैश्विक नेम सांगता.)

आतां म्हजें पुस्तक जें तुमच्या हातांत आसा तें म्हजे खातीर एक पुरावो – तुमी जर कितेंय मागलें आनी तुमकां तें मेळटलें अशी जर तुमची मना खोलांतली खर इत्सा आसत जाल्यार त्या आकर्शणाच्या नेमाप्रमाण तुमकां तें खात्रेन मेळटलेंच. म्हजें पुस्तक ही त्या नेमाची देख.

हांवें जीं इतलीं पुस्तकां वाचलीं त्या लेखकांच्या हांव रिणात आसा.

ह्या पुस्तकांनी म्हाका गिरेस्त केला. त्या खातीर हांव उपकार कशे मानूं? ते व्यक्त करपाचो एक मार्ग म्हाका सुचता तो म्हणल्यार मानव संसाधन मळार प्रशिक्षण आनी विकासाचें काम करता आसतना म्हाका जे अणभव आयले ते हांवें बरोवचे आनी हेरां वांगडा वांटून घेवचे. ज्या कोणाक मानव संसाधन मळार करियर घडोवपाचो आसत तांकां तांचो उपेग जातलो आनी जांकां शिकून स्वताचो विकास करून घेवपाचो आसत तांकांय बी त्या अणभवांचो उपेग जातलो.

म्हज्या ह्या लेखनाचो उपेग करून, मानव संसाधन मळार कोणूय व्यक्ती एक बरी परिणामकारक प्रशिक्षक म्हूण नावारुपाक आयली जाल्यार म्हज्या कश्टांचें फळ म्हाका मेळ्ळें, अशें हांव मानीन.

फाटल्या 15-16 वर्सां भितर 60-65 संस्थांतल्यान हांवें सुमार 600 प्रशिक्षण कार्यावळी घडोवन हाडल्यो. प्रशिक्षण घेवपाक जे शिबिरार्थी येताले तांचे मदीं उंचेल्या आनी मदल्या थरा वयले व्यवस्थापक, प्रशासक, निरिक्षक आनी कामगार अशे तरेचे कर्मचारी आसताले. हांव 'एल.एन.एल.एल. महाराष्ट्र इन्स्टिटयूट ऑफ लेबर स्टडीज' हे संस्थेचो 1975-77 वर्साचे बॅचींतलो विद्यार्थी. त्या वर्सा विद्यापिठांत पयल्या वर्गांत पयली सुवात आनी एका विद्यार्थ्यावांगडा वांटून घेतली. 1978 वर्सा तेचे संस्थेंत हांव प्राध्यापक म्हूण कामाक लागलों. 1992 वर्सा हांव संस्थेंतल्यान रिटायर जालों. तेन्नाच्यान आयज मेरेन हांव हे संस्थेंत अतिथी प्राध्यापक म्हूण काम करीत आसां आनी अशेच तरेन ज्ञान दान करीत रावचें अशी म्हजी इत्सा आसा.

1995 वर्सा हांव मानव संसाधन प्रशिक्षण दिवपाच्या मळार आयलों. ॲन्थनी रॉबीन्स हाणीं बरयल्ल्या 'अवेकन ध जायंट विदीन' (अन्तरांतले महाशक्तेक जागयात) हें पुस्तक वाचून म्हाका प्रेरणा मेळ्ळी. तेन्ना हांवें स्वताचे प्रशिक्षण वर्ग घेवपाचें थारायलें. ह्या मळार म्हाका जें येस मेळ्ळें तातूंत म्हजे संस्थेंतले आदले तशेच चालू काळांतले वांगडी शिक्षक, विद्यार्थी इश्ट आनी म्हजे जे विद्यार्थी मानव संसाधन मळार काम करतात हांचोय वांटो आसा.

मानव संसाधन मळार जे जे लोक वावुरतात ते खूब वाचनय करतात हाची म्हाका खात्री आसा. तांच्या व्यवसायाकडेन संबंदीत पुस्तकां ते वाचतातूच पूण ताचे भायर आनी वेगळें वाचनय ते करतात. म्हजे अनेक माजी विद्यार्थी जे आज मानव संसाधन मळार अध्यक्ष, उपाध्यक्ष, वयल्या पदाचे व्यवस्थापक आदी ऊंच पदांचेर काम करतात ते आपणाल्या त्या पदांचेर पावले तातूंत तांच्या वाचनाचे संवयेचो म्हत्वाचो वांटो आसा. बऱ्यांतलीं बरीं पुस्तकां वाचून तांची नदर विशाल जावंक पावता आनी तांची दूरदर्शी वृत्ती पसवता. हे वेवस्थापक खरे पूण ते चडावत प्रमाणांत फुडारी आसतात. बांदकाम वेवसायीक आसपा परस ते चड वास्तुतज्ञ आसतात अशें हांव म्हणन.

फकत वाचन आसून उपेग ना तर तातूंतल्यो नव्यो कल्पना आपणावन करप गरजेचें. उपरांत त्यो कल्पना प्रत्यक्ष चलणुकेंत हाडच्यो. गौतम बुद्धान म्हणिल्लें आसा ''जी सृजनशील कल्पना विकास जावन चलणुकेंत येता ती बेश्टे कल्पने परस म्हत्वाची आसता.''

थोड्याच म्हयन्यां आदीं हांवें रॅण्डी पाश्च हाचें 'द लास्ट लेक्चर' हें पुस्तक वाचलें. हातूंत लेखकाक आपणाल्या मरणा विशीं कळ्ळां आनी ताचीं भुरगीं आजून ल्हान आसात. आपणाले विचार नवे पिळगेक आनी खासा करून आपणाल्या भुरग्यांक कळचे अशें म्हणुनच ताका बरोवपाची प्रेरणा जाली. अशे तरेन हें पुस्तक जल्मा आयलें आनी 'चडांत चड खपपी' (बेस्ट सेलर) आशिल्ल्या पुस्तकांचे वळेरेंत येवन लोकप्रीय जालें.

वाचिल्ल्या पुस्तकांचो उल्लेख हांव मुद्दाम करतां कारण हातूंतल्या प्रत्येक पुस्तकाचो म्हाका म्हजे प्रशिक्षणाचे कार्यावळींत उपेग जालो. हांवें स्वता ह्या पुस्तकांतल्यो चडांत चड कल्पना म्हजे जिणेत चलणुकेंत हाडपाचो यत्न केला. हे सगळे अणभव म्हाका तुमचे वांगडा वांटून घेवपाचे आसात.

आमच्या मानव संसाधन मळावयल्या अनेक जणांक आपणाल्या विभागाच्या उपक्रमांचे गरजे विशीं तांच्या उंचेल्या पांवड्या वयल्या अधिकाऱ्यांक आनी अर्थखात्यांतल्या अधिकाऱ्यांक समजावन सांगप

कठीण जाता. ताचें कारण त्या उपक्रमांचे परिणाम दृश्य स्वरूपांत नासून अदृश्य आसतात. त्या सगल्यांक अल्बर्ट आयनस्टायन हांणीं आपणाले अभ्यासिकेंत लायिल्लें सुभाषित सांगपाक जाय. ''जिणेंत जें म्हत्वाचें आसता ताचें मेजप वा मापप करप शक्य आसताच अशें ना आनी जें 'मेजमाप' करपाक शक्य जाता तें म्हत्वाचें आसतच अशें ना.''

हांवें वयर सांगलां तें ध्यानात घेवन, जर म्हज्या विद्यार्थ्यांक आपणाल्या आस्थापनांतल्या हिशेबाच्या ताळेबंदांत 'अदृश्य आस्पत' म्हूण मानले जाल्यार हांव खूब खोशी जातलों.

हालींच हांवें महात्मा गांधीचें एक सुभाषित वाचलें, ''तुमकां जर मनातल्यान स्वताचो सोद घेवपाचो सगल्यांत बरो मार्ग जाय जाल्यार हेरांची सेवा करपांत स्वताक पुराय विसरात.'' हांव स्वता तशें करतां, तुमीय बी करचें.



तुमी एका सभाघरांत प्रवेश करतात अशें चित्र दोळ्यां सामकार हाडात. हें सभाघर आसता शिक्षणाचें एक मंदीर. तुमची भूमिका आनी तुमचें पद दारा भायरच दवरात आनी लेखक कितें सांगता तें मन लावन आनी बारीकसाणेन आयकात.

*तुमकां सारकें कितें मेळोवपाचें आसा तें पयलीं थारायात.*
*तें आपणाक मेळटलें असो विस्वास बाळगात.*
*तें मेळोवपाक तुमी लायक आसात हाचेर विस्वास दवरात आनी तें तुमकां मेळपाक शकता हाचेरयबी.*
*ते उपरांत सदांच नेमान आपणाक तें मेळ्ळें अशी दोळे धांपून कांय मिनटां एक कल्पना दोळ्यां सामकार हाडात आनी तें मेळ्ळें अशे भावनेचो अणभव घेयात.*
*मागीर ते कल्पनेतल्यान भायर सरून तें मेळिल्ले खातीर उपकार मानात आनी ताचो आनंद घेयात.*
*ते उपरांत तुमच्या दिसपडट्या कामाक सुरवात करात. मनात आयिल्ल्यो भावना भोवतणेतल्या अवकाशांत शिंपडावन उडयात. हें शीम मेर नाशिल्लें अवकाश तें वास्तव रुपांत कशें हाडपाचें तें थारायतलें असो विस्वास बाळगात.*

– जॅक कॅनफिल्ड

## भाग १

# कल्पकतायेची तांक

*तर्कशास्त्र तुमकां 'अ' कडच्यान 'ब' मेरेन घेवन वतलें,*
*कल्पनाशक्त खंयचेयकडेन घेवन वचत.*

*– आल्बर्ट आयनस्टायन*

'द पावर' हें एक बरें ताकतीचें पुस्तक. हांवें तें हालींच वाचलें. 'द सिक्रेट' ह्या पुस्तकाच्यो लेखिका ऱ्होंडा बायर्न हाणीं तें बरयलां. तुमकां सारकें कितें जाय हें तुमच्या मनात स्पश्ट आसत आनी तुमी तशे तरेन विनवणी केली जाल्यार तुमकां जें जें कितें जाय आसत तें मेळटलें.

सर्जनाचे प्रक्रियेचे तीन पांवडे आसतात. कल्पना करात, अणभवात आनी स्विकारात.

एक: तुमकां कितें जाय, कसली इत्सा आसा तें थारावन कल्पना करात. ही कल्पना जितली स्पश्ट आसतली तितलें बरें.

दोन : तुमकां जें जाय आसता ताचो मोग धरात. तुमची इत्सा एकदम खरसाणेन आनी भावना एकवटावन केल्ली आसपाक जाय. तशें केले उपरांत तुमची सर्जन प्रक्रियेंतली भूमिका सोपतली.

तीन : ह्या विश्वांत मोगाची जी शक्त आसा, ती उरिल्ल्यो सगल्यो प्रक्रिया पुराय करतली.

'आकर्षणाचो नेम' तुमकां जें जाय तें तुमचेकडेन घेवन येतलो. तें स्विकारप इतलेंच तुमचें काम.

म्हाका आतां ह्यो सगल्यो कल्पना म्हजे कृतींत हाडपाक जाय. म्हाका तुमचें फाटबळ जाय. तुमचे नितळ आंवडे म्हाका जाय.

आमी सगले आतां एका पांच नकेत्री हॉटेलाच्या सभाघरांत बसल्यात अशी हांव कल्पना करतां. तुमी तीसजण म्हजे वांगडा आसात अशीय हांव कल्पना करतां. तुमी सगले विंगड विंगड आस्थापनांनी कामाक आसात आनी कंपनीन तुमकां तुमचे कार्यक्षमतेचो विकास घडोवन हाडपाचें प्रशिक्षण घेवपाक हांगा धाडल्यात.

हांव जें कितें करतां ते विशीं म्हज्या मनांत खर इत्सा आसा आनी मोग आसा. म्हजे अणभव म्हाका तुमचे वांगडा वांटून घेवपाचे आसात.

आतां येता तुमची पाळी. तुमी वाचक हें पुस्तक वाचतात अशी कल्पना करात, तुमी त्या तीस प्रशिक्षणार्थीं मदले एक अशी कल्पना करात. कल्पनेन तुमी या तीस आंकड्यांत कितलीय भर घाल्यार जाता.

तुमी हांगा आसात कारण तुमकां हांगा येवपाची इत्सा आशिल्ली. तुमचे मर्जेन तुमी हांगा आसात. तुमकां स्वता भितर एक सकारात्मक बदल घडोवन हाडपाचो आसा आनी तुमची ही इत्सा एकदम खर आसा, मना खोलांतली आसा.

तुमकां सगल्यांक काळजांतल्यान येवकार! आमी ज्या सभाघरांत आसात, तें आतां तुमचे खातीर एक शिक्षणाचें देवालय थारता.

आमी देवळांत प्रवेश करपाक वतात तेन्ना आमी आमची चप्पलां वा बूट भायर दवरून भितर वतात. तशेंच आतां शिक्षणाच्या ह्या देवळांत प्रवेश करतना तुमी तुमचें पद वा हुद्दो, समाजांतलो तुमचो दर्जो दाराभायर दवरून भितर येयात अशी हांव विनवणी करतां. हाका लागून हांव जें तुमचे वांगडा वांटून घेवंक सोदतां तें स्विकारपा खातीर तुमी आपणाल्या मनाचीं दारां उगडटात.

हांव तुमकां उपदेश दिवपा खातीर हांगां आयिल्लों ना हें ध्यानात दवरात. हांव आतां तुमकां 'अशें करात', 'तशें करूं नाकात' अशें एकार एक उपदेश करपाक सुरवात करतलों अशें म्हजे पिरायेकडेन पळोवन दिसता आसतलें. अशे तरेन उपदेश करपाचेर म्हजो मातूय विस्वास ना. ह्या जगांत दोन तरेचे मूर्ख आसतात अशें म्हणटात. पयले म्हणल्यार जे उपदेश करीत रावतात ते आनी दुसरे, जे त्या उपदेशाकडेन लक्ष दिनात ते. म्हाका

त्या पयल्या प्रकारांत स्वताक घालून घेवपाक नाका. आनी तुमीयबी दुसऱ्या प्रकारांत घालून घेवं नाकात. अशी हांव विनवणी करतां.

हांव हांगा म्हजे अणभव वांटून घेतलों. तुमी तातूंतल्यान तुमचे स्वताचे निश्कर्श काडात आनी त्या प्रमाण तुमचें काम करात.

दोन गजालीं विशीं हांव तुमकां खात्री दितां. पयली गजाल म्हणल्यार हांव वेळाची मर्यादा शिस्तीन पाळटलों. शिक्षकाक वा प्राध्यापकाक तोंड उगडपाक लावप एकदम सोपें आसता पूण तें बंद करपाक लावप कठीण आसता अशें खूबशा लोकांक दिसता. हांव म्हज्यो मर्यादा पाळटलों अशें हांव तुमकां उतर दितां.

दुसरी गजाल म्हणल्यार, उत्पादन आनी उत्पादकताय, कार्यक्षमताय आनी परिणामकारकताय वा फायदो आनी सतत फायद्यार फायदो जोडप हाचेर हांव उलयतलों अशें तुमी चिंतलां आसतलें, पूण तशें कांयच ना. तो म्हजो विशय न्हीं. म्हजो विशय आसा तो मानव संसाधन विकास. तुमकां सगल्यांक प्रेरणा दिवप, तुमची वृत्ती आनी चलणूक चड बरी जावंची हाचे खातीर यत्न करप हो म्हजो मुखेल हेतू.

गौतम बुद्धान म्हणलां, 'तुमचें काम कितें हाचो तुमी सोद घेवप हें तुमचें काम, आनी मागीर पुरायपणी त्या कामाक लागप.' खऱ्या वेवसाय करपी मनशाची ती कुरू आसता.

मानव संसाधन प्रशिक्षक म्हूण म्हजो हेतू आनी प्राथमिकताय एकदम स्पश्ट आसात.

हांव तुमचे भितर आशिल्ले अमर्याद उर्जेची तुमकां जाणविकाय दिवंक सोदतां.

हांवें तुमकां एक ॲपल दिलें आनी तातूंत बियो कितल्यो आसात अशें विचारलें जाल्यार तुमची जाप कितें आसतली? तुमी तें ॲपल कापून बियो मेजतले 5,6,7 ...., आनी जाप दितले. ही संख्या मर्यादीत आसतली.

आतां हांवें तातूंतली एक बी घेवन तातूंत कितलीं ॲपलां आसात अशें विचारलें जाल्यार तुमची जाप कितें आसतली? जायतीं, असंख्य, मेजपाक येवचीं ना इतलीं ... अशो कांय जापो आसूं येता.

मानव संसाधन हें एक बिये सारकें आसता. तातूंतले उर्जेक मर्यादा ना. ती अमर्याद, मेजपाक येना.

हे मर्यादे भायर आसपी उर्जेक कामाक कशी लावप, तुमचे भितर आशिल्लें हें आंतरिक बळ तुमकां स्वताक कशें लाब मेळोवन दीयत, तुमी ज्या आस्थापनात काम करतात ताका ताचो कितें फायदो जायत, हातूंत हांव तुमकां मदत करतलों.

वेगळ्या शब्दांनी सांगतलो जाल्यार, हांव तुमकां चडांत चड बरो मनीस घडपाखातीर मदत करतलों. तुमी तुमचे बायलेचो चडानचड बरो सांगाती जातले वा ती तुमची चड बरी सांगातीण जावंक पावत. तुमी बरो बापूय वा बरी आवय जावंक पावतलीं वा तुमी आवयबापायचो बरो पूत वा बरी धूव जावंक शकतलीं. चड बरो भाव, बरी भयण, इश्ट–इश्टीण, सांगती आनी तशेच देशाचे बरे आनी जबाबदार नागरीक जावंक शकतले.

असले सगले बदल तुमचे भितर जेन्ना जातले तेन्ना तुमी चड जबाबदार आनी परिणामकारक व्यक्ती जावंक पावतले आनी ताचो फायदो तुमी जंय काम करतात त्या आस्थापनाक जातलो, हाची हांव खात्री दितां.

तुमचे कडेन हांव म्हजे अणभव वांटून घेतलों. अशें आशिल्ल्यान तुमी स्वता त्या तीस प्रशिक्षणार्थ्यां मदले एक आसात अशी कल्पना करात अशी हांवें तुमकां विनवणी केल्ली.

वेग वेगळ्या मळां वयले चडान चड लोक ह्या ३० जणांच्या कल्पनेतल्या जम्या भितर सामील जाल्ले आसात अशी हांव कल्पना करतां.

ह्या सोंपचोना तसल्या प्रवासांत तुमी म्हज्या सांगाताक आसात म्हूण हांव तुमकां धन्यवाद दितां. आमी सगले एकठांय जावन कल्पना शक्तेचे उर्जेचो अणभव घेवया आनी तातूंतल्यान जिणेंत आनंद फुलोवया!



# जगपांतलो आनंद

*भूतकाळा विशीं दुख्ख नाका, भविश्याचो हुसको नाका,*
*आपणाल्या वांट्याक संकटां येतलीं अशी चिंता नाका,*
*आतांच्या खिणात मन लावन आनी शाणेपनान जगप हो*
*मनाच्या आनी शरिराच्या भलायकेचो मंत्र म्हणपाचें जाणा*
*जायात.*

*– गौतम बुद्ध*

हांव एखाद्रो खंयचेय सुवातेर पावले उपरांत आनंद मेळटलो, हे वृत्तीन केन्नाच जगलों ना. हांवें प्रवासाचो आनंद घेतलो. जें काम हांवें हातांत घेतलें तें काळीज आनी आत्मो लावन केलें आनी जगपाचो आनंद अणभवलो.

जगप हो एक सोंपना तसलो प्रवास अशें हांव लेखतां. हो प्रवास आमी आनंद घेत करया. हेर कोणूय आमचे वांगडा आयले जाल्यार तांकां येवकार दिवया आनी आमचो आनंद तांचे वांगडा वांटून घेवया.

जें आमकां 'करचेंच पडटा, तें आमी करपाचें' आसा अशें बदलून घेवया. मागीर जें कितें आमी करतात ताचो आनंद घेवंक शकतले.

तुमी जें कितें करतात तातूंत पुरायपणी देंवात. ही गजाल खूब सादी. तुमी च्या पितात जाल्यार घोंट घोंट पियेत ताची रूच घेयात. त्या अणभवाचो आनंद घेयात. वर्तमानात जगपाचो यत्न करात. भूतकाळाकडच्यान शिकचें, भविश्याची येवजण आंखची आनी वर्तमानात जगचें.

गुलाबाचो वास घेवपाक सवड काडात. सगल्या जिव्या सृश्टीची

सोबाय पळयात. एखाद्रें ल्हान भुरगें दिसलें जाल्यार ताका पळोवन हांसात. तें जेन्ना परतून तुमकां हांसतलें तेन्ना त्या हांशात तुमकां देवाचें अस्तित्व जाणावतलें. म्हाका खंय तरी वाचिल्ल्याचें याद जाता, ''हांसो हो आपणाल्या चेऱ्याचे खिडकेंतलो दिवो, काळीज आमच्या घरांत आसा अशें तें आमकां सांगता.''

दर एक दीस, दर एक खीण हे आमकां देवान दिल्ली भेट. ती उत्तम रितीन वापरात आनी तिचो आनंद घेयात. तुमी जेन्ना जेन्ना आनंदांत आसतात तेन्ना तेन्ना अनेक आनंद दिवपी गजाली, घडणुको, संदी तुमचे मेरेन चलून येतात, तुमचेर घालून घेतात. ताचें कारण कितें जाणात? कारण तेन्ना तुमी आनंद शिंपडायत आनी पातलायत आसतात.

सदां सकाळीं जेन्ना आमी दिसाची सुरवात करतात तेन्ना एका देवळांत तुमी भितर सरतात अशें मानात. तुमची भावना तशीच मनात बाळगून तशे तरेचें वर्तन चालू दवरात. मागीर भितरले मुर्तीक पुरायपणी समर्पीत जायात.

आमी वर्तमानात जगपाक शिकया. जिणे विशीं काळजांत भरपूर सकारात्मक भावना बाळगात. 'आत्तां' म्हणटात तो सगळ्यांत म्हत्वाचो वेळ. 'आत्तां' परतून केन्नाच येना.

या केन्नाच सोपचो ना अशा 'जगप' नावाच्या प्रवासाचो आमी सगले जण आनंद मेळोवया.



# मानव संसाधन विकास

*मनशाक तो जसो आसा तसो वागयात,*
*तो मागीर जल्मभर तसोच उरतलो.*
*मनशाक तो कसो आसूंक शकता,*
*कसो आसूंक जाय हाची जाणविकाय बाळगून वागयात.*
*मागीर तो जसो आसूंक शकता, जसो आसूंक जाय, तसो जातलो.*

*– गोएथ*

मानव संसाधन विकास ह्या शब्द चोम्यातलो 'मानव' हो शब्द आमकां सगल्यांक म्हत्वाचो. हो शब्द म्हज्या मनात ताचे तीन आयाम उबे करता. – शरीर, मन आनी आत्मो. तातूंतले शरीर हो शब्द ताची भौतीक शीम दाखयता. ताचे कडेन दुर्लक्ष करूं नाकात. हांवें ताचे कडेन दुर्लक्ष केलें आनी म्हाका ताचें मोल फारीक करचें पडलें. हांव जेन्ना 58 वर्सांचो आशिल्लों तेन्ना म्हजे लागींचे इश्ट म्हाका विचारताले ''आनीक कितलीं वर्सां तूं जगतलो अशें तुका दिसता?''

म्हजी स्पश्ट आनी रोखड्या रोखडी जाप येताली ''एक–दोन वर्सां जगन वा चडच जाल्यार तीन–चार वर्सां.''

आज म्हज्या पिरायेच्या 77व्या वर्सा म्हजी जाप येता ''आजून उण्यात उणीं पांच वर्सां तरी जगन!'' म्हजे भितर हो बदल कसो जालो? त्या सुमाराक हांवें डॉ. अभय बंग हांणीं बरयिल्लें पुस्तक वाचलें. तें मराठींत आसा आनी ताचें नांव –'माझा साक्षात्कारी हृदय रोग.'' तातूंतल्यान हांवें चार धडे घेतले.

१) नेमान प्राणायाम

२) दर दिसा नेमान व्यायाम

३) जेवणा खाणाचेर नियंत्रण

४) वर्तमानात जगप (हें सगल्यांत म्हत्वाचें पूण खूब कठीण)

हांव नेमान हें सगळें करतां आतां हांव 80 वर्सांची पिराय हुपतलों अशें विस्वासान म्हणन.

मनाचेर लक्ष दवरात. मन हें एक मानसीक आयाम. हें कशें साध्य करप? त्या खातीर खूब वाचन करात. नव्यो कल्पना सुचपा खातीर वाचन गरजेचें. ह्यो कल्पना कृतींत हाडात.

तेच प्रमाण खूब बरयात. तुमच्या मनात ज्यो ज्यो भावना येतात त्यो बरोवन काडात आनी स्वताक व्यक्त करात. आपणाल्यो कल्पना हेरांकडेन वांटून घेवपाखातीर बरयात. तुमचे अणभव हेरांक कळपाखातीर बरयात. तातूंतल्यान हेर लोकय चड समृद्ध जातले. हेरांक अशे समृद्ध करीत तुमी स्वताय समृद्ध जायत रावतले.

भविश्याच्यो थोड्यो येवजण्यो आंखात. एका वर्सांत तुमी कितें करपाची आस्त बाळगितात त्या संबंदान येवजण करात. मागीर एका म्हयन्या खातीर, मागीर फाल्यां खातीर आनी निमाणेकडेन आयचो दीस कसो घालोवंक सोदतात तेंयबी थारायात. तुमी स्वता तुमच्या वेळाचे राजा आसतात हें विसरूं नाकात. अशे तरेन येवजण्यो आंखल्यो जाल्यार तुमकां मदत जाता, जाय तीं साधना मेळोवपाक एक दिका मेळटा. तुमच्यो येवजण्यो साध्य करून घेवपाक आनी सपनां कृतींत हाडपाक आदार मेळटा.

मन आनी शरीर हांचें घट्ट नातें आसता हें विसरूंक फावना. मानसीक भलायकी आनी शरीराची भलायकी हातांत हात घालून चलतात. म्हाका दीपक चोप्रा हाच्या 'एजलेस बॉडी ॲण्ड टायमलेस मायंड' (शरीराक पिरायेचें आनी मनाक काळाचें बंधन ना) ह्या पुस्तकांतल्यो कांय वळी याद जातात.

'काळीजरोपण' शस्त्रक्रिया फळादीक जावन बरो जाल्ल्या एका मनशान नात्यांतल्या आपणाल्या मनशांकडेन 'चिकन सूप' मागलें. तांकां

सगल्यांक अजाप जालें. हें कशें शक्य आसा? आयुश्यभर शाकाहारी आशिल्ल्या मनशाक अशी इत्सा जावप शक्यच ना. उपरांत जेन्ना चौकशी केली तेन्ना खरी गजाल कळ्ळी. ज्या मनशाचें काळीज ताका बसयिल्लें तो मांसाहारी जेवपी खावपी आशिल्लो. तो एका मोटारीच्या अपघातांत मेल्लो. तेन्ना तो मॅक्डोनाल्डांतल्यान चिकन घेवन घरा येतालो.

आत्मो हो शब्द तुमच्या आध्यात्मीक आयामाकडेन संबंदीत आसा. दर एका मनशा मदलो आत्मो हो विशाल परमात्म्याचो अंश आसता. एकामेकाची सेवा करप म्हणल्यार परमात्म्याची सेवा करप. दुसऱ्यांक मदत करपाक केल्लें कसलेंय काम हें एक आध्यात्मीक काम आसता. तुमच्या नीतिमुल्ल्यांचो हातूंत म्हत्वाचो वांटो आसता. मदत करप हें जगांतलें सगल्यां परस सुंदर अशें क्रियापद. फकत प्रेम करप हें एक क्रियापद हाचे आदीं येता अशें हांवें आयकलां. हांवें जेन्ना म्हज्या वेवसायीक आयुश्याक सुरवात केली, तेन्ना हांवें 'चिकन सूप फॉर द सोल' ह्या पुस्तकांचे माळे विशीं आयकलें. पयलीं म्हाका तीं जेवणां खाणांच्या कृतींचीं पुस्तकां आसतलीं अशें दिसलें. मागीर वाचलीं तेन्ना तीं जिणेंत घडिल्ल्या खऱ्या गजालीं संबंदांतलीं म्हूण कळ्ळें. त्यो गजाली वाचून म्हाका जिणेक फुडो करपाचें आध्यात्मीक बळ मेळ्ळें. एक ल्हानशी गजाल सांगतां. महात्मा गांधी एक फावट रेलगाडयेंत चडटाले. ते गडबडें तांच्या पांयांतली एक व्हाण सुटून सकयल पडली. गाडी सुरू जाली तेन्ना तांणी दुसरी व्हाण काडली आनी तेच दिकेन शेवटून माल्ली. कारण कितें? तर ज्या कोणाक ती पयली व्हाण मेळटली ताकाच दुसरीय मेळ्ळी जाल्यार ताका त्यो व्हाणो वापरूंक मेळटल्यो. हें काम वयल्या थराचें म्हणल्यार आध्यात्मीक जालें ना?

मनशाचे जिणेचे तीन आयाम – शरीर, मन आनी आध्यात्म हाचे विशीं इतलें पुरो.

आतां आमी संसाधन ह्या शब्दाचो विचार करया. एका विद्यार्थ्याचो एक प्रस्न आशिल्लो – सोर्स आनी रिसोर्स (स्त्रोत आनी संसाधन) हातूंतलो फरक कितें? म्हाका तेन्ना योग्य जाप येवजली ना. आज हांव खात्रेन संगूक शकतां – वापरू वापरून जें सोंपना ताका संसाधन म्हणटात. एके

इमारतीचेर बांदिल्ली उदकाची टांकी हो आमच्या उदकाचो 'सोर्स'. वापरतात ते प्रमाण ती रिती जाता. आमच्या गांवांतली बांय ही उदकाचें संसाधन. जितलें उदक तुमी उसपून घेतात तितलें तिचे झरे तें परतून भरतात.

हांगा संसाधन म्हणल्यार आपणाभितर शक्त आसता ती. तिका मर्यादा ना . तुमचे भितरली ती विशाल शक्त जागी करात. मागीर तुमचे उदरगतीक आनी संपन्नतायेक मर्यादा पडची ना. मळब हीच तुमची मर्यादा थारतली.

अँथनी रॉबिन्स हांणीं बरयिल्ल्या दोन पुस्तकांचीं नांवां आसात 'अनलिमिटेड पावर' आनी 'अवेकन द जायंट विदीन' (मर्यादा ना अशी उर्जा आनी तुमचे भितरले विशाल शक्तेक जागयात) 15-16 वर्सां आदीं हांवें हीं पुस्तकां वाचलीं. त्या खातीर हांव म्हजे भितरले ते शक्तेक जागोवंक पावलों. म्हजे भितरल्या प्रशिक्षकान जल्म घेतलो आनी आज ताचो विकास जायत आसा.

आतां 'विकास' हो शब्द आमी समजून घेवया. ताचो समान वर्गांतलो शब्द 'वाढ' वा उदरगत जावप. विकास आनी वाढ वा उदरगत हे लागसार आशिल्ले शब्द. पूण 'मानव संसाधन विकास' ह्या विशयाचो अभ्यासक जाल्ले कारणान आमी विकास ह्या शब्दाविशीं वेगळो विचार करचो पडटलो. हांगा विकास म्हणल्यार सकारात्मक वाढ, उदरगत जावप होच अर्थ घेवप गरजेचें. शरीरा भितर कर्क रोग वा कांक्राच्यो पेशीय बी वाडटात. पूण ही वाड नकारात्मक आसता. ती शरीराक लुकसाण करता.

हो विकास सोपयता आसतना हांव एक म्हत्वाचें सुभाषित सांगतां ...

हांव एक सामान्य मनीस म्हण जल्माक आयलों
कारण तें म्हज्या हातांत नाशिल्लें
पूण हांव सामान्य मनीस म्हूण मरचों ना,
कारण तें म्हज्या हातांत आसा.

ज्या कोणा मनशान ह्यो वळी बरयल्यात ताका म्हजो सलाम!



# म्हाका शिकोवपाचें पिशें

*शिक्षक दार उगडून धरता*
*भितर पावल तुमीच दवरपाचें आसता.*

*– एक चिनी म्हण*

*एक बरो शिक्षक*
*हजार धर्मोपदेशकां इतलो मोलादीक आसता.*

*– इंगरसोल*

तो शिक्षक दीस आशिल्लो. 5 सप्टेंबर 2011. म्हजे संस्थेन म्हजे खातीर एक ल्हानशी सत्काराची कार्यावळ थारायल्ली. म्हजे वांगडा सत्कारमुर्तीमदीं आनीक दोग जाण अतिथी प्राध्यापक आशिल्ले.

म्हजे खातीर हो म्हत्वाचो सुवाळो आशिल्लो. तो म्हज्या भोवमाना परस व्हड आशिल्लो. ताचें पयलें कारण म्हणल्यार हांव हेच संस्थेंत शिकिल्लों. ती म्हजी पदवी एम.एल.डब्ल्यू. अँड आय.आर. (मास्टर ऑफ लेबर वेलफेयर अँड इंडस्ट्रियल रिलेशन्स) हेच संस्थेंतल्यान 1975-77 वर्सा हांवें घेतिल्ली आनी विद्यापिठांत पयल्या वर्गांत पयलो आयिल्लों. आनी एकल्यान म्हजे वांगडा हो मान मेळयिल्लो. दुसरें कारण म्हणल्यार म्हज्या ह्या येसाक लागून हे संस्थेंत प्राध्यापक जावपाचो म्हजो मार्ग म्हाका सोपो जाल्लो. हो बदल म्हजे खातीर नोकरी बदलपा मेरेन सिमीत नाशिल्लो, तर हे घडणुकेक लागून हांवें खूब काळासावन पळयिल्लें म्हजें सपन पुराय जाल्लें. शाळेंत शिकतालों तेन्ना साकून म्हज्या काळजाचे कुपयेंत हें सपन हांवें बाळगिल्लें. हे संस्थेंत म्हजें तें सपन फळा आयलें.

तिसरी गजाल म्हणल्यार रिटायर जाले उपरांत एक नामनेचो मानव संसाधन विकास मळावयलो प्रशिक्षक म्हूण म्हजो जो करीयर सुरू जालो ताचें मूळ हे संस्थेंतल्या चवदा वर्सां भोवमानान केल्ले प्राध्यापकी सेवेंत आशिल्लें. हांव हे संस्थेचो विद्यार्थी आसतना म्हाका शिकयताले ते एक प्राध्यापक सुवाळ्याचे अध्यक्ष आशिल्ले. आनी म्हत्वाची गजाल म्हणल्यार हो सत्कार डॉ. सर्वपल्ली राधाकृष्णन हांच्या जल्म दिसा घडून येतालो. एक व्हड तत्वज्ञ आनी शिक्षक म्हूण नामनेक पाविल्ले डॉ. राधाकृष्णन हांचीं पुस्तकां अभ्यासपाचें भाग्य म्हाका कॉलेजींत तत्वज्ञान विशयाचो विद्यार्थी आसतना लाबिल्लें. अशा या सगल्या कारणांक लागून हांव इल्लो उचंबळ जाल्लों.

म्हाका जेन्ना चार शब्द उलोवपाक सांगलें तेन्ना म्हजे खातीर तें एक आव्हान कशें आशिल्लें. तयारी करिनासतना हांव एक वर भर उलोवंक शकतालों. पूण थोड्या शब्दांनी उलोवप कठीण आशिल्लें. म्हजे भितरलो शिक्षक जागो जालो आनी हांव उलोंवक लागलों.

''माचयेवयले सगले मानादीक आनी म्हज्या मोगाळ विद्यार्थी इश्टांनो, म्हाका हांगा जर एका वराचो वेळ दिल्लो जाल्यार हांव कसलीच तयारी करिनासतना सोपेपणी बरे भशेन उलोवंक शकतालों. अर्द्या वराचो वेळ दिल्लो जाल्यार म्हाका तयारी करपाक दोन तीन वरां पुरो आशिल्लीं. पूण म्हाका 10-12 मिनटांच मेळटलीं हाचो अदमास जेन्ना म्हाका लागलो तेन्ना तयारे खातीर म्हाका चार पांच वरां लागलीं. तेन्ना म्हजे शब्द लक्ष दिवन आयकात, अशें हांव तुमचे कडेन मागतां. हांव फकत म्हजे अणभव तुमचे वांगडा वांटून घेतलों. तुमी तातूंतल्यान जी कितें देख घेवपाची आसा ती घेयात.

हांव विद्यार्थी आसतना ह्या जगांत दोन तरांचे मूर्ख आसतात अशें हांवें आयकल्लें. पयले तरेचे म्हणटात ते उपदेश करपी आनी दुसरे तरेचे म्हणल्यार त्या उपदेशाचो मातूय उपेग करनात ते. हांव पयल्या पंगडांत वचपाक तयार ना आनी तुमी दुसऱ्या पंगडांत वचचें न्हीं अशें हांव तुमचेकडेन मागतां. म्हजे अणभव तुमकां सांगतां, तुमी जाय तितलो बोध

तातूंतल्यान घेयात. तुमी सगळे शाणे आसात, जाणा जाल्ले आसात, बरें कितें, वायट कितें हातूंतलो फरक तुमकां कळटा. हांवें आदीं केन्ना तरी वाचिल्लें ''जे करपाक शकतात ते करतात आनी जे करपाक शकनात ते शिकयतात.'' जे कोण उपाय ना म्हूण घडये शिकोवपाच्या वेवसायांत देंवतात तांचे संबंदान अशें म्हणप समा आसत पूण जे कोण वेवसायांत आवडीन आनी शिकोवपाच्या मोगान ह्या मळार देंवतात तांकां हो नेम लागू जायना. हांव शिकोवपाच्या मोगान ह्या मळार आयलां. हांव शिकयता आसतना खोशी आसतां, आनंदी आसतां त्याच खातीर तुमकां शिकता आसतना आनंद मेळटा. हांव कितें म्हणटां तें सारकें आसा न्हीं? हांव वाचन करतां तें नव्यो नव्यो कल्पना सुचपाक जाय म्हूण करतां. त्यो कल्पना म्हजे कृतींत येवचे खातीर हांव यत्न करतां. हांव एक शिक्षक तसोच एक करणारोय बी. म्हजे अणभव वांटून घेतना म्हाका आनंद जाता. जगपांतलो आनंद हांव सतत घेत रावतां. म्हजें जगप हो सोंपचोना असो एक प्रवास अशें हांव मानता.

हांव फाटलीं तीस वर्सां जरी शिकयत आसलों तरी आजुनय शिकत आसां आनी उरिल्ल्या आयुश्यांतय बी शिकत रावीन. हांव फकत पुस्तकांतल्यान शिकतां अशें न्हीं तर म्हज्या विद्यार्थ्यांकडच्यानय शिकत रावतां. ह्या म्हायतीच्या युगांत म्हजे परस कितलीशीच चड म्हायती इंटरनेटा वयल्यान सोदून काडात अशें हांव तांकां सांगत आसतां. हांव तांकां विशय वेंचून काडून ताचेर पावर पॉयंट प्रेझेंटेशन दिवपा खातीर उमेद वाडयत रावतां. ताका लागून तांकां नवी आनी ताज्री म्हायती मेळटाच, त्या भायर प्रेझेंटेशन करपाची संवय जाता. हे कलेचो तांकां तांच्या करियरांत खूब उपेग जाता.

हांवें तांकां प्रेझेंटेशनाच्या आदारान शिकोवपाची संवंय लायल्या. हांव तांकां एका विशया संबंदांतली म्हायती दितां आनी तो खाशेलो विशय तांकां मानव संसाधन विकास वेवसायीक जावपाचे नदरेन कशे तरेन संबंदीत आसा ते विशीं सांगतां. त्या विशया वयल्या पुस्तकांचीं नांवां दितां आनी एकदम नवे म्हायती खातीर आनी संदर्भा खातीर इंतरनेट पळोवपाकय

सांगतां. ते बरे तरेन आपणालीं कामां करतात. त्या खातीर परिक्षेंतय ते सातत्यान बरें येस जोडटात. जायते फावटी तांचें पॉवर पॉयंट प्रेझेंटेशन खुबूच परिणाम सादपी आनी ऊंचेल्या पांवड्याचें जाता. तेन्ना म्हाका उठून ताळ्यो मारीन दिसता. तांकां मागीर हांवेंच सांगचें पडटा किं आज मेरेन हांव शिक्षक आनी ते विद्यार्थी आशिल्ले, पूण त्या दिसा तांणीं हांव विद्यार्थी आशिल्ल्याचें म्हाका भासयलें आनी म्हाका तांचे कडच्यान अनेक नव्यो गजाली शिकपाक मेळ्ळ्यो म्हूण.

आतां हांव तुमकां एका अनुभवी जाणट्या प्राध्यापकाची हांवें आयकल्ली एक खबर सांगतां. वर्गांत वचचे पयलीं तो आपणाले नोटस् वाचतालो. ताच्या सहकारी शिक्षकान एक दीस तांकां विचारलें, ''इतल्या लांब काळाचो अणभव आसतनाय वर्गांत वचचे पयलीं तुमकां तुमचे नोटस् परतून वाचपाची गरज कित्याक भासता?'' त्याच खिणाक तांणी जाप दिली, ''जेन्ना हांव वर्गांत भितर सरतां तेन्ना सामकार बशिल्ले विद्यार्थी देवा सारके आसतात आनी देवाक सदांच ताजीं फुलां ओपपाक जाय अशें म्हाका दिसता.'' तांकां आपणाल्या विशयांतली नवीताल्ल म्हायती विद्यार्थ्यांक दिवपाची आसताली. हांव जेन्ना वर्गांत भितर सरतां तेन्ना म्हाका सदांच त्या प्राध्यापकाची ती जाप येवजता.

म्हाका शिकोवपाची खूब ओड. 14 वर्सां हांगा नेमान हांवें शिकयलें. ते उपरांत हांव फाटलीं वीस वर्सां हांगा अतिथी प्राध्यापक म्हूण येत आसां. हांगा संस्थेंत येवन दोन वरां शिकवपा खातीर म्हाका चार वरांचो प्रवास करचो पडटा. तोय बी पिरायेच्या 78व्या वर्सा! म्हाका जेन्ना लोक हे विशीं विचारतात तेन्ना शिकोवपांतल्यान म्हाका जो आनंद मेळटा त्या खातीर हांव हें करतां अशें तांकां सांगतां. म्हज्या पेन्शनाखातीर यत्न करपाचें सोडून दिवन हो आनंद घेवपाचो यत्न करतां. ताचें कारण म्हजें पेन्शन हांवें फाटपुरावो करपा बगर म्हज्या बँक खात्यांत जमा जाता.

म्हजे बायलेचे मात विचार वेगळे. ती म्हजी काळजी घेताच त्या शिवाय म्हजे भलायकेचोय तिका हुसको आसता. पांच स वर्सां जालीं ती म्हाका हे संस्थेंत येवन काम करपाचें आस्ते आस्ते कमी करून बंद कर

म्हणटा. तिचो हुसको म्हाका कळटा. वर्साचे सुरवातेक विद्यार्थ्यांची फाटभूंय तयार करपाखातीर दोन तीन व्याख्यानां घेतां आनी फुडल्या म्हयन्याच्यान बंद करतां अशें हांव तिका सांगतां. हो फुडलो म्हयनो आजून येवंक ना. म्हजी शिकोवपाची खर इत्सा आनी म्हाका विद्यार्थ्यांचोयबी हुसको दिसता, हीं कारणां म्हाका बायलेक दिल्लें उतर पाळूंक दिनात.

आतां तिणे म्हाका विचारपाचें सोडलां. सांगून कांय उपेग ना म्हूण तिका कळ्ळां. पूण तरीय बी ती आपणालें बायलेचें कर्तव्य करतना म्हजे भलयकेची मोगान काळजी घेत रावता. म्हजो जेवणाचो डबो आनी उदकाची बाटली चुकनासतना बॅगांत घालता आनी हांव भायर सरून वतां तेन्ना 'बेगीन यो' म्हणून सांगपाक विसरना.

हांवें एक फावट तिच्या मनात कितेंय दुबाव आसल्यार तो काडपाचो यत्न केलो. हे संस्थेंतल्या सगल्या विद्यार्थिनींक हांव म्हज्या धुवे समान लेखतां अशें एक दीस तिका हांवें सांगलें. तेन्ना अर्थपुराय हांसून तिणे म्हणलें, ''आमचे धुवेच्यो धुवो आतां शाळेंत वचपाक लागल्यात. खरो मुद्दो तो न्हीं, म्हजो तुमचेर पूर्ण विस्वास आसा.'' मागीर मुखार ती म्हणपाक लागली की हांव संस्थेंत वतां तेन्ना बरे टीपटॉप कपडे घालता, ते दिस्ताक दीस्त आसपाची जतनाय घेतां आनी हांव तेन्ना खूब उत्साही आसतां. हरशीं खयीं दुसरेकडेन वतां तेन्ना तितलो उत्साह दिसना. तेन्ना वयले वयर दिसता ताचे परस हांगा वेगळें कितेंय आसत काय असो तिका अदींमदीं दुबाव येता.

मोगाळ विद्यार्थी इश्टांनो, हांव तुमच्या वेवसायांतल्या आनी जिणेतल्या चकचकीत फुडारा खातीर आंवडे व्यक्त करतां. जीणेत सदांच विद्यार्थी उरपाचो यत्न करात अशें आयच्या शिक्षक दिसाच्या शुभदिसा हांव तुमकां सांगूंक सोदतां. हेन्री फोर्ड हांणीं म्हणलां, ''तुमी वीस वर्सांचे आसूं वा अंयशीं, ज्या खिणाक तुमी नवें शिकपाचें थांबयतले तेन्नाच्यान म्हातारे जावंक लागतले.'' एका अनामिकान म्हणलां तें मुद्दाम तुमकां सांगतां, ''शिकता आसतना तुमी सदांखातीर जिते उरतले अशें समजात आनी आयुश्य जगता आसतना आयचो दीस निमणो अशें समजात.'' दुसऱ्यांचें

बरें जावंचे खातीर जगात आनी तांच्या काळजांत तुमचे खातीर जागो निर्माण करात. रॉबीन शर्मा ह्या नामनेच्या लेखकान ''हू विल क्राय व्हेन यू डाय?'' असो स्वताकच प्रस्न विचारात अशें ह्याच नांवाच्या आपणाल्या प्रसिद्ध पुस्तकांत सुचयलां.



# भावनीक बुदवंतकाय आनी धरतरेवयलो सर्ग

*मेंदवान म्हणलें, 'हांव शरीरांतलो सगळ्यांत शिट्टूक अवयव'*
*काळजान म्हणलें, 'तुका हें कोणे सांगले?''*

*– अनामीक*

देवदूत लेगीत ज्या वाठारांत वचपाक भितात अशा एका वाठारांत हांव पावल घालतां. त्या वाठाराचें नांव 'भावनीक बुदवंतकाय' (इमोशनल इंटेलिजन्स). भितर सरपाची धिटाय हांव इल्ली ताकतिकेन करतां अशें दिसून तुमी म्हाका मूर्ख म्हणलो तरी हांव तुमचें म्हणणें भौवमानान स्विकारपाक तयार आसां.

हांव जेन्ना म्हजें 'भावनीक बुदवंतकाय' ह्या विशयावयलें म्हजें शिकोवपाचें लेक्चर तयार करतालों तेन्ना वयर दिल्ल्यो वळी म्हाका वाचपाक मेळ्ळ्यो. परतून त्यो हांगा उल्लेख करतां. मेंदवान म्हणलें 'हांव शरीरांतलो सगळ्यांत शिट्टूक अवयव.' काळजान म्हणलें 'तुका हें कोणे सांगलें?'

म्हाका ह्यो वळी आवडल्यो कारण मनशामनशा मदल्या नात्यांचे संबंद कितले सहकार्याचे आसप गरजेचें आसता तें दाखोवन दितात. आनी तातूंत काळजाक कितलें म्हत्व आसता ताचीय जाणविकाय करून दितात. हाचो अर्थ मेंदवातल्यान येवपी विचार उण्या म्हत्वाचे अशेंय बी न्हीं. विचार वास्तव थारतात अशेंय बी हांवें वाचलां आनी अणभवूय आयला. हे विचार वास्तवांत बदलपा खातीर काळजाचीय तितलीच मदत गरजेची वा ताचें म्हत्व कूस भर आदीकच आसता अशें म्हणू येत.

भावनीक बुदवंतकाय म्हणल्यार स्वताच्यो आनी हेरांच्यो भावना वळखुपाची तुमची तांक. ही योग्य तरेन वापरून तुमी तुमच्यो भावना फावो ते तरेन चालीक लावन तुमच्या फायद्या खातीर तांचो उपेग करूंक शकतात आनी हेरांकडल्या तुमच्या नात्यांचे संबंद योग्य तरेन सांबाळूंक शकतात.

सरसकट आमी जी बुदवंतकाय म्हणटात ती आनी भावनीक बुदवंतकाय हांचे मदीं अर्थाचो विरोध ना. भावना विचारांक मदत करतात. विचारांच्या आदारान आमी भावनांचो अर्थ लावंक शकतात. भावनीक बुदवंतकाय म्हणल्यार तुमची भावना वळखुपाची तांक. ती वापरून तुमी तुमच्यो समस्या सोडोवंक शकतात आनी बरे तरेन अर्थपुराय अशी जीण सारूंक शकतात.

एक दीस म्हजी बायल म्हाका कितें तरी सांगताली आनी म्हजें थंय लक्ष नाशिल्लें. म्हज्या आवाजांत फावो तशी नमळाय नाशिल्ली. तसो हांव बेपर्वायेन बी उलोवं नाशिल्लों पूण हांव सभ्यताय सोडून उलयिल्लों ही गजाल खरी.

तिणे नीट म्हज्या दोळ्यांक दोळो लावन पळयलें आनी थोडो वेळ हांवें तिका बायल मानपाचें सोडून इश्टीण वा गर्लफ्रेंड मानून उलोवचें म्हूण सांगलें. तुमकां दादल्यांक बायलेक ग्रहीत धरपाची संवयूच आसता, हातूंत इल्लो बदल करात. तुमचे बायलेकडेन तुमी इश्टीण समजून पळयात आनी मागीर ताचे परिणाम कितें जातात तें पळयात. इतलें उलोवन ती ओगी रावली.

हाचो रोखडोच योग्य परिणाम जालो. ते उपरांत थोडो वेळ आमी सपनात पाविल्लेवरी जालीं. आमचे भोंवतणेत अचकीत रोमँटीक वातावरण तयार जालें. मागीर दोन तीन सप्तकां आमी तीस ते चाळीस वर्सांचे पिरायेचींच आशिल्लेवरी जालीं. एकदम साद्या बारीक बारीक गजालींनीय बी एकामेकाचीं मतां विचारूंक लागलीं.

उपरांत फुडें जेन्ना जेन्ना म्हज्या आवाजांत वैतागाचो सूर जाणवता तेन्ना ती तीन शब्द उच्चारता. ''लक्ष दुसरे कडेन'' व्हरात. तोंडांन ती बायल, इश्टीण असले शब्द वापरना पूण म्हाका सारकें कळटा.

हो नेम बायलेकय लागू जाता हें सांगपाची गरज आसा अशें म्हाका दिसना. बायलेन जे तरेन बायल मानी नासतना इश्टीण मान अशें घोवाक सांगलें तशेंच तांणी दादल्याक घोव मानिनासतना इश्ट मानचो. हो ल्हानसो बदल केलो जाल्यार तुमकां घोवा बायलेच्या संवसारांत धरतरेचेर सर्ग देंवतलो.

अमेरिकेंत खंय एक 'जस्ट सिक्स सेकंडस्' (फकत स सेकंद) ह्या नांवाची संघटना आसा अशें हांवें आयकलां. कसलेय परिस्थितीचेर, घडणुकेचेर, उलोवण्याचेर आपणाली प्रतिक्रिया दिवचे पयलीं फकत स सेकंद रावात असो संदेश ह्या शब्दांतल्यान मेळटा. फकत स सेकंदांचो वेळ तुमच्या मनाक काळजाचो सल्लो घेवपाक पुरो जाता. तुमची प्रतिक्रिया ताका लागून संतुलीत जावंक पावता.

विज्ञानाच्या आदारान उलयतलो जाल्यार मन आनी काळीज हांचे मदीं संवाद जावपाक उण्यात उणो वेळ स सेकंद जाय जाता. हातूंत एक स्पश्ट संदेश मेळटा. तुमच्या बायलेच्या, वा घोवाच्या, भुरग्यांच्या जावं कोणायच्या उलोवण्याचेर प्रतिक्रिया दिवचे पयलीं तुमच्या मनाक काळजा कडेन संवाद सादपा खातीर जाय तितलो वेळ दियात. हांव विद्यार्थी आसतना जें वाचिल्लें तें आजून म्हाका याद जाता – 'काळजाचीं स्वताचीं अशीं कारणा आसतात. तीं मनाक केन्नाच कळचीं ना.'

ल्हानाचीं व्हड जाता आसतना आमी कांय कल्पनाचेर विश्वास दवरून व्हड जातात. सर्ग हो वयर आसा आनी खंय तरी सकयल नरक आसा. आमी वयर गेले जाल्यार आमकां सूख, आनंद मेळटलो आनी सकयल गेले जाल्यार आमकां दुख्ख वेदना भोगच्यो पडटल्यो. जे कोण बरें कर्म करून पुण्य जोडटात ते सर्गार वतात आनी जे हेरांक दुख्ख दिवन पातक करतात तांकां नरकांत वचून हाल इपश्टा सोंसच्यो पडटात.

खूब वर्सां आदीं एक काणी वाचिल्ली म्हाका याद जाता. कांय मनशांचो एक जमो जंगलांतल्यान वतालो. तेन्ना तांकां एक साधू येता तो दिसलो. तो साधू उरफाटे दिकेन प्रवास करतालो. त्या लोकांच्या फुडाऱ्यान ताचीं फकणां मारून लजेक घालपाच्या हेतान एक सादो प्रस्न विचारलो. ''सर्ग

आनी नरक हातूंतलो फरक कितें?''

त्या साधूक ह्या मनशाचो खरो हेतू कळ्ळो. तो प्रस्न ताणे तितलो गंभीरतायेन विचारूं नाशिल्लो. त्या साधून जाप दिली ''असल्या अर्थ नाशिल्ल्या प्रस्नांक जाप दिवपाक म्हाका वेळ ना.''

त्या फुडाऱ्याक राग आयलो. आपणाल्या सांगात्यांमुखार आपणालो अपमान जालो अशें समजून रागान तलवार भायर काडून तो त्या साधूच्या आंगार धांवलो. ''म्हजो अपमान केल्ले खातीर हांव तुका हांगाचो हांगाच जितो मारूंक शकतां.'' ताणे साधूक धमकायत म्हणलें.

साधून मवाळ हांसत ताका म्हणलें ''होच तो नरक.''

आपणाली चूक फुडाऱ्याच्या लक्षांत आयली. ताका पश्चाताप जालो. रागाचे भिरकेंत त्या साधूचो ताच्या हातांतल्यान खून जाल्लो जाल्यार ताका जल्मभराची ख्यास्त जातली आशिल्ली. दुसऱ्या शब्दांनी सांगतलो जाल्यार ताचेर नरक यातना भोगपाची पाळी येवपाची. तो सारको भानार आयलो आनी त्या साधूचे पांय धरले आनी आपणे केल्ले चुकी खातीर माफी मागली.

तेन्ना त्या साधून म्हणलें ''होच तो सर्ग.''

इश्टांनो, तुमी हे भुंयेर सर्ग हाडूंक शकतात, त्या खातीर तुमकां एखाद्रो व्हडलो पर्वत हालोवपाची गरज पडची ना. तुमी जेन्ना दुसऱ्याच्या उलोवण्याचेर वा ताच्या वर्तनाचेर प्रतिक्रिया व्यक्त करतात तेन्ना थोडो धीर धरात. काळजाक आनी मनाक एकामेकाकडेन संवाद करपाक उसार दियात आनी मागीरच उलयात. ताचो परिणाम कितें जाता पळयात. तुमकां हे भुंयेर सर्गाचो अणभव येवंक सुरवात जातली.



# भावनीक बुदवंतकाय आनी मनशां मदलें नात्याचें संबंद

*नातीं आनी अहंभाव हांचें नातें आसा. जेन्ना दुसरें दुखवता तेन्ना पयलें बिगडटा. जेन्ना पयलें जैतिवंत जाता तेन्ना दुसरें बिगडटा.*

*– अनामीक*

हांव एका सेमिनारांत वांटो घेवपाचो आशिल्लों. ताचो विशय आशिल्लो 'मनशा मनशा मदल्या नात्याच्या संबंदांमदीं सुसंवाद वाडोवपाचे प्रक्रियेंत भावनीक बुदवंतकायेचें म्हत्व'. आदले दिसा हांव व्याख्यानाची तयारी करपाक म्हत्वाचे कांय मुद्दे येवजुपाक बसलों.

१. तुमी एखाद्री चूक केल्ली आसल्यार ती मानून घेयात. ती सुदारपा खातीर तयार रावात. फकत 'सॉरी' म्हणात. अशें केल्ल्यान तुमच्या आनी हेरांच्या भावनांक कसो स्पर्श करूंक शकतात तें पळयात. वातावरण एकदम संवादी जावन येतलें.

२. केन्नाय कोणेय एके व्यक्तीन खूब तोखणायेचें काम केल्लें दिसलें जाल्यार ताची स्पश्ट उतरांनी तोखणाय करात 'तुवें एकदम बरें काम केलें आं' अशें म्हणात. दर एकट्याक आपणे केल्लें काम हेरांनी वाखाणचें अशें दिसता. हाका लागून ताच्यो भावना सुखावतात आनी सकारात्मक प्रतिक्रिया निर्माण जाता.

३. कसलोय निर्णय घेवचे पयलीं त्या निर्णयाकडेन संबंधीत मनशांकडेन भासाभास करात. तांकां तांचीं मतां विचारात आनी तांकां निर्णयांत

वांटेकार करून घेयात. ते तुमकां पुराय फाटबळ दितले आनी गरज आसता तेन्ना सहकार्य करतले.

४. तुमकां कोणायची मदत घेवापाची आसता वा ताणे तुमचें कसलेंय काम करचें अशें दिसता जाल्यार 'हें मातशें म्हजें काम करशीत तूं?' वा 'हें म्हजें काम मातशें करपाक जायत तुमच्यान?' अशे तरेची नमळायेची भास वापरात. असली भास तांच्या काळजाक हात घालता आनी आपशींच तांच्या मनात तुमकां जाय तें करपाची इत्सा निर्माण जाता. आपणाले तांकी भायर वचून ते तुमची इत्सा पुराय करपाक तयार जातात.

५. 'थँक्यू' वा 'देव बरें करूं' (उपकार जाले तुमचे) असल्या उतरांचो उपकार मानपा खातीर मुजरत उपेग करात. ह्या मोजक्या दोन तीन उतरां भितर खंयच्याय नात्या भितर बरो संवाद निर्माण करपाची आनी तो तिगोवन दवरपाची सुमारा भायर तांक आसा. तुमचेकडेन जें कितें आसा त्या खातीर जेन्ना तुमी उपकारी भाव तुमच्या काळजांत बांळगितात आनी जें कितें तुमचे कडेन ना त्या खातीर तुमच्या मनात केन्नाच कोडवासाण उरना, तेन्ना तुमच्या मनात ज्यो इत्सा आसतात वा तुमच्यो गरजो आसतात त्यो पुराय जातल्यो. त्या खातीर 'आकर्षणाचो वैश्विक नेम' आपशींच कामाक लागिल्ल्याचो तुमकां अणभव येतलो.

ते उपरांत, तुमी जेन्ना दुसऱ्या कोणा कोणाच्या सहकार्यान आनी आदारान कसलेंय काम पूर्ण करतात तेन्ना तें काम 'आमी केलें' अशें म्हणात. आदार दिवपी मनशांकय ताणी केल्ल्या वावराचें मोल मेळपाक जाय. ते मागीर सतत तुमकां सांगात दितले.

हे कांय म्हत्वाचे मुद्दे तुमी लक्षांत दवरले जाल्यार जांच्या सांगातान तुमकां काम करपाचें आसता, तांच्या मनांत तुमचे विशीं योग्य त्यो सकारात्मक भावना निर्माण जातल्यो.

मनशांक फकत जाणा जावन उपेग ना तर आपणाल्यो तांचे विशींच्यो भावना उलोवन दाखवपय बी गरजेचें आसता. इतलें करात आनी तुमच्या

नात्याच्या संबंदांमदीं जो बरो संवाद घडून येतलो ताचो आनंद घेयात.

हांव आनी म्हजी बायल सरसकट एक आनंदी जोडपें अशें हांव मानतां. घडये एक आदर्श जोडपें न्हीं जायत, पूण खात्रेन आनंदी म्हणन. एका आदर्श जोडप्याक तुमी धा गूण दिवपाचे थारायले जाल्यार आमी 6 वा 7 मेळोवंक शकतात.

आमचेकडच्यान जेन्ना कसलीय चूक जाता तेन्ना आमी एकामेकाक 'सॉरी' म्हणटात. अशे तरेन चूक मानून घेवपांत हांव तिचे परस एक पावल मुखारच आसतां. आमी एकामेकाच्या सगल्या कामाची वाखाणणी करतात आनी 'तुवें हें बरें काम केलें आं' अशें म्हणपाक अनमननात. ल्हान सान गजालींनी म्हणल्यार 'आज नाश्त्याक वा जेवणाक कितें करूं?' असल्या विशींय बी एकामेकाचीं मतां विचारतात.

आमचे मदीं नमळायेची चलणूक आपणावपांत ती म्हजे परस मुखार लागता. हातूंत तिका म्हजे परस चड गूण मेळटले. हांव घरा भायर सगल्यांकडेन खूब नमळायेन आनी सभ्यतायेन वागतां पूण तिचेकडेन म्हजी चलणूक तितले उंचायेची आसना अशें ती म्हाका दाखोवन दीत आसता.

'हेर लोकांचें कशें आयकुचें' ताची कुशळटाय म्हजेकडेन आसा आनी हांव 'आयकून घेवपाची कला' ह्या विशयाचेर व्याख्यानां दीत आसतां अशें ती म्हणटा. पूण हांव खंय तिचेकडेन लोकांक सांगतां आनी वागतां तशे तरेन वागना आनी आपणालें तूं कित्याक आयकून घेना? अशें ती विचारता. हाची समाधान करपी जाप म्हजेकडेन आसना.

म्हजे असले चलणुकेचें हांव समर्थन करतां अशें न्हीं. पूण एक ल्हानशी जाप हांव दिवंक शकतां -''आमी एकामेकाक इतलीं लागीं आसतात, मनान जोडिल्लीं आसतात, एकामेकाचेर इतलो मोग आसता ताचें तें मोल. तें आनंदान फारीक करपाक जाय.''

सगल्या ल्हान सान गजालींनी आमी एकामेकाकडेन प्रामाणीक आसात आनी उपकारी भावनेन चलतात. प्रत्येक फावटीं 'थँक्यू' सारके शब्द येतलेच अशें ना. पूण त्यो उपकाराच्यो भावना फकत शब्दांतल्यानूच व्यक्त जातात अशें आमी मानिनात.

आमी जेन्ना कसलेंय एक काम दोगांय मेळून करतात तेन्ना एकामेकाक मदत करतात आनी 'हें आमी केलें' अशें म्हणून ताचें बरें वायट फळ वांटून घेतात. इतलेंच हांव निमाणेकडेन म्हणन.

एक तरणाटो आनी एक तरणाटी लग्न करपाचें आपलीं आपूण थारायतात आनी दोगांकय बरो वळखुपी जाणट्या मनशाकडेन ताचे आशिर्वाद घेवपाक वतात. ''तुमी दोगांयनी लग्न करपाचें थारायलां ताचे फाटलीं कारणां कितें?'' अशें तो जाणटो मनीस तांकां विचारता. तेन्ना तो तरणाटो जाप दिता ''ती म्हाका आवडटा आनी म्हजो तिचेर मोग आसा, ती म्हाका सूख दितली अशी म्हाका आस्त आसा.'' ती तरणाटीय बी तशेंच म्हणटा ''तो म्हाका आवडटा, म्हजो ताचेर मोग आसा आनी जिवीतभर तो म्हाका सुखी दवरतलो अशें म्हाका दिसता.''

जाणटेलो तांच्यो जापो आयकून हांसता आनी तांकां बसात म्हणटा. खीण भरान तो तांकां सांगता ''तुमी जर एकामेकामदीं दुसरो आपणाक सुखी दवतलो अशी अपेक्षा बाळगून लग्नाचे वेदीर चडटात आसत जाल्यार तुमचें उपरांतलें नातें घटमूट उरचें ना. तुमी थोडो विचार करात आनी मागीर म्हाका जाप दियात.''

तीं दोगांय थोडो वेळ विचार करतात आनी मागीर सांगतात 'आमी एकामेकाक सुखी दवरतलीं असो विचार करूनच लग्न करपाक तयार जाल्यांत.'' तेन्ना तो जाणटो मनीस तांकां म्हणटा ''तुमी योग्य विचार केला.'' अशें म्हणून तांकां खोशयेन आशिर्वाद दिता.

खंयच्याय कुटुंबांत जेन्ना आवयबापायक भुरग्यांक सुखी दवरपाचें आसतात आनी भुरग्यांक आवयबापायक सुखी दवरपाचीं आसतात, घोव बायलेक सुखी दवरपाक सोदता आनी बायल घोवाक सुखी आशिल्लो पळोवपाक धडपडत आसता तेन्ना त्या नात्यामदीं बरो संवाद घडून येता आनी तातूंतल्यान जो गोडवो निर्माण जाता ताका शीम-मेर उरना. तुमी दीयत रावतात आनी तुमकां मेळत रावता. अपेक्षा धरल्यो आनी त्यो पुराय जाल्यो ना जाल्यार दुख्ख आनी वेदना वांट्याक येतात. दुसऱ्याक मोग आनी आनंद दिवप तुमच्या हातांत आसता. अशे तरेन बरो संवाद उरप

काळजाकडेन संबंदीत आसता.

''जिणेंत जर तुमी नातीं जोडून तांचे मदीं बरो संवाद राखून दवरपाच्या यत्नात जैतिवंत जावंक सोदतात आसत जाल्यार तुमी स्वता भितर तीन कारखाने निर्माण करचे पडटले. एक म्हणल्यार तुमची तकली सदां थंड उरपाखातीर भितर एक बर्फाचो कारखानो, जीबेन सदां गोड उलोवचें म्हूण तिचेर साकरेचो कारखानो आनी काळजांत मायमोगाचो झरो सतत व्हांवतो दवरपाचो कारखानो आसपाक जाय .. मागीर तुमची जीण फळादीक जालीच म्हूण समजा.'' अशें कोणे तरी एका अनामिकान म्हणलां.



# सतत व्हांवती उरपी उर्जेचो आनंद घेयात ...

*काम करीत उरप आनी विसव घेवप ह्यो जिणेच्यो दोन वटो. तांचे मदीं तोल सांबाळून रावप ही एक म्हत्वाची कुशळटाय.*
*केन्ना कितें मेळोवपाक जाय आनी कितलें मेळोवपाक जाय हाचे वयल्यान मनशाचें शाणेपण कळटा.*
*विसव घेता आसतना काम करीत रावप आनी कामात आसतना विसव घेवप, म्हणल्यार तें निमणे स्वातंत्र्य.*

*– अनामीक*

हांवें रातच्या सुमार इकरा वरांचेर बरोवपाक सुरवात केली. म्हाका दुसरे दिसा 'शिकवप' ह्या म्हाका खूब मानवता त्या विशयाचेर व्याख्यान दिवपाचें आशिल्लें. म्हाका धा ते बारा मिनटां उलोवपाक मेळपाचें.

हांवें जेन्ना पेन सकयल दवरलें तेन्ना एक खूब बरें काम केल्ल्याचें समाधान म्हाका जाणवतालें. फांतोडेचीं तीन वरां जाल्लीं. जेन्ना काम पुराय जालें तेन्ना म्हाका वेळाचें भान आयलें.

त्या चार वरां मदीं हांव भितरल्यान एके तरेची उर्जा व्हांवत रविल्ले स्थितींत काम करतालों.

ज्या मनशांक काम करता आसतना भितरल्यान उर्जा व्हांवत आशिल्ल्याचो अणभव येत रावता ते मनीस कामाविशीं केन्नाच पिंरगनात. तांकां त्या कामांत आनंदाचो अणभव येता. ते मनीस आपणालीं काळीज आनी आत्मो लावन काम करीत रावतात. अशे तरेन आपणा भितर उर्जा व्हांवत राविल्ल्याचो अणभव येता तेन्ना आपणाली भावनीक बुदवंतकाय उंचांतल्या ऊंच तेमकार आसता. तेन्ना मनशा हातांतल्यान उत्तम काम

जावंक पावता.

तुमचे कडच्यान जेन्ना बऱ्यांतलें बरें काम जाता तेन्ना तुमकां व्हांवते उर्जेचो अणभव येता. हे व्हांवते उर्जेचे अवस्थेंत तुमी आसतात तेन्ना तुमच्यो सगल्यो भावभावना सकारात्मक आसतात आनी त्यो तुमच्या हातांतल्या कामाचेर एकवटीत जाल्ल्यो आसतात. तुमकां तेन्ना आनंदाचोय अणभव येता आनी भायल्या गजालींचेर तुमचें लक्ष वचना वा तुमचें मन त्यो विचलीत करिनात.

एकदम भितरल्यान आनंद वयर उसळून येवप म्हणल्यार उर्जेचे व्हांवते स्थितींत आशिल्ल्याची कुरू. म्हजी धाकली नात जेन्ना चित्रकलेचो गृहपाठ करता तेन्ना ती तातूंत पुराय बुडून वता आनी आशीकुशीक कितें चललां हाचेकडेन तिचें लक्षच आसना. चित्र काडपाच्या कामाचो आनंद तिका हेर कित्याचेंच भान लागूंक दिना. तेंच काम तिका फुडें वचपाक उर्बा दीत रावता.

म्हजे बायलेचीय बी सादारण ताशीच गत जाता. ती जेन्ना नाश्त्याक वा जेवणाक रुचीक पदार्थ करपाक लागता तेन्ना अशीच आनंदांत उरता. ती तशी सुगरण न्हीं पूण जेवण मन लावन करता. ती कितेंय पदार्थ करता तेन्ना तिणे तें काळीज ओतून केल्लें आसता. तें जेवणय मागीर रुचीक लागता.

तुमकांय बी अशें व्हांवतें रावून काम करपाचें आसल्यार हातांतल्या कामाचेर पुराय लक्ष केंद्रीत करात. आज सकाळच्यान हांव अशें व्हांवतें रावपा खातीर कितें करचें हाचेर बरोवपाचें थारावन विचार करीत आसां. आतां मध्यान रातीर स्वताक व्हांवतो दवरपाक म्हाका साध्य जालें आनी आपसूक शब्द मनातल्यान उसळून वयर येवंक लागले. हातांतलें पेन त्या विचारां फाटल्यान धावूंक लागलें आनी अक्षरां कागदार उदेवंक लागलीं.

जेन्ना सदां परस चड काम करपाचें आसता तेन्ना चड बरे तरेन लक्ष केंद्रीत जावपाक बरें पडटा. काम चड सोपेपणी जावपाचें आसल्यार कंटाळो येता आनी खूब हाता भायलें आसा अशें दिसलें जाल्यार मनार खूब ताण येता आनी तें अस्वस्थ जाता. कंटाळो आनी अस्वस्थताय ह्या दोन तोंकां मदल्या नाजूक भागांत खंय तरी तुमी आसले जाल्यार काम करता

आसतना व्हांवतो आशिल्ल्याचो अणभव येता. आपणे जें काम करपाक घेतिल्लें आसता ताचो आनंद जावप आनी काम परिणामकारक जावप ह्यो दोन गजाली अशें व्हांवतें आशिल्ल्याच्यो खात्रेच्यो कुरवो.

अशें व्हांवतें आसपाचे अवस्थेंत आपूण आशिल्ल्याचो अणभव घेयात आनी जिणेंत आनंद फुलयात.

हालींच म्हज्या एका इश्टान म्हाका 'कांयच करप ना' हे नवे संकल्पने विशीं सांगलें. व्हांवतें आसपाचे अवस्थेक ही संकल्पना पूरक आशिल्ल्यान हांव ही संकल्पना तुमकां सांगतां.

'कांयच करप ना' ही मनाची अशी आवतिकाय जे व्हरवीं तुमी कांयच करिनात पूण तुमच्या हातांतल्यान आपशींच काम जायत रावता. कामां तुमच्याच हातांतल्यान जातात आनी तुमी तिरायताच्या भावान तीं जाता आसतना पळयतात. तुमकां त्या खातीर कश्ट सोसचे पडनात अशें दिसता.

कांयच करप ना म्हणल्यार तुमी मुद्दाम कितेंय कश्ट घेवन कसलींय कामां करिनात, पूण तुमची खर इत्सा आशिल्ल्यान तीं कामां आपलीं आपूण जायत रावतात. असले आवतिकायेंत तुमी कितेंय करपाक शकतात असो तुमकां आत्मविस्वास दिसता. हे दुर्मीळ आवतिकायेंत आसतना तुमकां कांयच करनासतना आपूण काम करीत आसा, तशेंच काम करता आसुनय कांयच करिनात अशे तरेची एकरूपताय अणभवाक येता.

माजर एका जाग्यार कांयच करिनासतना बसून आसता. आनी मागीर रांदचे कुडींतल्या खंयच्याय आयदनाचो आवाज आयकून तें एकदम उडी मारून नाच्च जाता.

सगली परिस्थिती सारकी आसा आनी कांयच करिनासतना कामां जातात ह्यो दोन गजाली एकामेकांत घुस्पल्ल्यो आसतात. तुमी कांयच करिनासतना आपशींच जाय आशिल्ल्यो गजाली घडत आसतात आनी त्यो तिरायताच्या भावान तुमी पळयत आसतात अशी ती आवतिकाय.

ही कांयच करिना आसपाची आवतिकाय हातासपाचे कलेचो विकास करात आनी जिवितांत आनंद फुलयात !



*जेन्ना एका दादल्याची बायल ताच्या दर एका ल्हान सान गजालींचें कौतूक करता तेन्ना दर एका दादल्याक कितें करीन दिसता? ताका तिचे खातीर आनीक कितेंय करीन दिसता. केल्ल्या कामाचें कौतूक करप, ताचे विशीं बरें उलोवन दाखवप हाका लागून चड कामां जायत रावतात. ताका लागून तुमकां हेरां कडच्यान कामात मेळपी मदत आनी सहकार वाडटा.*

– डॉ. जॉन ग्रे

# आयकून घेयात आनी नात्याचें संबंद सुदारात

*सानुभूतीन आयकून घेता आसतना तुमी तुमच्या कानांनी आयकत आसतातूच, पूण ताचेय परस म्हत्वाचें म्हणल्यार तुमी तुमच्या दोळ्यांनी आनी काळजानय आयकत आसतात. असल्या वेळार तुमी तुमचे सामकर आशिल्ले व्यक्तीच्यो भावना जाणून घेवपाखातीर, ताचे फाटलो अर्थ जाणून घेवपाखातीर आनी मानवी चलणुकेचो आदर्श म्हणून आयकून घेतात.*

*– स्टिफन कोव्हे*

हांव तुमचेकडेन उलयतां आनी तुमी आयकून घेतात अशी कल्पना करात.

तुमी वाचात आनी नव्यो कल्पना मेळोवपाखातीर वाचात अशें हांव तुमकां सांगतां. तशेंच हांव तुमकां बरयात आनी तें स्वताक व्यक्त करपाखातीर बरयात अशेंय सांगतां. तेच भशेन तुमच्यो कल्पना हेरांक सांगपाखातीर बरयात अशेंय बी सांगतां. आतां हांगा तुमकां ''आयकात, आनी हेरांचें उलोवणें सारकें समजून घेवपाखातीर आयकात'' अशें सांगतां.

भोवतेक लोक आपणाचो जागेपणातलो सत्तर प्रतिशें वेळ वाचप, उलोवप आनी आयकप ह्या कृतींक वापरतात. आतां लक्ष दिवन आयकात, हे संवादाचे प्रक्रियेंतलो अर्दो वेळ दर एकटो मनीस आयकुपांत घालयता.

आतां आनी एक म्हत्वाची गजाल आयकात, आमकां आयकुपाचे

क्रिये विशीं केन्नाच कोण शिकयना.

म्हजें म्हणणें आयकून घेतिल्लेखातीर धन्यवाद!

आयकप हे क्रियेच्या विवीध तासां संबंदान आतां चड जाणून घेवया.

हांव सकाळचें खबरांपत्र वाचपांत गुल्ल जालां अशें समजात. म्हजो आठ वर्सांचो नातू म्हजे म्हन्यांत येता आनी म्हाका कितें तरी सांगत रावता. हाचेर म्हजी प्रतिक्रिया कशी आसतली ?

पयलीं हांव ताचेकडेन दुर्लक्ष करतां. हांव अशें चुकून केन्नाय करतां. दुसरी गजाल, थोडे फावटी हांव ताचें आयकतां अशें ताका भसयतां. अशें हांव केन्ना केन्नाय करतां. तिसरे सुवातेर, केन्नाय हांव म्हज्या हातांतलें खबरांपत्र कुशीक दवरतां आनी ताच्या उलोवण्यातलो थोडो थोडो भाग आयकतां. ताचें कौतूक करतां, आनी ताणे केल्ल्या वा तो करता ते बरे गजालीखातीर ताका शाबासकी दितां. आनी मुखार सांगचें जाल्यार हांव म्हजें पुराय लक्ष तो जें सांगपाक सोदता ताचेर दितां. केन्नाय तरी हांव ताका लागीं ओडटां आनी ताची तोखणाय करतां.

कांय वेळा पयलीं हांव तुमकां कितें तरी सांगतालों आनी तुमी आयकताले हें लक्षांत घेयात. आतां तुमी म्हजें उलोवणें कशे तरेन आयकताले तें तुमीच थारायात.

आमचे पांचवे संवये संबंदान उलयतना स्टिफन कोव्हे म्हणटा ''पयलीं तुमी हेरांचें म्हणणें समजून घेयात मागीरच तुमचें हेर लोक समजून घेतले.'' ताच्या म्हणण्याप्रमाण सानुभूतीन आयकप हें सगल्यांत वयल्या क्रमांकाचें आयकप. जेन्ना तुमचेकडेन कोणूय व्यक्ती येता आनी आपणालें आयकून घे म्हूण इत्सा व्यक्त करता तेन्ना उपकार करून ताच्या जाग्यार तुमी स्वता आसात अशें समजात आनी ताका समजून घेवपाखातीर ताचें आयकून घेयात. ताचें मुखेल म्हणणें कितें वा ताची कितें भावना आसा ती समजून घेयात आनी कसलोच निर्णय दिवपी प्रतिक्रिया व्यक्त करूं नाकात.

सानुभूती दाखोवप म्हणल्यार दया दाखोवप न्हीं. दया दाखयतात तेन्ना तुमी ताच्या उलोवण्याकडेन सहमत आसतात. सानुभूतीन लक्ष दिवन

आयकून घेवप हाचो अर्थ तुमी ताच्या उलोवण्याकडेन सहमत आसात असो जायना. तुमी फकत ते व्यक्तीक नीट समजून घेतात असो अर्थ जाता.

तुमी फकत कानांनीच आयकत रावतात अशें न्हीं, तर तुमी तुमच्या दोळ्यांनी आनी काळजानय आयकत आसतात. तुमी त्या वेळार उलयतल्याच्यो भावना जाणून घेवपाखातीर, ताचे फाटलो अर्थ जाणून घेवपाखातीर आनी मानवी चलणुकेचो आदर्श म्हणून आयकतात.

तुमी आयकून घेतात तेन्ना तुमकां खूबदां त्या उलोवप्याक कितेंय तरी उपदेश करचो असो मोह जाता. हें तुमी मुद्दाम जावन टाळात. जेन्ना तो तुमचेकडेन येता आनी आपणाल्यो भावना व्यक्त करपाखातीर उलयता तेन्ना ताचे सामकार भाशण करूं नाकात. ताणें अशे तरेन वायट धरचें न्हीं, अशें कितेंय उलोवन ताच्यो भावना चिड्डून उडोवं नाकात. तशें केल्यार आपूण मोल नाशिल्ल्या किस्कुटावरी आनी असहाय जालां अशें दिसूं येता. मातशें धीर गेल्ले वरी दिसतलें पूण आपूण असहाय अशें तो स्वताक मानतलोच अशें ना. तुमी आपणाक समजून घेवचो अशें ताका दिसता. फाटीर हात मारून आपणाक तुमी ''सर फुडें, आमी तुजे वांगडा आसात, देव सगळें सारकें पळोवन घेतलो.'' इतलेंच तुमी म्हणचें अशी ताची अपेक्षा आसता.

आतां स्वताक एक सादो प्रस्न विचारात ''हांव एक बरो आयकुपी आसां व्हय?'' हाची प्रामाणीक जाप दियात, म्हाका न्ही जाल्यार स्वताकच दियात.

अती उत्तम, उत्तम, सादारण, वायट वा खुबच वायट.– स्वताखातीर तुमी कसलें विशेशण लावचें तें वेंचून काडात. आयकुपी म्हूण तुमकां कितें फावो जाता तें तुमीच थारायात.

पंचवीस वर्सां आदीं हांव एक आयकुपी म्हूण म्हाका तूं कितले गूण दितली अशें हांवें म्हजे बायलेक विचारलें. थोडो वेळ चिंतून तिणें म्हाका आपूण शंबरांतले पंचवीस गूण दितलीं अशी जाप दिली. हांवें तिका इतली कंजूस जावं नाका, म्हाका पस्तीस गूण तरी पडपाक जाय अशें म्हणलें. हांव

तितली तरी अपेक्षा धरतां. रोखडेंच तिणे उदार मनान म्हणलें ''म्हजें मातशें आयकात, हांवें पुराय उदार जावन तातूंत पांच ग्रेस मार्क घालून ते दिल्यात.''

हातूंतलो विनोद सोडात. स्वताकडेनच प्रामाणीक रावून पळयलें जाल्यार आमी खूब वायट आयकुपी म्हणपाचें मानून घेवपाक जाय. आमी वस्तुनिश्ठ रावून ती जाप मानून घेतली जाल्यार आमी आस्ते आस्ते बरे आयकुपी जावपा खातीर, आमची आयकुपाची तांक विकसीत करपाखातीर यत्न करीत तरी रावतले. हांव हें म्हज्या स्वताच्या अणभवांतल्यान सांगतां.

आतां एक मजेशीर सत्य तुमकां सांगतां. आमी 'लिसन' हो इंग्लीश शब्द कसो बरयतात? – एल, आय, एस, टी, ई, एन ... आनी शांत म्हणल्यार 'सायलंट' ह्या शब्दाचें स्पेलिंग कितें आसा? एस, आय, एल, ई, एन, टी. ह्या दोन शब्दांतलीं स अक्षरां सारकींच आसात. हाचो अर्थ कितें आसूं येता? जेन्ना तुमी आयकतात तेन्ना शांत रावात, कांयच उलोवं नाकात.

पंदरा वर्सां पयलीं मुंबयतल्या एका हॉस्पिटलांत हांव म्हजी प्रशिक्षण कार्यावळ घेतालों. थंय नर्सींखातीर ती कार्यावळ थारायिल्ली. पस्तीस ते पंचावन वर्सां पिरायेच्यो नर्सी थंय प्रशिक्षणाक हाजीर आशिल्ल्यो. तें शिबीर मराठी माध्यमातल्यान चलतालें. हांव तांकां आयकून घेवपाचे कुशळटाये विशीं सांगतालों. तांणी बरे तांकीचीं आयकुपी कशीं जावंचीं हाचे विशीं सुचोवण्यो दितालों. हांवें तांकां आपणाल्या घोवाचें उलोवणें सारकें आयकून घेयात आनी ताका लागून तांच्या घोवा–बायलेच्या नात्याचेर कितें परिणाम जाता तो पळयात अशें सांगलें, तुमच्या घरांतल्या जाणट्या मनशांचें आयकून घेयात आनी तेच भशेन भुरग्यांचेंय आयकून घेयात म्हणलें. तुमचीं नातीं चड जिवाभावाचीं जातलीं अशेंय बी सांगलें.

हॉस्पिटलांत कामार आसतानय बी बरीं आयकुपी जायात अशीय सुचोवणी हांवें तांकां दिली. जशें तुमकां डॉक्टरांचें आनी अधिकाऱ्यांचें आयकून घेवपाक जाय तशेंच तुमी रोग्यांचें आयकात अशें तांकां सांगलें.

थोडी सोंशीकसाण दाखोवन रोगी मनशांचें आयकात, तें आयकता आसतना दयेचे नदरेन पळयात. म्हाका खात्री आसा तुमी अशें करतात तेन्ना तुमी फकत तुमचें कर्तव्यच करतात अशें न्हीं तर रोगी मनशाक बरो जावपाक आदार दितात, अशेंय तांकां सांगलें.

दुसरे दिसा या प्रशिक्षणाचो तांकां कितें उपेग जालो त्या संबंदान 'फीडबॅक' दिवपाची हांवें तांकां सुचोवणी दिली. ही दोन दिसांची कार्यावळ आशिल्ली. तांकां उलोवंक लावप कठीण आशिल्लें. खूब वेळ कितेंय तरी उलयात म्हूण तांचे फाटीक लागलों. तेन्ना एक अस्तुरी उठून उबी रावली आनी आपणाक आदले दिसा सांजचो जो अणभव आयलो तो सांगूंक लागली. पयलीं थोडो वेळ तिका योग्य शब्द सुचना जाले. मागीर सवकास सवकास तिका सांगपाक जमलें. ती मराठी बोली भाशेंत उलयताली. ताचो मतितार्थ हांव मुखार दितां.

काल रातचो म्हजो घोव सदां सारको खूब सोरो पियेवन आयलो. सदचेवरी ताणे आड्डी मारून उलोवपाक आनी गाळी संवपाक सुरवात केली. हांव उरफाटें ताचेर आड्डुलें ना, ओगीच रावलें. फकत आयकत रावलें. पंदरा मिनटां सुमार तो सारको आड्डुतालो आनी गाळी संवतालो. मागीर एकदम थंड जालो. अस्वस्थ करपासारकी शांतताय पातळ्ळी. हांव मातशें भिलें कारण तो आतां म्हाका मारपाक येतलो अशें दिसलें!

पूण ना, तशें कांय जालें ना, म्हजे म्हऱ्यांत येवन ताणे विचारलें, ''लक्ष्मी, कितें जालां तुका? पिशें बी लागूं ना न्हीं तुका? तूं कांयच उलयना कित्याक? कसली अडचण आसा? हांव कितेंय मदत करूं तुका?''

हांवें ताका सांगलें, ''हांव आज एका प्रशिक्षण कार्यावळीक गेल्लें. थंय प्रशिक्षकान आमकां कोण कितें उलयता तें फकत आयकून घेयात आनी तशें करून तुमच्या नात्यांत कितेंय फरक पडटा जाल्यार पळयात अशें सांगलां.'' ताचें आयकून तरी पळोवया अशें म्हणून हांव फकत आयकत रावलें.

तो म्हजें उलोवणें आयकत रावलो. मागीर मातसो वेळ ओगीच

रावलो. तो म्हज्या दोळ्यांत पळयतालो. ताका सारकें कितें जालें तें म्हाका कळ्ळें ना. पूण पयलेच फावटी, खूब दिसां उपरांत ताणे म्हाका मोगान वेंग मारली. हांव खूब म्हणल्यार खुबूच खोशी जालें.

हांव जेन्ना ताचें वेंगेंतल्यान भायर आयलें तेन्ना ताणे म्हणलें, ''म्हाकाय बी तुज्या त्या प्रशिक्षकाक मेळपाक जाय.''



# ‘‘आई, बाबा, आय लव्ह यू!’’

*भलायकेन बरें आसपी कुटुंब ही आपणाली सुखान विसव घेवपाची, विकसीत जावपाची आनी नवे उमेदीन कामाक लागपाची खात्रेची सुवात आसता.*
*हांगाच्यान भायर सरता आसतना आमी नवे उर्बेन, नवी उर्जा घेवन सकारात्मक जिणेक फुडो करतात.*

*– अनामीक*

इंग्लीश भाशेंत कुटुंबाक ‘फॅमिली’ म्हणटात. ‘फादर अँड मदर, आय लव्ह यू’ ह्या वाक्यांतलें दर एका शब्दाचें पयलें अक्षर घेतलें जाल्यार ‘फॅमिली’ हो शब्द घडटा.

हातूंतल्यान ध्वनीत जावपी अर्थ कितें? आपणाल्या पालकांखातीर दर एका भुरग्याच्या काळजांत खाशेली सुवात आसपाक जाय. प्रत्येक कुटुंबांत सरसकट पळयल्यार आवय बापूय भुरगीं, आजी आजो आनी नातरां, भयण भाव, काका मामा, पुतणये, भाचे अशीं मनशां आसतात आनी तीं मायेच्या, मोगाच्या अशा घटमूट धाग्यांनीं बांदिल्लीं आसतात. आज अर्थीक आनी मानसीक कारणांक लागून तांकां एकठांय रावप शक्य जायना. पूण कुटुंब नांवाच्या पवित्र धाग्यान विणिल्ल्या छत्रा सकयल तीं एकामेकाकडेन जोडिल्लीं आसतात. आज एकामेका मदीं अंतर दवरप गरजेचें जाल्लें आसा. त्या खातीर तीं पयस रावुनय एकामेका विशीं मोग माया राखून धरून रावपाक शकतात.

‘जेन्ना जेन्ना आनी जंय जंय तुमी रोम शारांत भोंवत आसतात तेन्ना

थंय तुमकां घरा सारकें दिसना. (व्हेनेव्हर एण्ड व्हेरेव्हर यू रोम इन रोम, रोम इज नॉट लायक होम) हें वाक्य हांवें शाळेंत आसतना वाचिल्लें. विटांच्यो चार वणटी आनी लाकडांचीं दारां घराक रूप दिवंक शकनात. एकामेका विशीं मोग आनी काळजांतली ओड अणभवाक येवप, जाणट्यांचो आदर आसप, जेन्ना कुटुंबांतल्या एकट्या कोणाकय गरज पडटा तेन्ना, आदाराचो हात दिवपाची मनापासून इत्सा आसप हीं एका आदर्श कुटुंबाची लक्षणां.

म्हज्या पुताच्या ईमेलचेर आयिल्ली एक ल्हानशी कथा कुटुंबांत मोग, मायेची ओड आसप कितलें म्हत्वाचें आसता हाचेर भाश्य करता. ती मुद्दाम फुडें दितां.

कोण तरी दारार मारता. घरमालक दार उगडून पळयता जाल्यार तीगजण मनीस दारांत उबे आसतात. तांचे मदलो एकटो मुखार येवन म्हणटा ''भाऊ, आमी तुमचे सोयरे, म्हजें नांव 'यश', हाचें नांव 'संपत', आनी ताचें नांव 'प्रेम'. आमी तिगां मदल्या कोणाकूय तुमी आयच्या दिसाखातीर सोयरो म्हूण दवरून घेवं येता. कोणाक दवरप हें पुरायपणी तुमी थारावपाचें. तुमी तुमच्या कुटुंबांतल्या वांगड्यांकडेन उलोवन बी थारावंक शकतात. तो वळ मेरेन आमी हांगाच वाट पळयत रावतात.''

घरांतल्या वांगड्यां मदीं थोडो वेळ चर्चा जाता. त्या मनशाचे बायलेक 'यश' सोयरो म्हूण जाय आसता, ताका स्वताक 'संपत' रावचो अशें दिसता. भुरग्यांक विचारतात तेन्ना तीं 'प्रेम' रावपाक येवचो अशें म्हणटात. आतां पालकांचें भुरग्यां वयलें प्रेम तकली वयर काडटा आनी तीं भुरग्यांक जाय म्हूण 'प्रेमाक' दवरून घेवप असो सगल्यांच्या मतान निर्णय घेतात. कुटुंब मुखेली परतून दाराकडेन येता आनी 'प्रेमाक' भितर यो म्हणटा. 'प्रेम' भितर पावल दवरता तेन्ना सगल्या घरच्यांक एक अजाप पळोवंक मेळटा. 'प्रेमा' फाटोफाट 'यश' आनी 'संपत' हेय बी भितर सरतात.

हे ल्हानशे कथेंतल्यान मेळपी संदेश निवळ आनी सादोच आसा. जेन्ना कुटुंबांत प्रेम नंदता तेन्ना यश आनी संपत हांकां आपणाली सुवात सोदीत फाटोफाट येवचेंच पडटा.

एका आदर्श कुटुंबा भितर आवय बापायक भुरग्यांखातीर वेळ काडचोच पडटा. तीं कितलींय कामात बुडिल्लीं आसलीं तरी कसलेंच काम भुरग्यांखातीर वेळ दिवपाचे गजाली परस म्हत्वाचें आसना.

आयच्यान कांय वर्सां उपरांत तुमी कितल्या व्हडल्या आनी सगळ्यो सुविधा आशिल्ल्या घरांत रावतात हातूंत कोणाक कसलोच रस आसचो ना, तुमच्या बँक खात्यांत कितलो दुडू आसा वा तुमची गाडी खंयचे कंपनीची हें कोण विचारचो ना. पुण तुमी तुमच्या भुरग्यांखातीर कितलो आनी कसो वेळ दिलो, तुमचें तांचे जिणेत नेमकें म्हत्व कितें, तांचे उदरगती खातीर तुमी कसली म्हत्वाची भूमिका केली ह्यो गजाली खात्रेन चड म्हत्वाच्यो थारतल्यो.

कांय वर्सां फाटीं एका मानसोपचार तज्ञान आपणाल्या व्याख्यानात सांगिल्ली मनाक स्पर्श करून गेल्ली गजाल म्हाका तुमचेकडेन शेयर करची अशें दिसता. एका धा वर्सांच्या भुरग्यान दर सप्तकांत खर्चाखातीर शंबर रुपया चड दी म्हूण आवयकडेन मागले. तातूंतलो एक पयसोय आपूण तिका विचारीनासतना मोडचों ना अशेंय उतर दिलें. ताच्या उलोवण्यातलो प्रामाणीक भाव तिणे समजून घेतलो आनी ताचे आवयनूय ताचें मागणें मानून घेतलें. भुरग्याक आतां खर्चाखातीर शंबर रुपया चड मेळपाक लागले. धा सप्तकां उपरांत ताणे शंबर रुपयांच्यो धा नोटी एका पाकिटांत घालून ताचेर आपणाल्या बापायचें नांव बरयलें.

ते राती ताणे बापूय घरा येवचे पयलें तें पाकीट आपणाले आवयकडेन दिलें आनी तिका तें बापायक दिवपाक संगलें. मागीर ताणे म्हणलें ''हे पयशे दी आनी पापाक फाल्यां म्हजे वांगडा एक वर खेळपाक सांग.'' आवयक तें आयकून राग आयलो आनी तिणे पुताक म्हणलें ''त्या खातीर पापाक लांच दिता तूं?'' भुरगो मागीर निरागसपणान आवयक म्हणटा ''आई, पापा सदांच खूब कामांत आसता न्हीं, हांवे तो गिरायकाक सांगता आसतना आयकलां. तो तांचे काम करपाक एका वराक एक हजार रूपया घेता खंय.''

म्हजो एकटो नात्यान पयसुल्लो भाव 78 वर्सांचो आसा. ताणे

आपणाल्या पुताची गजाल म्हाका सांगली. ती आतां तुमकां सांगता. ताचो पूत तीस वर्सांचो जावचे पयलींच भायर पडलो. ताचो आवयचेर कितलो मोग आशिल्लो ते विशीं सांगपी ही गजाल म्हाका सारकी काळजाक हात घालपीशी दिसली.

जेन्ना कोणूय नवो इश्ट घरा येतालो तेन्ना तो आपणालो उजवो हात आवयच्या खांद्यार घालून ताका तिची वळख करून दितना म्हणटालो ''ही म्हजी आई, संवसारांतली म्हजी एकटीच आई, म्हजो तिचेर खूब मोग आसा.''

ताका जेन्ना ऑफिसाच्या कामाखातीर पयसुल्ल्या शारांत वचपा खातीर फातोडेचेर विमान धरपाचें आसतालें, तेन्ना ती पयली बेगीन उठून ताचे खातीर च्या करताली. 'सांबाळून चल,बरो जांव प्रवास' असो आशिर्वाद दिवन आवय बापूय परतून न्हिदताली.

केन्ना केन्नाय आवय बापूय न्हिदिल्ली आसल्यार तो तांचो पूत तांका जाग लागूंक दिनासतना थंडसाणेन सगळीं कामां करतालो आनी स्वता च्या करून पितालो आनी भायर सरून वतालो. आपणाल्या कामाक त्या शरांत पावले उपरांत विमानतळावयल्यान फोन करून आपूण पावलो म्हूण घरा कळयतालो. तीं जागी जावची न्हीं म्हणून तीं न्हिदिल्लीं आसतनाच तांच्या पांयांक हात लावन आदरान नमस्कार करून भायर सरतालो.

तुमी तुमच्या भुरग्यांक आपणाल्या आवयबापायचो आदर राखात अशें सांगपाची वा शिकोवपाची गरज ना. तीं तुमी तुमच्या आवयबापायकडेन कशे तरेची चलणूक दवरल्या ती पळयतात आनी स्वताच शिकतात.

म्हाका ह्या संबंदांतली खूब वर्सां आदीं आयकल्ली एक ल्हानशी काणी याद जाता. एकटी सुमार चाळीस वर्सांची आवय आपणाल्या पुताक बाजारांतल्यान एक लाकडाची कपबशी हाडपाक सांगता. त्याच दिसा सकाळीं ताच्या अंयशीं वर्सांच्या आज्या कडच्यान एक बरो म्हारग सो कांचेचो कप आनी बशी फुटिल्लीं आसतात. तांचे जाग्यार ही नवी हाडून दवरपाची आसता. भुरग्याक अशें करप आवडना. ताका आज्या विशीं खूब मोग आनी आदर आसता.

त्या दिसा बाजारांतल्यान येतना तो एक कपबशी हाडिनासतना दोन कपबशयो हाडटा. आवयक त्यो दिता आसतना तो सांगता ''हांवें एक न्हीं करून दोन सेट हाडल्यात कारण जेन्ना तुमी म्हातारीं जातलें आनी आज्याचे पिरायेचीं जातलीं तेन्ना तुमकांय बी जाय पडटली. दुसरो सेट सांबाळून दवर.''

आमी आमच्या आवयबापायच्यो फोटो फ्रेमी सदांच ऊंच जाग्यार लावन दवरतात कारण त्यो घरांत सदां भोंवतात वावुरतात तेन्ना नदरेक पडच्यो आनी आमी आदरान पळोवच्यो आनी आशिर्वाद घेवचो असो ताचे फाटलो हेतू आसता.

ज्या कुटुंबांत जाणट्यांचो आदर राखतात, तांची काळजी घेतात, त्या घरांत सदांच समृद्धी, सूख, समाधान आनी शांती उरता अशें दिसता. असल्या घरांत सदांच देवाचे आशिर्वाद शिंवरून पडटात.

खरी गजाल, फॅमिली या शब्दाचो अर्थ 'फादर ॲण्ड मदर, आय लव्ह यू'' असोच आसूंक जाय.



# घराकडच्यान कामाच्या जाग्यार
# - एक तीर्थयात्रा

*कामाकडेन पळोवपाची नदर सकारात्मक आसत जाल्यार आमचो कामाचो जागो देवळासारको पवित्र जावंक शकता. आनी मागीर घराकडच्यान त्या पवित्र जाग्यार सदां नेमान वचप ही एक तीर्थयात्रा जाता.*

*– अनामिक*

तो आशिल्लो शेनवाराचो सकाळचो वेळ. आमची धा वर्सांची नात आमचे आशिर्वाद घेवन निरोप घेवपाक आयली. आमकां दिसलें तें पिकनिकेक वचपाचें आसा. ताका लागीं ओडून मायेन पोशेवन आजयेन ''बरो करून वेळ सारात आं, बरी मजा करात'' अशें निरागसपणान म्हणलें. ''आजी, आमी पिकनिकेक वचनात, आमची अभ्यास भोंवडी आसा.''

ताचे ते जापेन आमकां कितें दिसता? फकत पिनिकेक गेल्यारच आमचो वेळ बरो वता, आमी बरी मजा करतात अशें आमी समजतात. मजा आनी अभ्यास ह्यो दोन गजाली केन्ना एकठांय येवपाक शकनात अशें आमकां दिसता. अभ्यास हें एक वजें आनी तें आमकां सक्तीन उखलचें पडटा, आमकां तो करपाची इत्सा आसना अशें आमी धरून चलतात. हाचे वयल्यान आमचे शिक्षणीक व्यवस्थेकडेन आमी खंयचे नदरेन पळयतात तें आमकां दिसता.

आमच्या कामा संबंदान विचार करता आसतना आमी अशेंच कितें

तरी करतात. आमी काम 'एंजॉय करप हो विचारच करपाक शकनात. आमकां आमच्यो जगपाच्यो गरजो पूर्ण करपाक दुडू जाय आसता आनी काम करप हें त्या खातीर खूब गरजेचें अशें आमी मानतात. काम 'एंजॉय' करपाचो प्रस्नच येना. तें एक कर्तव्य. काम ही एक पुजा आसता. तुमकां आवडूं वा न आवडूं कामाची आराधना करपाकच जाय, ह्या विचारान आमी आदीं साकून ताचेकडेन पळयतात. तशे तरेचे संस्कार आमचेर जातात.

कामाकडेन पळोवपाची ही वृत्ती आमी बदलपाची गरज आसा. कशें करपाक शकतले आमी हें? हांवें म्हजे पद्धतीन कांय उपाय चिंतल्यात. हांव जेन्ना म्हज्या मानव संसाधन विकास प्रशिक्षण कार्यावळींत कार्यसंस्कृताये विशीं उलयतां तेन्ना म्हजे सामकार आशिल्ल्यांक विचारतां ''तुमी काम कित्याक करतात?''

थोडे जण सांगतात ''पयशे मेळोवपाखातीर,'' थोडे जण म्हणटात ''पोट भरपाखातीर.'' थोडेशेच म्हणटात ''कुटुंबाक पोसपाखातीर.'' ह्या सगल्या जापांचो अर्थ एकच. आमकां दिसपडट्या जगपाक पयसो लागता. तो मेळोवपा खातीर सगलीं काम करतात.

मागीर हांव तांकां विचारतां ''तुमकां कुटुंब पोसपाक म्हयन्याक कितलो पयसो लागता?'' तांच्यो जापो 15,000 आनी 25,000 रुपयां मदीं आसतात.

तांचे सामकार मागीर हांव एक काल्पनीक परिस्थिती उबी करतां. समजा तांकां पन्नास लाखांची लॉटरी लागली जाल्यार ताचे वयलो कर बी वजा करून पस्तीस लाख उरतले. इतलो पयसो बँकेंत दवरलो जाल्यार म्हयन्याक वीस ते पंचवीस हजार रुपया व्याज मेळटलें. तातूंतल्यान कुटुंबाचो म्हयन्याचो खर्च निभावतलो. अशे परिस्थितींत तुमचे मदले कितले जण आसा ती नोकरी सोडून दितले? हय म्हणटात जाल्यार हात वयर करात.

खूब थोडे हात वयर येतात. आनी जांकां आशिल्ली हातांतली नोकरी सोडपाची आसता, तांकां आपणालो स्वतंत्र व्यवसाय करचो अशें दिसता. आपणाकडेन आशिल्ल्या पयशांतल्यान एक हुसको कमी जावन ते

आपणाल्या मनातलो व्यवसाय करपाक शकतात.. थोडे भितर सांगतलो जाल्यार सगल्यांक कसलें तरी काम करून आपणाल्या जगपाखातीर पयसो जोडपाचो आसता.

तर भोवतेक जणांक दिसता तशें 'काम' ही फकत 'अर्थ' या एकाच तासा (पैलू) कडेन संबंधीत गजाल न्हीं. ती एक समाजीक हिताची गरज. कामाक समाजीकतायेचो पदर आसता. प्रत्येक व्यक्तीक आपूण जिणेचे गरजेखातीर जें काम करता तें समाजाच्या हिताकडेनय संबंदीत आसा अशें अप्रत्यक्षपणान सांगन दिसता. तातूंतल्यान समाजाची अप्रत्यक्ष सेवा घडटा. ज्या समाजाचो तो वांटो आसता ताची सेवा आपणाल्या कामातल्यान तो करता. आपूण समाजाचो अविभाज्य वांटो अशें भितरल्यान दिसप ही प्रत्येक व्यक्तीची एक भूक आसता.

'काम' हें एक व्यक्तीक जगपाक जाय तो दुडू मेळोवन दिवपाचे भायर आनीक कितें करता तें समजून घेवपाचो यत्न करया. पयले सुवातेर 'काम' हें बेकार मनशाक नोकरेक लायता. तो दुडू जोडपी जाता आनी ताचो स्वता विशींचो आदर वाडटा. ताचो आळस वता आनी तो कामाक लागता. ताचे तकलेंत कामाचे विचार घोळटात आनी ताचो मेंदू कार्यक्षम जाता. 'रितें माथें, सैतानाचें घर' हे अवस्थेंतल्यान ताची सुटका जाता. हेर अनेक वायट संवयो सुटटात आनी आंगांतले बरे गूण पसवतात. थोडे भितर 'काम' हें ताचे जिणेत अनेक सकारात्मक बदल घडोवन हाडटा.

थोडें वयल्या थराचेर चिंतून पळयल्यार कामाक लागून मनीस भलायकेनय बरो उरता. काम करपी मनशाक शरीर आनी मन कार्यक्षम दवरचें पडटा. कामाक लागून मनशाचें शरीर आनी मन भलायकेन घटमूट उरता.

आतां आनीक वयल्या थरार वचून पळयल्यार स्वताची वळख, स्वताचो विकास आनी स्वताची तांक कळप हें सगळें आमी जें काम करतात तातूंतल्यानच उद्‌भवता. दर एका मनशाची नांव आनी आडनांवतल्यान वळख घडटा. पूण ताची खरी वळख ताच्या कामातल्यान आनी ताच्या व्यवसायांतल्यान मेळटा. ताची कामातली कुशळटाय, ताणे

घेतिल्लें शिक्षण हांच्या आदारान ताणे स्वताची त्या कामांतली तांक सिद्ध केल्ली आसता; कामात ताणे मेळयल्लें येस बी सगळें ताणे स्वता कश्टान मेळयल्लें आसता. हीच ताची खरी वळख. एक डॉक्टर, इंजिनियर, शिक्षक, गवंडी, मेस्त ... असो कोणूय आसूं, मनशाची वळख ताच्या कामातल्यान घडटा.

मनशाचो स्वताचो विकास ताच्या कामातल्यान जावंक पावता. आपणालें काम चोख केलें, कामात सतत उदरगत सादली, आनी त्या आदारान वयल्या पदार पावत रावन एकदम ऊंच पदार पावले उपरांत मनीस व्यक्ती म्हूण विकसीत जाता. आपणा भितरली शक्त, भितरलें मानसीक बळ ताका कळून येता आनी हातांतलें काम चड कुशळटायेन करपाचे नवे, बरे मार्ग ताका सुचतात. तातूंतल्यान ताची उत्पादन क्षमताय तशेंच चड फायदो मेळोवपाची प्रक्रिया हांचो विकास जाता. अशे तरेन 'काम' हें मनशान स्वताची वळख आनी स्वताच्या समाधानाचे पूर्ततायेखातीर करप गरजेचें आसता. तातूंतल्यान ताचो आत्मसन्मान वाडटा आनी समाजाची मान्यताय मेळटा. दुसऱ्यांखातीर बरीं कामां केलीं जाल्यारय आत्मसन्मान वाडटा. खास करून जांकां तुमचे मदतीची गरज आसता अशा मनशांखातीर कसलेच अपेक्षे बगर काम केलें जाल्यार समाजाकडच्यान आदर आनी मान्यताय मेळटा.

आमी एक विशाल चित्र नदरेमुखार हाडलें जाल्यार कसलेंय काम समाजाची कसली ना कसली सेवा करीत आसता. जेन्ना तुमी काम करतात तेन्ना कसलेंय तरी उत्पादन करतात वा कसलेय तरी सेवेकडेन संबंदीत अशें काम करतात. आमी सकाळीं जो एक कप च्या पितात, त्या एका कपाकडेन पळयत जाल्यार ताची कल्पना करूं येता. चावेच्या मळ्यांत आनी उसाच्या शेतांत तशेंच च्या पावडर आनी साकर तयार करपी कारखान्यांनी कामगारांनी सतत काम केल्लें आसता. त्याच खातीर आमकां बाजारांत च्या पावडर आनी साकर नेमान मेळप शक्य जाता. सकाळचें दारांत दूध हाडून दिवपी मनशाचोय त्या कपाक आदार मेळिल्लो आसता. जे लोक घरांत उदक पावयतात, रांदपाच्या गॅसाचें उत्पादन करतात आनी

गॅस घरांत पावयतात अशा सगल्या मनशांचो तातूंत वांटो आसता. तांच्या कामाच्या आदारानच आमी सदां सकाळीं रुचयेन च्या पियेवंक शकतात. त्या अर्थान या सगल्यांनी केल्लें काम ही समाजसेवाच आसता.

जेन्ना आमी कामाकडेन ह्या सगल्या दिश्टीकोणातल्यान एके विशाल नदरेन पळयतात तेन्ना काम आमच्या स्वताच्या विकासाक, एक समाजघटक म्हूण मान्यताय मेळपाक कशी मदत करता तें समजता. काम म्हणल्यार देवपुजा म्हणटात ताचो अर्थ आमकां कळटा आनी तेन्ना एकदम आपणाल्या कामाचो जागो हें एक पवित्र देवूळ म्हणपाचें लक्षांत येता. ते उपरांत सदांच कामार वचप ही एक तीर्थयात्राच आसता. आपणाल्या कामा विशीं प्रेम आनी आदर आपणाल्या मनाकाळजांत सुवात मेळयता. तें आमकां उपाय नासून करचें पडटा ही भावना बदलून तें आमकां मानातल्यान करपाचें आसा असो आमचे वृत्तींत बदल जावपाक लागता. आमचें काम आमी एंजॉय करपाक लगतात आनी एक सकारात्मक कार्यसंस्कृताय तयार जाता.



# चर्चा आनी संवाद

*जंय चर्चा जाता थंय निर्णय घेतात. जंय संवाद घडटा थंय तरेकवार मुद्दे सोदप जाता आनी जंय खरो संवाद घडून येता, थंय दोनूय वटातल्यान बदलपाची तयारी आसता.*

*– पीटर सेंगे*

तीन–चार वर्सां आदीं आमच्या मूळ गांवांत दोन विद्यार्थ्यांक आमकां शिक्षणाखातीर मदत करपाची आशिल्ली. त्या दोगांयनी आपणाल्या गुणवत्तेच्या आद्वारान इंजिनियरींग कॉलेजींत पदवेखातीर प्रवेश मेळयल्लो.

तांच्या आवयबापांयक त्या अभ्यासाक लागपी वर्सुकी खर्च परवडपा सारको नाशिल्लो. ताचेखातीर थोडी अर्थीक मदत जांका कोणाक परवडटा आनी जांची इत्सा आसा ताणीं केली जाल्यार तांच्या आवयबापायवयलो भार कमी जातलो असो आमी विचार केलो.

हाचेर विचार करपाचे नदरेन आमी पंदरासोळा जण एकेकडेन जमले. आमचे मदल्या एकल्यान त्या भुरग्यांचे बापोलये, मामा बी श्रीमंत आसात आनी ते सोपेपणी तितलो पैसो पुंजावन दिवंक शकतात आनी त्या खातीर आमी मदत करपाक फुडें सरपाची गरज ना अशें सांगलें. दुसऱ्याक दिवपांतलो आनी वांटून घेवपांतलो आनंद कितलो आसता तें जाणा आशिल्ल्या आमचे मदल्या एकल्यान तांच्या काका आनी मामाचे मदतीक आडखळ हाडपाची इत्सा ना अशें उबो रावून सांगलें. आमी जाता जाल्यार फकत तांच्या पालकांवयलें वजें कमी करपाचें. आमचे करणेतल्यान त्या भुरग्यांक, गरज पडल्यार आमी तांचे फाटल्यान उबे आसात अशें दिसतलें.

पांच धा मिनटांनी जमिल्ल्या मनशांचे दोन पंगड जाले. एका पंगडाक आमी मदत करपाक जाय अशें दिसतालें जाल्यार दुसऱ्या पंगडाक मदत करपाची गरज ना अशें दिसतालें.

हे चर्चेन वेगळेंच रूप घेतलें. 'कितें करप सारकें' हाचे वयल्यान 'कोणाचें सारकें' इतल्याचेर चर्चा घसरली आनी वादाक सुरवात जाली. ताका मागीर झगड्याचें स्वरूप आयलें. निमाणेकडेन कसलोच निर्णय जावंक पावलो ना.

तरी आसतना आमी तो विशय तसोच सोडून दिलो ना. दोनेक सप्तकां उपरांत आमी कांयजणांनी एकामेकाकडेन फोना वयल्यान संपर्क केलो आनी आमचे मदलो संवाद फुडें व्हेलो. पयल्या फावटी मेळिल्ले तेन्ना आमचे मदल्या कांय जणांक मदत करपाची इत्सा आसा हाची कल्पना आयिल्ली. आमी कांयजणांनी फुडाकार घेतलो आनी हेर थोडे जण आमकां येवन मेळ्ळे. आमी सप्तका भितर 30,000 रुपया जमयले आनी दर एका भुरग्याक 15,000 रुपया दिले. फुडलीं दोन वर्सां आमी अशेच तरेन पयशे जमोवन त्या भुरग्यांक दिले.

आज ह्या दोगांय भुरग्यांनी आपणालें शिक्षण पूर्ण करून बऱ्यो नोकऱ्यो मेळयल्यात आनी बऱ्या पोस्टार ते काम करतात. आतां ते आपणाल्या पालकांकय मदत करतात. हातूंतल्यान आमी सगल्यांनी मदत करपाचो आनी शेअर करपाचो आनंद अणभवलो.

संवाद, चर्चा आनी वाद ह्यो संकल्पना तुमकां कळपाक जाय ह्या हेतान ही गजाल हांवें तुमकां सांगल्या. चर्चा करतात तेन्ना योग्य मुद्दो कितें तो वेंचून काडपाचें भान आमी बाळगुपाक जाय. चर्चा चालू आसतना भोवतेक जण आपापणालीं मतां व्यक्त करतात आनी तातूंतल्यान मुखेल प्रस्नाचीं अनेक तासां उगतीं जातात. आमीय बी आमचीं मतां मांडून ते चर्चेंत वांटो घेवंक शकतात. अशें करून निमाणे कडेन जो वट्ट चर्चेन निर्णय येता तातूंत आमचोय वांटो आसता.

जेन्ना चर्चा 'कितें सारकें' हाचे वयल्यान 'कोणाचें सारकें' हाचेर कळटां नकळटां पावता तेन्ना तातूंतल्यान वाद निर्माण जाता. आनी मागीर

एकवटीत सकारात्मक निर्णय घेवप कठीण जाता. तातूंत प्रत्येकाचो स्वताचो मान अपमान आसता, ऊंचले, सकयले असली अस्मिताय उबी जाता आनी मूळ प्रस्न कडेक पडटा.

संवाद ही एक वेगळीच गजाल. आयज मेरेन म्हाका ताचो खरो अर्थ कळ्ळा अशें हांव खात्रेन म्हणूंक शकना. म्हाका हालीं हालींच संवाद ही प्रक्रिया थोडी थोडी उमजूंक लागल्या.

जेन्ना कांय लोक एकठांय येवन विचार आनी चर्चा करपाक उमळशिकेन फुडें सरतात आनी एकामेकाकडच्यान कितेंय शिकपाचें थारायतात तेन्ना संवाद घडून येता. अशा वेळार सगल्या वांटेकार जाल्ल्या मनशांनीं स्वताचीं मतां कडेक सारून खऱ्या अर्थान एकवटान विचार करप अशे अभिप्रेत आसता. अशें घडून येता तेन्ना सामान्याभायले परिणाम जाल्ले अणभवाक येतात.

खूब जणांची नवें कितेंय शिकून घेवपाची तयारी नासता. जायते फावटी हांवें अशे खूब लोक पळयल्यात जे स्वता 120 बुद्ध्यांकाचे आसतात, पूण एकवटान जेन्ना भासाभास करपाची आसता तेन्ना 70 बुद्ध्यांक आशिल्ले व्यक्तीवरी निर्णय घेतात. ते घडये टीम उबी करपांत कुशळ आसतले वा त्या विशयाचेर वरांची वरां उलोवंक शकतले पूण एकवटान टीम वांगडी जावन नवें शिकप तांकां जमतलेंच अशें ना.

कांय वर्सां आदीं घडिल्लो एक प्रसंग हांगा म्हाका याद जाता. एक वरिश्ठ अधिकाऱ्यांचो पंगड मानव संसाधन विकास या विशयाचेर जावपाची आशिल्ले परिशदेचें नांव कितें दवरचें ह्या विशयाचेर हुनहुनीत चर्चा करतालो. एकट्यान म्हणलें 'मानव संसाधन' अशें म्हणप योग्य जातलें जाल्यार दुसऱ्यान म्हणलें 'मानव संसाधन विकास' अशें म्हणप चड बरें दिसतलें. धा मिनटां सुमार दोगांय मदीं उतराक उतर जावन व्हडलो वाद जालो. हांगा शिकून घेवप ही वृत्तीच नाशिल्ली. निमाणेकडेन एकटो तावातावान वचपाचो निर्णय घेवन कुडी भायर गेलो. तेन्नाच तो वाद सोपलो.

तुमकां जर कितेंय शिकपाचें आसत आनी एखाद्रे टिमीत वांगडी जावन स्वताचो विकास सादपाचो आसत जाल्यार संवाद ह्या शब्दाचो अर्थ

समजून घेवप गरजेचें. पीटर सेंगे हो लेखक 'फिफ्त डिसिप्लीन' नावाच्या पुस्तकांत 'संवाद' शब्दाची व्याख्या करता आसतना म्हणटा 'संवाद (डायलॉग) म्हणल्यार वांगड्यां मदीं समस्येच्या अनेक अर्थांच्या शक्यतायांचें मुक्त व्हांवप.'

संवाद जिखप अशा नांवाची कसलीय गजाल आसना. हातूंत प्रत्येकजण जिखता. कारण प्रत्येकाची समस्येची समजणी निमाणेकडेन वाडिल्ली आसता. एकल्यानच आपलो आपूण जावन कितलोय विचार केलो जाल्यार इतलें जिनसांवर खोलायेन ज्ञान मेळप कठीण.

संवादाक लागून एकठांय येवन शिकप साध्य जाता. हातूंत प्रत्येकजण आपणालो विचार तपासून घेता आनी ताची हेरांच्या विचाराकडेन तुळा करून पळयता. योग्य अयोग्य कितें आसा तें तपासता आनी ताका लागून जो एकवटीत विचार निमाणेकडेन मुखार येता तो सगळ्यांच्या विचारांच्या चड लागीं आनी आटींव रुपान तयार जावन येता.

अशे तरेची विचारपद्धत संबंधीत मनशांक लागीं हाडटा आनी प्रत्येका भितर, संस्थे भितर आनी भोंवतणेतल्या समाजांत मुळावे आनी सकारात्मक बदल घडोवन हाडटा.

आतां 'संवाद करप' म्हणल्यार रोखड्या रोखडो समस्ये वयलो उपाय वा जाप सोदप अशें न्हीं हें म्हाका कळ्ळां. कसलेय एके म्हत्वाचे समस्येचीं सगळीं तासां, हेर जणांचीं ताचे विशींचीं मतां आमकां संवादांतल्यान समजतात. तातूंतल्यान मतभेद आशिल्लीं तासां उणीं जायत वतात आनी समस्या चडान चड बरे तरेन आमकां समजून घेवपाक मेळटा.

संवादाखातीर पयली म्हत्वाची अट आसता ती म्हणल्यार सगल्या संबंधीत वांगड्यांनीं आपापणालीं गृहितां कडेक सारप. ताणीं तीं सगळीं गृहितां स्वता सामकार दवरचींच पूण समस्येची समजणी वाडटा तेन्ना दर खेपेक तीं तपासून घेवचीं.

दुसरी अट म्हणल्यार प्रत्येकान हेरांक आपणा सारकेच समान लेखचे. अशें घडून येतलें जाल्यार संवादाच्या जाग्यार येता आसतना आपणालें पद आनी संस्थेंतली आपणाली भूमिका दारा भायर दवरून कुडींत येवचें. जेन्ना

आपणाले सहकारी म्हूण तुमी हेरां कडेन समान पांवड्यार येवन उलयतात तेन्ना बरोच फरक पडटा. समस्येचो अर्थ मेकळो जाता आनी व्हांवूक लागता आनी ताका लागून प्रत्येकाचो फायदो जाता.

तिसरी गजाल, संवाद जाता थंय कोण तरी एकटो सगल्याचें उलोवणें योग्य वाटेन मुखार व्हरपी हाजीर आसपाक जाय. ताका आमी 'सुत्र संचालक' म्हणूं येता. ताणे जो संवाद जाता तो भासाभाशेचें आनी उपरांत वादाचें रूप घेता आसत जाल्यार लक्ष दिवन संवादाचे वाटेरच हाडपाक जाय. हाचें कारण आमकां संवाद आसता तो भासाभाशेर पावोवपाची संवय आसता. सुत्र संचालकान सगल्यांकच कुशळटायेन योग्य मार्गार दवरप गरजेचें आसता.

जेन्ना तुमी टीम पांवड्यार शिकतात तेन्ना चर्चा आनी संवाद अशा दोनायची गरज आसता. चर्चे भितर तरेकवार हयकारी मतां आनी न्हयकारी मतां वांटेकार वांगडी मांडतात आनी आपणालें मत पटोवपाचो यत्न करतात. तातूंतल्यान समस्येची बरी विसकावणी जावंक पावता. वेगवेगळ्या नदरांनी मतां मांडिल्लीं आसतात आनी तातूंतल्यान सगल्यांनी मेळून एके नवे नदरेन पळोवन ते वाटेन वचप शक्य जाता.

चर्चा जाले उपरांत निर्णय घेतात. चर्चेंतल्यान कठीण मुद्दे समजून घेवपाक मेळटात आनी जापेचे दिकेन वचपाक मेळटा.

चर्चे उपरांत अमकीच एक कृती करची म्हणपाचो निर्णय जाता. दुसऱ्या उतरांनी कृती होच चर्चेचो केंद्रबिंदू आसता. चर्चे उपरांत जापो सोदता आसतना नव्यो कृती भायर येवंक शकतात. चर्चा सोंपता आनी संवाद मुखार चलत रावतात.

संवाद आनी चर्चा ह्या दोनांयचें सारकें आकलन जावप, तांचे मदलो फरक समजून घेवप हें कुटुंबाच्या, संस्थेच्या आनी समाजाच्या लांब काळाच्या स्वास्थ्याखातीर आनी नात्यांमदीं बरी समजिकाय उरपाचे नदरेन ताची गरज आसता. तातूंतल्यानच जिणेंत आनंद पसवपाक मदत जाता.



# हांसात आनी आनंदी रावात

*ज्या खिणाक विनोद तकली वयर काडटा तेन्ना आमची सगली निरशेणी, कोडवासाण खंयची खंय शेणून वता आनी चक्क भांगराळो उजवाड ताचो जागो घेता.*

*– मार्क ट्वेन*

*बरी विनोदबुद्धी म्हणल्यार हेरां वांगडा आपणा भितरल्या उणेंपणाचेरय केल्ल्या विनोदाचेर हांसपाची तांक.*

*– अनामीक*

जी कोण व्यक्ती विनोद आयकून हांसता तिका विनोदबुद्धी आसता अशें हांव पयलीं समजतालों.

आतां मात म्हाका जी व्यक्ती स्वताचेरय हांसूंक शकता, तिचेर केल्ल्या विनोदाकय दाद दिवंक शकता, ताचेर हांसून तो स्विकारूंक शकता, अशे व्यक्तीकडेनच विनोदबुद्धी आसता म्हळ्ळी गजाल म्हाका कळ्ळ्या.

एक फावट हांवें आमच्या कुटुंबीक मेळाव्यांत एक ल्हानशें भाशण केल्लें. हांवें तें पूर्ण केले उपरांत सगल्यांनी ताळयो मारून म्हाका दाद दिली. म्हाका खूब बरें दिसलें.

हांव जेन्ना घरा आयलों तेन्ना म्हज्या पुताक विचारलें ''तुका म्हजें उलोवणें कशें लागलें? तेन्ना ताणे म्हणलें ''एकदम मस्त जालें!''

हांव खोशी जालों आनी कॉलर टायट करपाक लागलों तेन्ना म्हजी बायल आमचें उलोवणें आयकताली. ती मुखार येवन म्हणपाक लागली

''तो कितें म्हणटा तें इतलें खरें मानूं नाकात. खूबदां तो व्यंगार्थान उलयता.''

म्हजी बायल म्हज्या फुलून आयिल्ल्या इगो नांवाच्या बोमाड्याक कशे तरेन पीन तोपता तें त्या वेळार तुमी पळोवपाक जाय आशिल्लें. हांव एकदम निराश जावन म्हज्यो भावना आडावन धरूंक लागलों. तेन्ना ती शांतपणान म्हजें म्हऱ्यांत येवन म्हणूंक लागली ''इतले निराश कित्याक जातात, हांव फकणां करतालें तुमची. तुमची प्रतिक्रिया कितें जाता ती पळोवंक जाय आशिल्ली म्हाका.''

म्हजे बायलेक एक फावट आमच्या पुताचे शिक्षिकेकडच्यान एक खाजगी पत्र आयलें. तेन्ना तो सातवे यत्तेंत शिकतालो. पत्र तिच्या नावार आयिल्लें कारण ताच्या प्रगती पुस्तकाचेर सदांच ती सय करताली. पूण पत्र आयलें तेन्ना ती घरा नाशिल्ली. त्या खातीर हांवें तें उगडलें.

पत्र एकदम थोड्या उतरांनी मुखेल मुद्याक धरून आशिल्लें. तातूंत बरयिल्लें –

मोगाळ मॅडम,

तुमचो पूत हेर चल्यांपरस चलयां भितर इल्लो चडच रस घेवंक लागला. आमचे वटेन जी जतनाय घेवपाक जाय ती आमी घेतलींच, पूण तुमीय बी तुमकां योग्य दिसता ती जतनाय घेवची अशें मागतां.

धन्यवाद.

हांवें हें पत्र वाचुकूच ना अशें भासोवपाचें थारायलें. हो गूण वारशाच्या रुपान ताचे भितर आयला अशें म्हणून ती म्हाका हिणयत बी म्हूण हांव मातसो भिलों.

हांवें तें पत्र आशिल्लें तशेंच पाकिटांत परतून बंद केलें आनी तिका सहज दिसपा सारक्या जाग्यार दवरलें.

त्या दिसा रातचें तिणें तें पत्र उगडून वाचलें. ती कांयच उलयली ना आनी हांवेंय तिका कांयच विचारलें ना. रातचीं जेवले उपरांत आमी न्हिदलीं. त्या उपरांत ती मोन्यानी उठून गेली आनी टेबलाकडेन बसून ते शिक्षिकेच्या पत्राक जाप बरोवंक लागली. हांव गाड न्हिदलां अशें तिका

भासयलें.

दुसरे दिसा फातोडेर ती गाड न्हिदेंत आसतना हांवें तिका जाग येवची ना अशी जतनाय घेवन तिजें बरयल्लें तें पत्र वाचलें. तिचे जापेचो मतितार्थ असो आशिल्लो –

मोगाळ मॅडम,

म्हज्या पुताची चुकीची चलणूक लक्षांत हाडून दिल्लेखातीर तुमचे उपकार मानतां. आमी खात्रेन त्या संबंदान फावो ते उपाय करतात. पूण तुमचे वटेन तुमी कितें उपाय केला ते विशीं म्हाका तुमी मार्गदर्शन केलें जाल्यार उपकार जातले, कारण तशेच उपाय हांव ताच्या बापायचे चलणुके संबंदानय घेवंक शकतां ...

धन्यवाद.

आतां तुमी कोणेय म्हाका ही गजाल खरी काय कितें अशें विचारलें जाल्यार हांव जाप दिनासतना मौन रावप पसंत करतलों. पूण हांगा एक गजाल मात हांव सांगन. ही गजाल हांवें तुमकां दुसरें कोणायचें नांव घेवन सांगिल्ली जाल्यार ती आतां सांगल्या तिच्या अर्द वांट्यानय परिणामकारक जावची नाशिल्ली.

केन्ना तरी आदीं वाचिल्ली एक गजाल म्हाका हांगा सांगीन दिसता. ''विनोद हो सदांच बायलमनशेच्या स्कर्टा सारको आसचो, ताणे धोंपरां धांपिल्लीं उरतात इतलो तो लांब आसचो न्हीं आनी जांगो उगड्यो पडटात इतलो तो मोटवोय आसचो न्हीं. ओंठांचेर हांसो फुलोवचो पूण कोणाच्यो भावना दुखोवच्यो न्हीं.''

ज्या मनशान हें म्हणलां ताका हांव सलाम करतां. ताणे म्हाका एक शिकवण दिल्या. म्हजे प्रशिक्षणाचे कार्यावळींत म्हज्या लेक्चरा मदीं जेन्ना हांव विनोद सांगतां तेन्ना अशे तरेन तोल सांबाळून तो हांव सांगतां. कातकुतल्यो जाल्ले वरी हांशें फुलता पूण कोणाच्यो भावना दुखवनात.

आमी सगळीं सत्यवान सावित्रीची प्रसिद्ध काणी जाणात. सत्यवानाचे बायलेन यमराजाकडेन वाद घालून आपणाल्या घोवाक ताच्या मरणा विळख्यांतल्यान सोडोवन घेतलो.

एक फावट 'पर्सेप्शन' ही संकल्पना शिकयतालों. आयकल्ली गजाल सारकी समजून ताचो मनातले मनात अर्थ लावप ही संकल्पना म्हणल्यार 'पर्सेप्शन'. त्या वेळार हांवें विद्यार्थ्यांक ही सत्यवान सावित्रीची कथा सांगली आनी तांकां हे कथेचो सार कितें आनी तांकां ती कशी कितें भावली, तिचो ते कशे तरेन अर्थ लायतात त्या संदर्भान उलोवपाक सांगलें.

एका विद्यार्थ्यान सावित्रीचो सेवाभाव, तिच्या पातिव्रत्याच्या बळाचो यमराजाचेर कसो परिणाम जालो, हाचे विशीं सांगलें, जाल्यार दुसऱ्यान यमराज काळजान दयावान आशिल्ल्यान ताका सावित्रीची काकुळट आयली अशें सांगून ताका कथेचो नायक वा हिरो केलो. अशे तरेन हेर जणांनीय आपापणाले परीन कथेचो अर्थ लायलो.

एकल्याची जाप मात मजेशीरच आशिल्ली. ताची जाप आयकून सगल्यांनी तोखणायेन ताळयो मारून ताका शाबासकी दिली. ताणे म्हणलें, '' तुमकां तुमचे बायले पसून कोणूच वांचोवंक शकचो ना, तो यमराज आसलो तरीय बी.''

म्हज्या एका पयसुल्ल्या भावाक मुक्त हातान विनोदबुद्धीचें दान फावो जालां. कसलेय परिस्थितींत तो हांशें फुलोवंक शकता. ताची विनोद सांगपाची शैलीय बी एकदम परिणाम सादपी आसता. हांवूय बी म्हज्या प्रशिक्षणांत शिकयता आसतना विनोद सांगतां. पूण ताचे सामकार हांव उणो पडटां. ताका हे कलेंत भांगरा पदक दिवपाक जाय अशें म्हाका दिसता.

ताचो एक इश्ट बँक मॅनेजर. तो हालींच रिटायर जालो. ह्या सभाग्याचें खाशेलेंपण म्हणल्यार म्हजो हो भाव ताका मोख करून सतत विनोद करीत आसता आनी तो ते खिळाडूपणान स्विकारता आनी एंजोय करता.

तांची एक गजाल हांव हांगा सांगतां. तशें पळयल्यार हांव म्हज्या त्या भावा सामकार हे कलेंत एकदम फाटीं पूण यत्न करून पळयतां.

एक दीस भगवान विष्णू गरुडाचेर बसून ह्या इश्टाच्या घरा वयल्यान उडत वतालो. दनपारचीं दोन वरां जाल्लीं. गरुडान सहज अशें भगवान विष्णूक विचारलें, '' ह्या जगांत सगल्यांत सुखी मनीस कोण अशें तुमकां

दिसता?''

भगवान विष्णून ह्या बँकवाल्या इश्टाच्या घरावटेन बोट दाखोवन म्हणलें ''आतां दनपारच्या वेळार ए.सी.च्या थंड वाऱ्यांत न्हिदून घोरेता तो हो मनीस सगळ्यांत सुखी.''

गरुडान म्हणलें ''भगवान आतां जायतेजण या वेळार आपापणाल्या घरांत दनपारचे न्हिदल्यात आनी घोरेत पडल्यात आसतले. जाल्यार तुमी हाकाच सुखी कित्याक म्हणटात?''

भगवान विष्णून जाप दिली ''म्हज्या मोगाळ गुरुडा, हो सभागो आतां आपणाल्या कामार, ड्यूटीचेर आसा. तो सदांच दनपारच्या वेळार जेवपाक घरा येता कारण बँकेची शाखा घराक लागींच आसा आनी आतां हो विसव घेता.''

गरुडाक आयकून खूब बरें दिसलें. ताणे भगवान विष्णूक विनवणी केली ''भगवान, इतलीं वर्सां तुमची हांवें केल्ली सेवा लक्षांत घेवन फुडल्या जल्मात म्हाका त्या बँक मॅनेजराचो जागो मेळूं दी, असो म्हाका वर दियात.''

भगवान विष्णून जाप दिली ''तुका तो जागो दिवपाक म्हाका खूब खोस जातली आशिल्ली, पूण कितें करूं? तो जागो आदींच हांवें म्हजे खातीर राखून दवरला.''

हे आतां सांगिल्ले विनोद हांवेंच निर्माण केल्यात अशें हांव म्हणचों ना. फकत ते सांगपाची शैली आनी शब्द म्हजे.

आतां जर हांवें तुमकां हांसयले आसत आनी मनांतल्यान तुमी हांसले आसत जाल्यार फाट थापटून तुमी म्हाका शाबासकी दिली अशें हांव मानतां.

हांसप हें सगल्या रोगांचेर बऱ्यातलें बरें वखद अशें म्हणटात. तुमची मानसीक आनी शरीराची भलायकी तुमी कितले मेकळेपणान हांसतात आनी काळजांतल्यान हांसतात ताचे कडेन संबंधीत आसता.

त्या खातीर हांसत रावात आनी आनंदी रावात.



## भाग २

# हांवें म्हज्या काळजाचे उद्गार आयकले

*काळजाचीं स्वताचीं अशीं कारणां आसतात जीं मनाक केन्नाच समजुचीं ना.*

*– पास्कल*

रॉबीन शर्मा हाणे बरयिल्लें 'द मॉंक हू सोल्ड हिज फेरारी' ह्या नांवाचें एक पुस्तक हांव वाचतालों. तांणी आपणालीं सपनां सत्यांत हाडपा खातीर कांय सोपणां चडपाक सांगल्यांत.

पयलें सोंपण तांणीं सांगलां तें म्हणल्यार 'आपणाक कितें जाय तें आपणाल्या दोळ्यां सामकार स्पश्ट आसपाक जाय. तुमची मोख तुमच्या दोळ्यां सामकार जितली चड स्पश्ट आसतली तितली ती तुमकां मेळप सोपें जातलें.

दुसरें सोंपण आसता तें आपणे मोखी मेरेन पावपा खातीर एक सकारात्मक अदृश्य दडपण सतत आपणाचेर घालून घेवप. त्या खातीर तुमी कितें मेळोवपाक सोदतात तें तुमी भोंवतणेतल्या सगल्यांक सांगात.

तिसरें सोंपण जें तांणीं सांगलां तें म्हणल्यार आपणे मनांतले मनांत एक निमणी तारीक थारावप आनी तितले मुदती भितर आपणाली मोख हातासपाचो संकल्प करप. अशे तरेन वेळाचें बंधन राखलें जाल्यार मोखी मेरेन वचपाच्या आपणाल्या यत्नाक जीवसाण येता. आपणाक कितें मेळोवपाचें आसा तें एका कागदार बरोवन दवरात. ही मोख कसल्याय विशयाकडेन संबंदीत आसूंक शकता. देखीक – स्वताची भलायकी, दुडू जोडप, स्वताची उदरगत, नात्याचे संबंद सुदारप वा अध्यात्मीक वाटेन

वचप... अशें कितेंय आसूंक शकता.

त्या उपरांत ते 21 आंकड्याचो नेम पाळूंक सांगतात. एखाद्री नवी गजाल सतत एकवीस दीस करीत रावलो जाल्यार तिची संवय जाता. तितल्या काळा भितर तुमचो मेंदू ती नवी गजाल कायमची स्विकारता आनी त्या खातीर एक नवो मज्ञा मार्ग मेंदवांत तयार जाता.

हें सगळें घडटा आसतना तुमी ताचो आनंद घेवपाक जाय अशें ते शेवटाक सांगतात. जिणेची खोलायेन ओड लागून उरप हें तुमच्या सपनांक उर्जेची पुरवण करता. तुमी जें कसलें काम करतात तातूंत पुरायपणी बुडून वचात. तुमचें काळीज आनी आत्मो लावन तें काम करात. तें काम करता आसतना आनंद घेयात.

आतां हांवें ह्यो सुचवण्यो म्हजे स्वताचे जिणेत चलणुकेंत हाडून मनात बाळगिल्लीं सपनां कशीं पूर्ण केलीं तें तुमकां सांगतां.

आपणाली मोख नदरे सामकार स्पश्ट उरप कितलें म्हत्वाचें आसता ताचो प्रत्यय म्हाका म्हजे कारकिर्दीच्या पयल्या पांवड्यार आयलो.

होसाड नांवाच्या एका ल्हानशा खेडेगांवात म्हजो जल्म जालो. शरावती न्हंयेच्या कांठार आशिल्लो हो एक गांवगिरो वाठार. जोग धबधब्यांत जल्माक येवन ही न्हंय होन्नावर हांगा अरबी दर्याक मेळटा. आमच्या वाठारांतलें होन्नावर हें तालुक्याचें शार. कर्नाटकांतल्या उत्तर कन्नड जिल्ल्यांत हो भाग येता.

त्या आदल्या काळार आमच्या गंवांत माध्यमीक शाळा नाशिल्ली. निमण्या मध्यम वर्गांतल्या घराब्यांत जल्म जाल्ल्यान शाळेंत धाडून म्हाका शिक्षण दिवप म्हज्या पालकांक परवडपा सारकें नाशिल्लें. अशे तरेचे अर्थीक आडखळीक लागून म्हाका दोन वर्सां घराच रावचें पडलें.

म्हाका फुडलें शिक्षण घेवपाकच जाय अशें दिसतालें. ती म्हजी इत्सा खूब खर आनी शुद्ध आशिल्ली. म्हाका दिसता त्याच खातीर खंयची तरी अज्ञात वैश्वीक शक्त म्हाका पावली. म्हज्या कांय नात्यांतल्या मनशांनी म्हजी इत्सा समजून घेतली आनी ते म्हाका आदार दिवपाक आपखोशयेन फुडें सरले. त्या आदाराक लागून हांव म्हजें माध्यमीक शिक्षण पूर्ण करूंक

शकलों. त्या नातांतल्या मनशां विशीं आनी होन्नावरांतल्या म्हज्या न्यू इंग्लीश स्कूलांतल्या शिक्षकां विशीं म्हज्या मनात उपकाराची भावना भरिल्ली आसा.

आतां हांव मनात बाळगिल्लीं सपनां पूर्ण जावप हाचे विशीं सांगतां. त्या आदल्या काळांत म्हाका भविश्याचीं सपनां पळोवप हाचे विशीं कसलीच कल्पना नाशिल्ली. न्हिदले उपरांत दिसतात तींच सपनां हांव जाणा आशिल्लों. तेन्नाचें म्हजें एकच सपन म्हाका याद जाता तें म्हणल्यार मुंबय वचप आनी दुड्डू जोडपाक सुरवात करप. आठ भुरगीं आशिल्ल्या आवयबापायचो व्हडलो पूत आशिल्ल्यान त्या काळांतली सगल्यांत म्हत्वाची गरज ती आशिल्ली.

आज मात म्हाका त्या वेळार कितें साध्य करपाचें आशिल्लें तें स्पश्टपणान म्हज्या दोळ्यां सामकार येता. 1953 वर्सा हांव मुंबय आयलों. मॅट्रिकेक हांव वर्गांत पयलो आयिल्लों. म्हाका गणितांत 90 परस चड मार्क मेळिल्ले. म्हज्या लागींच्या नात्यांतल्या मनशां आनी बरें मागप्यांक हांवें मुखार सायन्साक वचचें आनी फुडलें शिक्षण घेवचें अशें दिसतालें.

पूण तेन्ना म्हाका गणितांत पडिल्ले बरे मार्क हांवें थारायिल्ले मोखी वयल्यान म्हजी नदर अशी तशी हालोवंक शकले नात. त्या खातीर हांव देवाचे उपकार मानतां. हांवें मुखार कितें करपाचें तें स्पश्टपणान थारायल्लें. त्या प्रमाण हांवें म्हज्या काळजाचो उलो आयकलो. हांवें मुखावयलें शिक्षण घेवपाक कला शाखा वेंचली. तत्त्वज्ञान आनी मानसशास्त्रांत हांवें पदवी आनी पदवे उपरांतलें शिक्षण घेतलें.

म्हजे खातीर फुडें शिकप म्हत्वाचें आशिल्लेंच पूण पयसो जोडप हेंय बी तितलेंच म्हत्वाचें आशिल्लें. म्हाका हीं दोनूय एकेच फावटी साध्य करपाचीं आशिल्लीं. म्हजे खातीर मुंबयचें सिद्धार्थ कॉलेज ऑफ आर्टस शिक्षणाचें जाल्यार बी. ई. एस. टी. आस्थापन पैसो मेळोवपाचें साधन जालें. आज हांव ह्या दोनूय संस्था सामकार मान बागयतां कारण आज हांव जो कितें आसां तातूंत ह्या दोन संस्थांचो खूब व्हडलो वांटो आसा.



# हांवें म्हजो जिणें सांगाती वेंचलो

*हांव तरणाटो आसलों तेन्ना आदर्श चली मेळ्ळे बगर लग्न करचों ना असो सोपूत घेतिल्लो. पूण कितें सांगूं! जेन्ना ती म्हाका मेळ्ळी तेन्ना तीय बी एक आदर्श दादलो सोदताली.*

*– हेन्री आलेन फॉर्नियर*

एका दिवाळेच्या शुभेच्छा कार्डाचेर छापिल्ल्या चार वळींमदीं एक वळ अशी आशिल्ली :

''लक्षांत दवरात, विचार एक दीस प्रत्यक्षरूप घेता.''

हांव जेन्ना 25 वा 26 वर्सांचो आशिल्लों त्या काळांत आतां म्हजें मन पावलां. म्हजें पदव्युत्तर शिक्षण तेन्नाच सोपिल्लें. प्राध्यापक जावपाचे इच्छेन हांव झपाटून गेल्लों. तेना हांव शिकता आसतनाच नोकरीय करतालों. थोडे पयशे कमयतालों. पूण प्राध्यापकाचे नोकरेन म्हाका चकयलो. म्हजे कडेन शिक्षण आशिल्लें पूण अणभव नाशिल्लो.

पयलीं एम.ए. ची पदवी हांवें तत्त्वज्ञान विशयांत घेतिल्ली. तो म्हजो आवडटो विशय आशिल्लो. म्हज्या कांय इश्टांक तातूंत म्हजो वेगळो हेतू आसा अशें दिसलें. त्या वेळार तत्त्वज्ञान हो चलयांचो विशय अशें मानताले. म्हाका ते चाळयताले आनी हांवें तांचेकडेन केन्ना वाद घालून आव्हान दिलें ना. आज तेन्नाची ती याद जाता आनी गौळण्यां मदीं एकटोच कृष्ण आशिल्ल्याची, आनी हेर भुरग्यांक दुस्वास जावपा सारकी ती भूमिका हांव खरेपणी एंजॉय करतालों.

आतां मूळ मुद्दो सांगतां. त्या वेळार हांव लग्ना खातीर जिणें सांगाती मेळोवपाक योग्य अशी चली सोदतालों. म्हजीं आवय बापूय आनी चुलते,

मामा बी वेगळो विचार करतालीं. तांकां हांव आजून लग्नाचे पिरायेचो जावंक ना अशें दिसतालें.

त्या वेळार म्हज्या कुटुंबांतल्या जाणट्या मनशांच्या विचारा प्रमाण लग्न करप ही एक गंभीर गजाल आशिल्ल्यान ती फकत तरणाट्या भुरग्यांच्या हातांत आसूंक फावोना. तांचें हें मत म्हाका तांचेकडेन उलयता आसतना कळ्ळें. पयलीं भुरग्यांनी सारके नोकरे धंद्यांत थीर जावचें, स्वताचो जागो घेवचो, येणावळ सारकी नित्य नेमान येवची आनी मागीरच लग्नाचो विचार करचो अशें तांकां दिसतालें.

त्याच सुमाराक एक खोसदिणें वाऱ्याचें ल्हार आंग चाटून वचचें तशे तरेची घडणूक घडली. एकटो जाणटो सभ्य मनीस म्हाका मेळ्ळो. ताणे हांसत म्हाका सांगलें, ''बाबरे, जेन्ना योग्य चली जिणेत येता तोच वेळ लग्ना खातीर योग्य आसता. पूण ती तुका आवडल्या इतल्याच आदाराचेर तिचेंकडेन तूं लग्न करता इतलेंच उपकरचें ना, तर तिकाय बी तुजेकडेन लग्न करपाचें आसा काय ना हाची खात्री करून घे.''

हो विचार म्हाका पटलो, आवडलो आनी हांवें तो प्रत्यक्षांतय हाडलो. योग्य चली सोदपाक म्हाका चड वेळ लागलो ना. पूण म्हाका जी चली योग्य दिसली, तिका हांव तिचे खातीर न्हवरो म्हूण योग्य दिसतां जाल्यार ताची खात्री करून घेवपाक म्हजेकडेन कांयच साधन नाशिल्लें.

हांवें योग्य अशो कांय हालचाली केल्यो आनी तिच्या घरांतल्या जाणट्यांक हांव पसंत आशिल्ल्याच्यो कुरवो म्हाका मेळ्ळ्यो. पूण खुद्द तिका हांव पसंत आसां व्हय हें कळपाक म्हाका थोडी वाट पळोवची पडली.

तिका खास करून आवडत अशें म्हजेकडेन चड कांयच नाशिल्लें. पूण हांव प्रामाणीक आशिल्लों हेंच तिका आवडलें आनी तिणे हयकार दिलो.

हांवें म्हाका पसंत आशिल्ले चलयेकडेन लग्न केलें. हांगा पयलीं केल्लो विचार खरो जालो. लग्ना वेळार म्हजी पिराय 28 वर्सां आनी तिची आशिल्ली 22 वर्सां. रोखडींच आमी आमच्या सांगाताचे जिणेचो भांगरासुवाळो मनोवपाचीं आसात.



# एक आदर्श जोडपें

*जेन्ना 'पती' नांवाची पुरूश जात देवान निर्माण केली, तेन्ना ताणे बायलांक आदर्श न्हवरे पृथ्वीच्या प्रत्येक कोनशां–कुशींनी मेळटले अशें वचन दिलें आनी मागीर ताणे पृथ्वी गोल केली.*

*– अनामीक*

एक दीस हांव मावोड्यां म्हणल्यार बायलेच्या कुळरा आशिल्लों. म्हज्या मांवाची पुण्यतीथ आशिल्ली. हांव हो दीस केन्नाच चुकयना. म्हाका आपणाली चली दिल्ले खातीर त्या निमतान म्हज्या मांवाचे उपकार मानपाची संद मेळटा.

थंय एक वाद सुरू जालो. हांव आनी म्हजी बायल एकामेकाच्या विरुद्ध मताचीं आशिल्लीं. कारण सामकें सादें आशिल्लें. म्हजे सारक्या पिराय जाल्ल्या जाणट्यांक आपणाले तरणाटे पिरायेंतले फोटे आपणाल्या भुरग्यांक, हेर लागींच्या नात्यांतल्या मनशांक दाखोवपाची खूब उमेद आसता. तशे हांव ते फोटे दाखयतालों आनी म्हजे बायलेक तें मानवना जालें. हाचे विशीं कोणे निमणें मत मांडलें ना तरी आमचे आवाज वाडले. मतभेदाक लागून वातावरण तापलें पूण झगडें मोठ्यार पडलें ना.

आमी एक झगडाळ जोडपें असो ताचे वयल्यान कोणाचोय समज जायत म्हूण हांवें कांय वर्सां आदीं घडिल्लो एक प्रसंग थंय हाजीर आशिल्ल्या सगल्यांक सांगलो. म्हजे भितरलो प्राध्यापक जागो जालो आनी हांव उलोवंक लागलों.

आमी एक आदर्श जोडपें म्हणपाचो म्हजो दावो ना आनी तसो तो म्हजे बायलेचोय बी ना. ती जाल्यार म्हाका आदर्श घोव अशें मात लेगीत मानपाक तयार ना. पूण तिचो म्हजेर मोग आसा. हांव मात तिका आदर्श पत्नी मानतां. पूण ही गजाल (आतां सांगतां तशी) उतरांनी हांवें कोणाकय सांगल्यार बहिर्मूख अशीं लेबलां लायतले.

म्हज्या कांय लागींच्या नात्यांतल्या मनशांचें आनी इश्टांचें आमी एक आदर्श जोडपें अशें मत आसा. म्हजो एक नात्यान जो पयसुल्लो भाव लागता ताणे आमकां एका दिसा खातीर आपणागेर आफयलीं. त्या जोडप्यान आमची खूब बरी ऊठबस केली.

बरे सुके वले रुचीक खावपाचे जिनस आनी च्या पाणी बी जालें. आमी पुराय मेकळेपणी उलवणीं केलीं आनी मेकळेपणान मिसळ्ळीं बी. दारार टक टक करून तो म्हजो भाव भितर आयलो आनी आमचे सामकार बसलो. सुरवातेक तो इल्लो उलोवंक फाटींफुडें जालो आनी मागीर धीर पुंजावन आपणाल्या मनात जो प्रस्न आशिल्लो तो विचारलो. ताणे पयलींच आपणाक विचारिल्ल्या प्रस्नाचें खरें उत्तर जाय अशें आमकां सांगलें. ताणें म्हणलें, ''तुमी एक आदर्श जोडपें आनी एकामेकाकडेन केन्नाच झगडणात अशें म्हजी आई सांगता तें खरें?''

हांवें ताका म्हणलें, ''आमकां तुजे आई विशीं खूब आदर आसा आनी हांव तिका सदांच खूब मान दितां. तिका कुटुंबांतली आदर्श अस्तुरी म्हूण सगलीं मानतात. ती जर आमकां आदर्श जोडपें अशें समजता आसत जाल्यार आमचो तो भोवमानच. आतां तुजो प्रस्न आसा तो आमी झगडटात काय कितें हो. ताची स्पश्ट जाप म्हणल्यार आमी एकामेकाकडेन झगडटात.

ही जाप आयकून तो आवडीचें संगीत आयकून जातात ते तरेन खोशी जालो. त्या खिणाक ताणे रांदचे कुडींत आशिल्ले बायलेक भायर आफोवन म्हणलें, ''पळय, सांगुनाशिल्लें तुका हांवें तें अश्क्य म्हूण? तो कितें म्हणटा आयक. तींय बी आपले भितर झगडटात खंय.''

ताणे सुटकेचो श्वास घेतलो आनी मागीर ल्हवूच सांगलें, आपणे

बायलेकडेन पैज लायिल्ली. तुमी घोव बायल झगडणात अशें जर सिद्ध जालें जाल्यार आपूण आपणाली अर्द मिशी कापतलों आनी जिवीतभर तसोच भोंवतलों अशें म्हणून.

ताका तसो अर्द मिशी काडून भोंवपाक पडचें ना हाचे खातीर म्हाका आनंद जालो. हांवें ताका सांगलें, आदर्श जोडपें हाचो अर्थ घोवा बायले मदीं मतभेद नात, तीं झगडच नात असो जायना. तीं झगडाळ नासूं ये पूण तीं झगडटातूच. कांय वेळार प्रत्येकाचीं वेगळीं मतां आनी वेगळे मार्ग आसतात. घोवान बायलेक तिचे वेगळे मार्ग आपणावपाची मेकळीक दिवपाक जाय. घोवा बायलेच्या आदर्श नात्यांत दोगांकय आपापणालें मत मांडपाक मेळपाक जाय. मागीर एकामेकाकडेन चर्चा करून तातूंतलो एक पर्याय तीं वेंचतलीं. तो दोगां मदल्या कोणाचोय आसूंक शकता. खूब वर्सां आदीं हांव विद्यार्थी आसतना 'रीडर्स डायजेस्ट' ह्या माशिकांत एक गजाल वाचिल्ल्याची याद जाता.

> *''एकामेकाकडेन झगडनात अशें जोडपें म्हाका दाखयात, हांव तुमकां तांचो मेंदू शेवण्यावरी आसा हें दाखोवन दिता.''*
>
> *–अनामीक*

आदर्श जोडप्याच्या नात्याक अध्यात्माचें एक पातळ अस्तर आसता. ताचे खातीर त्या नात्याक तुटूंक पावना अशी घटसाण येता. तीं एकामेकाच्या मताचो आदर करतात आनी आपणा मदल्या नात्यांत आपणालो अहंकार येवंक दिनात. कसलेय गजालीचो तीं सगल्या वटांनी विचार करतात आनी मागीरच आपणाली प्रतिक्रिया दितात. घोवा बायलेमदीं मतभेद आसप ही नातें बळिश्ट आशिल्ल्याची कुरू आसता.



# आमचें धुवेंचें लग्न

*मनात थारावन पयलें पावल घालप कठीण आसता. सुरवात करप म्हणल्यार अर्दी लडाय जिखिल्लेवरी आसता. ह्या दोन गजालीं खातीर आपणाली इत्साशक्त आनी अंतरांतलें बळ हांची गरज आसता.*

*– रॉबीन शर्मा*

खूब वर्सां आदीं हांव 'निर्णय घेवप' ह्या विशयाचेर एक व्याख्यान दिवपाची तयारी करतालों. 'निर्णय घेवप' हो मानव संसाधन विकासाचे वाटेवयलो खूब म्हत्वाचो आनी बळिश्ट असो एक गूण मानतात.

कार्य मुखार व्हरपाक ह्या निर्णयाची गरज आसता तो निर्णय एक नवें पुस्तक विकतें घेवपाविशीं आसूं वा नव्या घरा खातीर दुडू घालपा संबंदांतलो आसूं, ताका लागून आपणाले जिणेत म्हत्वाचे बदल घडून येवप शक्य जाता.

आमी फकत परिस्थिती सामकार हार मानपी प्राणी न्हीं. आमी परिस्थिती निर्माण करूंक शकतात. आपणाली परिस्थिती न्ही जाली तरी आपणाले निर्णय आपणालें भविश्य घडयतात.

योग्य निर्णय खंयचो? जाच्या आदारान जिणेत मुखार आपणाल्या हातांतल्यान काम जायत रावता तो निर्णय योग्य आसता. हांगा हांव रावलों आनी विचार करूंक लागलों. म्हजे स्वताचे जिणेत ही संकल्पना हांव कशे तरेन चालीक लावंक शकतां?

खूब दिसां साकून म्हजी बायल आमचे धाकले चलयेक सोयरीक

पळोवपाक सुरवात कर म्हूण फाटल्यान लागिल्ली कारण थोड्याच दिसांनी तिका 25 वर्सां पूर्ण जावपाचीं जाल्लीं. जायते बापूय सांगतात तसोच हांवूय बी कित्याक इतली ताकतीक करता, ल्हान आसा तें आजून, करया रोखडीच सुरवात अशी बायलेक जाप दितालों. सगल्या आवयांक दिसता तशेंच हिकाय बी हांवें ह्या विशयाकडें दुर्लक्ष करूंक फावोना अशें दिसतालें.

एका खिणार हांवें ह्या कामाक सुरवात करपाचो निर्णय घेतलो. हांव एक कागद आनी पेन घेवन बसलों आनी आमकां धुवेखातीर फावो सारको न्हवरो कसो आसचो त्यो अपेक्षा बरोवपाक सुरवात केली. त्यो बरोवन पूर्ण जाल्यो तेन्ना हांवें बायलेक आफोवन तो कागद दाखयलो आनी आतां त्याच कामाक लागतां अशें म्हणलें. बरयल्लें वाचून तिका आनंद जालो. तिच्या घोवाक जाग आयिल्ली आनी हें काम बेगिनात बेगीन कारपाचें म्हत्व पटिल्लें. आपणाले पसंतीची पावती म्हूण तिणे म्हाका मोगान वेंग मारली. अशें ती चुकून केन्नाय करता.

अर्दी लडाय जिखिल्ली. आतां म्हाका प्रेरणा मेळिल्ली. दुसरे दिसा सकाळीं हांवें म्हज्या नात्यांतल्या मनशांक आनी इश्ट–परिचितांक डझनभर सुमार फोन केले. तीन चार दिसां भितर म्हजे कडेन आठ ते धा न्हवऱ्यांची यादी तयार जाली. बायलेन खोशी जावन पसंती उगतावन म्हणलें, ''सुरवात बरी जाल्या.''

ते उपरांत पंदरा दिसांत पत्रिकांचें दिवप–घेवप जालें आनी भटाकडेन वचून गूण तपासून पळयले. म्हायती बी काडली. ह्या सगल्या यत्नांतल्यान चार न्हवऱ्यांची यादी तयार केली. मागीर धुवेक जाय तितली मेकळीक दिवन तिची पसंती विचारली. तिणे निर्णय सांगले उपरांत दोगांकय मेळपाची संद दिली. दोगांकय मेळपाची मेकळीक दिली दोनूय वटेंतल्या आवय–बापायचे मान्यतायेन सगल्यो गजाली घडत गेल्यो. आनी अशे तरेन परंपरेचो आनी आधुनीकतायेचो मेळ घालून लग्न जुळोवन हाडलें. म्हजे बायलेन 'गुड बॉय' अशें म्हणून म्हजी तोखणाय केली. साठी हुपले उपरांत अशे तरेन बायलेचें प्रशस्तीपत्र मेळप म्हाका खोस दिवन गेलें.

निर्णय घेवन रोखडीच कृती करून मुखार सरिल्ल्यान हें सगळें घडून

आयलें.

मागीर साकरपुडो जावपाक चड वेळ लागलो ना. स म्हयन्या उपरांतली तारीक थारायल्ल्यान म्हाकाय तयारी करपाक वेळ मेळ्ळो. लग्नाचो हॉल, भांगराच्यो वस्ती, जेवणाचो कांत्राटदार, जेवणाचे पदार्थ अशें सगळें थारावन घेवपाचें आशिल्लें. त्या भायर आनीकय ल्हान व्हड कामां करपाचीं आशिल्लीं. त्या काळांत आदीं केल्लें बजेट दोन लाखांचें आशिल्लें.

इतलो दुडू खंयच्यान हाडप? हांव रिटायर जाल्लों आनी हांव पेन्शनाचेर जगतालों. म्हजी बायल तितल्या भितर काटकसरीन संवसार करताली. हांवें एच. आर. डी. शिक्षक म्हूण निकतीच नव्यान वेगळ्या करियराक सुरवात केल्ली. ती सवकासायेन जम धरताली आनी म्हाका पयशांचो उणाव नाशिल्लो. पूण दोन लाख ही रकम त्या काळांत ल्हान म्हणपा सारकी नाशिल्ली. हांव कर्ज काडूंक शकतालों पूण हांव कितलो भार सोसून घेवंक शकतालों ताकाय मर्यादा आशिल्ली.

आज हांव जेन्ना फाटीं वळून पळयतां तेन्ना आकर्षणाचो वैश्विक नेम (युनिव्हर्सल लॉ ऑफ अॅट्रॅक्शन) म्हजे खातीर कामाक लागला अशें म्हाका जाणवता. ह्या नेमान पयलीं तुमकां जें जाय आसता तें तुमी तीव्र इत्साशक्तीन मागपाक जाय. जें मागतां तें आपणाक मेळटलें असो गाड विस्वास बाळगुचो पडटा, आनी मागीर आपणें तें स्विकारपाची तयारी करची पडटा.

आमचे धुवे खातीर योग्य भुरगो सोदून तो नक्की करप हो पयलो पावंडो म्हणल्यार मागणें घालप. आतां लग्न जातलेंच अशी खात्री बाळगून नात्यांतले आनी इश्टपरिवार हांचे सामकार साकरपुडो केलो हो दुसरो पावंडो आशिल्लो.

तिसरो पावंडो म्हणल्यार आतां स्विकारपाची तयारी. 'व्होंडा बायर्न' हांच्या 'द सीक्रेट' ह्या खूब गाजिल्ल्या पुस्तकांत हो नेम सांगला. पयले दोन पावंडे चडले उपरांत वैश्विक शक्त आपले आपूण कामाक लागता आनी आपणाले इच्छेप्रमाण घडणुको घडपाक लागतात अशें ती म्हणटा. आनी खरेपणी त्या स म्हयन्यां भितर व्हडा संखेन साबार संस्थांकडच्यान

आनी आस्थापनांकडच्यान आपणाल्या अधिकारी आनी कामगारांखातीर मानव संसाधन विकास कार्यशाळा घेवपाक म्हाका आमंत्रणा आयलीं. धुवेच्या लग्ना खातीर जो खर्चाचो अदमास केल्लो ताचो चारांतलो तीन वांटे दुडू हांव उबो करूंक पावलों. त्या वैश्विक नेमाचो त्याच खातीर हांव उपकारी.

हांगा म्हाका आनीक एक गजाल सांगन दिसता ती म्हणल्यार 'द सीक्रेट' हें पुस्तक हांवें तो मेरेन वाचूंक नाशिल्लें. पूण हो नेम तुमकां खबर आसूं वा नासूं तो तुमचे खातीर आनी खरेपणी सगल्यांचेखातीर काम करता आनी आपणालें अस्तित्व दाखोवन दिता.

थारिल्ले प्रमाण वेळार आनी आमकां जाय तशें लग्न जालें. थाटान घडून आयिल्लो असो तो सुवाळो आशिल्लो. म्हजी धूव आनी जांवय एकदम खोशी आशिल्लीं. आमकांय खूब आनंद जालो. म्हजीं नात्यांतलीं आनी इश्ट बी सगलीं कार्याक मुजरत आयलीं आनी शुभेच्छा, आशिर्वाद बी दिले. हांकां आतां एक धूव आनी एक पूत अशीं भुरगीं आसात. आमच्या आनंदाचो तो एक स्त्रोत. तीं आमकां खूब आनंद दितात. तांच्या सांगातांत आमी जिणेचो आनंद अणभवतात.



# आमच्या लग्नाच्या भांगर सुवाळ्याचें वर्स

*मनशान जर जीणभर आपणाक योग्य अशें काम केलें आनी ताका फावो सारकी बायल मेळून तिचेर ताणे मोग केलो जाल्यार ताणे जिणेचो हिशोब पूर्ण केलो अशें म्हणपाक जाता.*

*– हेगेल*

''हांव फुडल्या वर्सा आमच्या लग्नाच्या भांगर सुवाळ्याचें वर्स मनोवपाक मॉरिशसाक वतलों.'' अशें हांवें म्हज्या एका कॉलेज शिक्षणा वेळा वयल्या एका इश्टाक सांगलें. ताणे म्हाका उरफाटें विचारलें, ''हांव वतलों अशें कित्याक म्हणटा? आमी वतलीं अशें म्हणपाक जाय.''

''ती थंयच आसा. आमी लग्नाचो रुप्या सुवाळो मनोवपाक थंय गेल्लीं. येतना हांव तिका थंयच विसरून आयलों. आतां वचून तिका घेवन येतलों.'' हांवे शांतपणान जाप दिली.

हांव तुमकां विनोद सांगतां हें आतां तुमकां कळ्ळांच आसतलें.

एक दीस हांवें हो विनोद म्हजे बायलेक सांगलो. तिका तो आवडटलो आनी ती व्हडल्यान हांसून तो स्विकारतली अशें म्हाका दिसतालें. पूण ती मातशी गंभीर जाली आनी तिणे म्हणलें –

''बरें जालें म्हाका तुमी लग्नाचो रुप्या सुवाळो मनोवपाक खंय व्हेली ना तें. तुमी खऱ्यांनीच म्हाका विसरून येतले आशिल्ले.''

ती मुखार उलयत रावली आनी म्हणूंक लागली ''आतां म्हाका कसलेंच संकट ओडून घेवपाचें ना. लग्नाच्या भांगरा वर्साचो सुवाळो मनोवपाक हांव तुमचे वांगडा खंयच येवंचें ना, आमी आमच्या घरांतूच हो

आनंद मनोवया.'' ती उलोवपाची थांबली.

ती म्हजी प्रतिक्रिया पळोवपाक सोदताली. हांव ओगीच आशिल्लों. म्हजें बाविल्लें तोंड पळोवन ती व्हडल्यान हांसली. तिणे म्हजी फकणां केल्लीं म्हूण म्हाका कळ्ळें आनी हांव मूर्ख आशिल्लेवरी म्हाका दिसलें.

गेल्ल्या वर्सा मे म्हयन्यात आमी आमच्या लग्नाच्या भांगर सुवाळ्याच्या वर्सांत पावल दवरलें. हो खीण जसो फाटीं वळून पळोवपाचो आसता तेच तरेन भविश्या वटेनय पळोवपाचो आसता. भूतकाळाकडच्यान शिकपाचें आनी भविश्य काळाची येवजण आंखपाची. ह्या दोनांयच्या आदारान आनंदी आनी अर्थ पुराय जावपाचेर लक्ष दिवपाचें. आमी ह्या समयार देवाचे उपकार मानतात आनी अशीच कृपा करची म्हूण प्रार्थना करतात. तुमचेय आशिर्वाद आनी शुभेच्छा मागतात.

वयर सांगिल्ल्या विनोदान आतां आमचे मदीं बरो संवाद जावपा सारकें वातावरण निर्माण जालां. म्हाका म्हजे विचार तुमकां सांगपाचे आसात. आमचो दोगांयचो प्रवास खूब बरे तरेन उमेद आनी आनंदान जालो. म्हजी बायल खूब बरी जिणेची सांगातीण थारली. ती म्हाका एकदम बरो घोव अशें म्हणना पूण एक बरो, सभ्य मनीस अशें मानता. वयल्यान ती म्हाका ''बरो घोव न्हीं जाल्यार बरो मनीस आसून कितें उपेग?'' अशें विचारपाक फाटीं सरची ना.

अशे ल्हान व्हड जायते मतभेद आसले तरी आमी दोगांय एकामेकाच्या स्वतंत्र व्यक्तिमत्वाचो आदर करतात. हांव तिका तूं तुजे सारकी राव आनी म्हाका म्हजे सारको रावपाक दी अशें सांगत आसतां. आमी दोगांय एकामेकाक समजून घेतात आनी एकामेका मदले मतभेद पयस करपाचो यत्न करीत रावतात. आमी एकामेकाची कार्बन कॉपी जावपाचो वा एकामेका सारकीं जावपाचो केन्नाच यत्न करिनात. 'एकठांय रावून आपणालें स्वताचें मेकळेपण सांबाळून दवरप हातूंत व्हडविकाय आसता.' अशें खलील जिब्रान हाणे म्हणलें तें आमी मानतात. आमी दोन धुवो आनी एका पुताचीं आवयबापूय. तिगांय भुरग्यांचीं लग्न जावन तांचे संवसार सुखा समाधानान चलतात. व्हडली चली. तिका एक पूत. पुताक

जतनायेन सांबाळून वाडोवप ही पूर्ण वेळाची नोकरीच आसता अशें तिका दिसता. दुसरो पुत आसा तो इंजिनियर. ताणे धायेक वर्सां एका प्लास्टीक ब्लो मोल्डिंग मशीनरी तयार करपाचे कंपनीत काम केलें आनी उपरांत स्वताचो वेवसाय सुरू केलो. आतां तो निर्यातीचो वेवसाय करता. ताका दोन धुवो. आमकां पुता फाटल्यान एक धूव आसा. तिका एक धूव आनी एक पूत. ती तांकांच सांबाळून वाडोवपाचें कर्तव्य करता.

आमी आतां पांच नातरांचीं आजी–आजो. आमकां आतां तींच आनंद दितात. तांचो सांगात आमकां आवडटा आनी तांकांय आमी जाय शीं दिसतात. केन्ना केन्नाय तीं खूब बोवाळ–मस्ती बी करतात तेन्ना आमची सहनशक्त सोंपता आनी आमी तांकां तापयतात. पूण कोणूच त्या तापोवण्यांचें वायट धरून बसनात. रोखडीच आमची एकामेका कडली जिगरी दोस्ती आदले वरीच चालू उरता.

आतां आमी पयल्यान पयलीं तांच्या सांगाताचो आनंद घेवपाक आनी तांकांय आनंद दिवपाक चडान चड म्हत्व दितात. पन्नास वर्सांनी तुमकां कोणूय तुमच्या बँक खात्यांत कितली शिल्लक आशिल्ली वा तुमी कितलें व्हडलें घर बांदलें जावं कितल्या व्हडल्या घरांत रावतालीं ते विशीं कोण विचारचो ना. तुमची गाडी खंयचे कंपनीची आशिल्ली अशेंय बी कोण विचारचो ना. तेन्ना तुमकां कोणूय तुमच्या भुरग्यांच्या वा नातरांच्या जिवितांत तुमी कसली भूमिका वठयली तेंच विचारतले.

म्हजे बायलेक हांव खूब मानतां कारण म्हाका जेन्ना मुखार शिकपाचें आशिल्लें तेन्ना तिणे कसलोच विरोध केलो ना. म्हजी दुसरी सायकॉलॉजी विशयांतली एम. ए. पदवी आनी एल एल. बी.ची पदवी हांवें लग्ना उपरांत घेतली. दोनूय परिक्षांनी हांवे बरें येस जोडलें कारण म्हजे बायलेन म्हज्यो कुटुंबांतल्यो जबाबदाऱ्यो स्वता सांबाळ्ळ्यो आनी त्या खातीर म्हाका अभ्यासांत लक्ष दिवपाक मेळ्ळें.

जेन्ना हांवें खटपट करून लेबर वेल्फेयर आनी इंडस्ट्रियल रिलेशन्स ह्या विशयांत मुंबय विद्यापिठांत पदव्युत्तर अभ्यासक्रमा खातीर प्रवेश घेतलो, तेन्ना हांवें चाळीस वर्सां पिराय हुपिल्लीं आनी हांव तीन भुरग्यांचो

बापूय जाल्लों. खूबजण म्हाका हे पिरायेचेर शिक्षण कित्याक जाय म्हूण हांसताले. ताचें कारण लग्ना उपरांत मनशाची मेकळीक ना जाता अशें लोक धरून चलतात. म्हाका जें दिसता तें ताचें उरफाटें. म्हज्या अणभवान लग्ना उपरात वेगळे तरेची मेकळीक मेळटा अशें हांव विश्वासान म्हणन.

जेन्ना परिक्षेचो निकाल आयलो तेन्ना मुंबय विद्यापिठांत हांव पयल्या वर्गांत पयलो आयिल्ल्याचें कळ्ळें. म्हजे इश्ट आनी बरें मागते म्हजें अभिनंदन करपाक लागले. त्या वेळार हांवें तांका नमळायेन सांगलें ''म्हजे शिक्षणीक फाटभुंयेक लागून हें येस मेळोवप तितलें कठीण नाशिल्लें. पूण तुमकां अभिनंदन करपाचेंच आसा जाल्यार नवे शिकपांत आनी अभ्यास करपांत जो म्हाका रस आसा तो हांवें लग्ना उपरांत आनी तीन भुरगीं जाले उपरांतय तसोच तिगोवन दवरला हे खातीर करात.''

ही घडणूक म्हज्या जिवितांत एक म्हत्वाचें वळण थारली. म्हजें प्राध्यापक जावपाचें जें सपन आशिल्लें तें खरें जावंक पावलें. हांवें मानव संसाधन विशयांत करियर केलें जाल्यार ताचो फुडारांत खूब फायदो जातलो अशें म्हाका म्हजे बरें मागते सांगताले. पूण हांवें म्हज्या काळजाचो उलो आयकलो आनी हांव प्राध्यापक जालों.

हो निर्णय हांवें घेतलो हीय बी देवाचीच कृपा अशें हांव मानतां. म्हज्या पंदरा वर्सांच्या प्राध्यापकी अणभवान निवृत्ती उपरांतल्या म्हज्या एच. आर. प्रशिक्षक ह्या नव्या करियराची बुनयाद घाली. आज हांव पिरायेच्या ७८व्या वर्साय बी ह्या करियराचो काळजांतल्यान आनंद घेतां.

आतां लग्नाचो पन्नासावो वर्सुकी दीस लागीं पावत येता आसतना म्हजें काळीज म्हजे बायले विशींच्या अभिमानान भरून येता. तिणे जो संवसाराचो भार उखललो आनी सहकार्य दिलें ताका लागून जिणेत हांवें जें येस मेळयलें तें मेळोवंक पावलों. एके जबाबदार बरे अस्तुरेवरीच म्हाका आदार दीत रावली. एक बायल आनी आवय ह्यो भूमिका तिणे चडांतचड बरे रितीन सांबाळ्ळ्यो. म्हज्या भुरग्यांचो आनी नातरांचो तिचेर खूब मोग आसा. म्हजोय बी.



# बिंदू जोडप

*भविष्याकडें नदर लावन तुमी बिंदू जोडूंक शकचे ना. तुमी फाटीं वळून पळयतच बिंदू जोडून चित्र पूर्ण करूंक शकतात. तुमकां विश्वास बाळगुचो पडटलो, भविष्याचें दिसता तें अस्पश्ट चित्र एक दीस बिंदू जोडून आमी पूर्ण करूंक शकतले.*

*– स्टीव जॉब्स*

हालींच हांवें सर्गेस्त स्टीव जॉब्स हांणीं 2005 वर्सा स्टॅनफोर्ड विद्यापिठाच्या नव्या वर्साचे सुरवातेक दिल्लें तें प्रसिद्ध भाशण 'कमेन्समेंट' लेक्चर वाचलें.

म्हाका तें खूब आवडलें आनी रोखडेंच हांवें तें म्हज्या विद्यार्थ्यांक आनी इश्टांक बी सांगलें. ताणी आपणाल्या व्याख्यानाचे तीन वांटे केल्ले. तातूंतलो एक बिंदू जोडपाविशीं आशिल्लो.

हांव आतां म्हज्या पुताच्या करियर ग्राफाचें चित्र मानव संसाधन विकासाचे नदरेंतल्यान, अशे तरेन बिंदू जोडीत पूर्ण करून तुमचे सामकार दवरतलों.

विद्यार्थी दशेंत म्हजो भुरगो एका सामान्य भुरग्यावरी सादारण बुद्धीचोच आशिल्लो. जिविताकडेन पळोवपाची ताची नदर पुस्तकी उणी आनी वेव्हारी चड आशिल्ली. म्हणल्यार तो म्हजे परस सारको उरफाटो म्हणपाक आडखळ ना. त्याच खातीर ताणे मॅकानिकल इंजिनियरिंगांत डिप्लोमा करपाची आपणाली इत्सा म्हाका सांगिल्ली. ताचें एस. एस. सी.

परिक्षेंतले मार्क सादारण आशिल्ल्यान त्या डिप्लोमा खातीर मेरिटाचेर प्रवेश मेळपाची संद मुंबयच्या आसपास आशिल्ल्या पॉलिटेक्नीक संस्थांनी शक्यच नाशिल्ली. ताचें कारण तशे तरेच्यो पॉलिटॅक्नीक संस्था कमी आशिल्ल्यो आनी तांचे जागेय कमी आशिल्ले. आनी प्रवेशा खातीर भुरग्यांची संख्या चड आशिल्ली. म्हजी अर्थीक तांक डोनेशन दिवन जागो मेळोवपा इतली घटमूट नाशिल्ली. म्हाका ताच्या शिक्षणांतल्या भविष्या विशीं व्हडलीशी आस्त नाशिल्ली.

ताचें नशीब मात बरें नेटार आशिल्लें जावपाक जाय. ज्या दिसा ताचो एस. एस. सी. चो रिझल्ट जालो त्याच दिसा हांव म्हजे संस्थेच्या कामा खातीर नागपुरा वचपाचो आशिल्लों. आमचे संस्थेची एक शाखा नागपुरा आशिल्ली. थंय वचून लेबर स्टडीज ह्या विशयाचे पदविके खातीर परिक्षा घेवपाची जबाबदारी ज्या मनशांक दिल्ली ते टिमीत हांव आशिल्लों.

हांव पुताच्या मार्कलिस्टाची एक कॉपी घेवन नागपुरा गेलों. वता आसतना प्रवासांत हांवें पुताच्या फुडाराचो गंभिरपणान विचार केलो. मानव संसाधन विकासाचे नदरेन ताचेकडेन पळयलें. सगले विचार बापूय जे तरेन करतात तेच तरेन. गरज पडल्यार रीण काडूनय नागपुरांतल्या एका पॉलिटेक्नीकांत प्रवेश घेवपाचें हांवें थारायलें.

हांव जेन्ना नागपुरांतले एके संस्थेच्या चेअरमेनाक मेळपाक गेलों तेन्ना सत्तेर आशिल्ल्या लोकांकडेन बरी वळख आशिल्ल्या एका वळखीच्या सरकारी अधिकाऱ्याक म्हजे वांगडा घेवन गेलों. ते संस्थेन एका वर्सा आदींच एक नवें पॉलिटेक्नीक सुरू केल्लें. थंय आमकां बरो आदरान आनी नमळायेन येवकार मेळ्ळो. सुरवातेचें उलोवणें जाले उपरांत म्हजे वांगडा आशिल्ल्या अधिकाऱ्यान म्हज्या पुताची खबर सांगली. जेन्ना डोनेशनाचो विशय आयलो तेन्ना म्हज्या सांगाती अधिकाऱ्यान चेअरमॅनाक पटोवन डोनेशनाचो आंकडो उणो करून घेतलो. म्हजे तांकी भितर बसत इतले रकमे भितर म्हज्या पुताक थंय प्रवेश मेळ्ळो.

पयलीं दोन वर्सां नागपुरांत शिकले उपरांत तिसऱ्या वर्सा म्हज्या पुतान ठाण्याच्या पॉलिटेक्नीकांत प्रवेश मेळयलो. पदविका मेळोवपाचें ताचें

सपन अशे तरेन पूर्ण जालें. ताका इंजिनियर जावपाची इत्सा मनातल्यान जाल्ली. आपणाली मोख गांठपाचे ताका तळमळे लागिल्ले. त्याच खातीर देवान वा त्या आकर्षणाच्या वैश्विक नेमाक धरून ताका संद मेळ्ळी आनी ताणे मोख गांठली. हांवे ताचे मनातल्यान अभिनंदन केलें.

म्हज्या पुताच्या नोकरे संबंदान एखाद्रे परिकथेंत घडचें तशेंच घडलें. हे नोकरेक लागून ताच्या करियराक आयचे परिस्थितीक आनी तिका कारण थारत अशे तरेचें काम ताका मेळ्ळें. त्याच सुमाराक म्हजो एक मराठी कवितांचो झेलो 'शोध जीवनाचा' हो उजवाडा आयिल्लो. ताच्यो दोन कॉपी हांवें म्हज्या एका विद्यार्थी इश्टाक धाडिल्ल्यो. तेन्ना तो ठाण्यातल्या एका प्लॅस्टिक मोल्डिंग मशीन्स तयार करपी कारखान्यांत मानव संसाधन खात्यांत मुखेल अधिकारी आशिल्लो. हांवें ताका पुस्तकाच्यो प्रती मेळ्ळ्यो वा ना तें विचारपाक फोन केल्लो तेन्ना ताणे म्हज्या पुता विशीं सहज खबर घेतली. तो कसली नोकरी करता ती विचारून घेतली. हांवें तो मशीनाचे पार्ट तयार करपी एका ल्हानशा कारखान्यात शिकावू उमेदवार म्हूण काम करता म्हूण सांगलें. ताणे म्हाका आपणाल्या आस्थापनात ताचे खातीर एक जागो आसा अशें सांगून पुताक आपणा म्हन्यांत रोखड्या रोखडो धाडून दी म्हणलें.

म्हज्या पुता खातीर ती भांगराळी संद आशिल्ली. ताका फकत नोकरी मेळ्ळी इतल्याच खातीर हांव अशें म्हणना तर ताका टेस्टींग विभागांत शिकावू उमेदवार म्हूण नेमलो. ह्या प्रशिक्षणाक लागून ताका अनेक देशांनी कामा निमतान वचपाची संद मेळ्ळी. खासा करून आफ्रिका खंडांतल्या आनी मध्य पुर्वेतल्या अनेक देशांनी ताच्या कंपनींचीं मशिनां निर्यात जातालीं आनी तांचें टेस्टींग करपाक ताका वचचें पडटालें. त्या काळांत ताची अनेक लोकांकडेन वळख जाली, वेवसायाचे संबंद तयार जाले आनी तातूंतल्यान योग्य वेळ आयलो तेन्ना आपणालो स्वताचो निर्यात करपाचो वेवसाय सुरू करपा खातीर फाटभूंय तयार जाली.

कांय काळान त्या कंपनीचें ठाण्याचें उत्पादन केंद्र बंद जालें आनी दोन तीन वर्सांनी ताका संद मेळ्ळी. ताका कंपनीच्या अहमदाबादा लागीं

आशिल्ल्या वाटवा हांगाच्या केंद्राचेर वचपाक सांगलें. ताका थंय वचपाची इत्साच नाशिल्ली. ताणे म्हाका मुंबयच्यान लागींच खंय तरी आपणा खातीर नोकरी मेळोवपाक मदत करपाक सांगले.

हांवें ताका वाटवा वचपाचो सल्लो दिलो. हांवें म्हणलें, मुंबयच्यान लागीं तुजे खातीर तुका फावो सारकी नोकरी सोदया. पूण हातांत आशिल्ली नोकरी सोडटा आसतना तुका कंपनीकडेन बरे तरेन वाटाघाटी करपाची संद थंय गेलो जाल्यारच मेळपाक शकता. बदली केल्ले खातीर नोकरी सोडली जाल्यार ही संद मेळची ना. ताणें म्हजें आयकलें. ताचो ताका बरोच फायदो जालो.

ताचीं मुखा वयलीं दोन तीन वर्सां कस लावपी थारलीं. त्या काळांत ताचो नोकरेखातीर आसता तो 'प्रोफायल' पुराय बदललो. ताणे नवी दिल्ली वचून 'प्लास्ट इंडिया' ह्या विशयाचेर आशिल्ल्या प्रदर्शनांत आपणाले कंपनी वतीन वांटो घेतिल्लो. थंय एक कोरियन कंपनीचे तो नदरेंट गेलो. तांणीं ताका नोकरेची संद दिवपाचो प्रस्ताव दिलो. हे कंपनीन भारतांत आनी भोंवतणेतल्या हेर देशांनी विकिल्ल्या मशिनांची देखभाल करप अशा स्वरुपाचें तें काम आशिल्लें. तांचें दिल्लीक ऑफीस आशिल्लें. आपूण आपणाल्या घरांतल्यानच काम करतलों हे अटीचेर ताका ती नोकरी मेळ्ळी.

हो बदल चड काळ तिगलो ना. ते कोरियन कंपनींत काम करता आसतना ताच्या मनात वेगळेच विचार घोळटाले. ताचे अशे तरेच्या वेवसायांत भायल्या देशां भितर खूब वळखी आनी वेवसायांतलें संबंद निर्माण जाल्ले. एक दीस ताणे स्वताचो निर्यात वेवसाय सुरू करपाचो निर्णय घेतलो. टेक्नोप्लास्ट नांवाची कंपनी ताणे सुरू केली.

फाटल्या धा वर्सां भितर ताणे आपणालो वेवसाय धा पटींनी तरी वाडयला. ताचे एके वेवसायीक इमारतींत स्वताचे मालकीच्या जाग्यांत व्हडलें ऑफीस आसा. ताणे हालींच आपणाल्या तंजान एंटरप्रायजिस ह्या नावान ल्हान प्रमाणार स्वताची मशिनां तयार करपाचो वेवसाय सुरू केला. त्या खातीर ताणे लागींच जागोय घेतला.

हांवें हांगा म्हज्या पुताच्या स्वताच्या येसाची काणी तुमकां सांगल्या कारण तातूंत मानव संसाधन विकासाचे नदरेन पळयल्यार वैश्विक तासां दिसतात. तातूंतल्यान देखी घेवपाक मेळटात आनी बिंदूय जोडपाक मेळटात.

मानव संसाधन विकास प्रशिक्षक ह्या नात्यान म्हाका ही एक म्हत्वाची 'केस स्टडी' अशी दिसता. कोणूय आपणालो फुडार घडोवपाक सोदपी तरणाटो, वेवस्थापन शास्त्र विशयांतलो ध्येयवादी भुरगो, स्वताचो वेवसाय करूंक सोदता असो तरणाटो जाका उद्येग वेवसायाची फाटभूंय ना, वा जाका आवय बापायचें अर्थीक फाटबळ ना, ताका म्हज्या पुताचे हे वेवसाय कथेंतल्यान प्रेरणा मेळूंये आनी कांय उपेग पडपा सारकी देख घेवपाक मेळूंये अशें म्हाका दिसता.



# जें कितें करतात तें मायेमोगान करात

*हांव आजून मुखार वचत आसां हाची आतां म्हाका खात्री जाल्या ताचें कारण हांवें जें कितें केलें तें आवडीन केलें.*

*– स्टीव जॉब्स*

जेन्ना एखाद्या येसवंत मनशाचे वेवसायांतले जीणेविशीं आमी आयकतात, खासा करून ताच्या कार्यांतल्यान प्रेरणा घेवची वा ताच्या पावलार पावल दवरून मुखार वचचें अशें दिसता, तेन्ना ते व्यक्तीच्या खाजगी जीणेविशींय बी आमकां उमळशीक दिसूंक लागता.

निकतीच तुमी म्हज्या पुताचे येसवंत वेवसायांतले जीणेची झलक पळयली. आतां ताचे स्वताचे सभावीक जीणेविशीं म्हणल्यार तो सैमीक चलणुकेन कसो कितें आसा तें सांगप अयोग्य थारचें ना.

आमचो पूत हेरां परस वेगळो थारलो ताचें कारण कितें? कसलो खाशेलो गूण आसा ताचे भितर अशें आमी आवय बापूय स्वताकूच विचारतात. ताचे परस अदीक बुद्धिवंत, अदीक कामसू, अदीक शिकिल्ले आनी अदीक अणभव आशिल्ले भोंवतणेतले अनेक तरणाटे ताच्या येसाच्या अर्दानय येस जोडूंक पाविल्ले नात. तर हाचे भितर विशेश असो कसलो गूण आसा?

एक एच.आर. शिक्षक ह्या नात्यान म्हाका दिसता तो जें कितें करता तें जीव ओतून प्रेमान आनी ध्यास घेतिल्लेवरी करता. आपणालें प्रत्येक काम तो काळीज आनी आत्मो लावन करता.

ताच्या आंगांत शिटूकसाण आनी विनोदाची बुदवंतकाय आसा. ताचो

बापूय विनोदाची बुदवंतकाय आसप कितें म्हत्वाचें हाचेर व्याख्याना दीत भोंवता. जाल्यार तो प्रत्यक्ष दीसपडटे जिणेंत सतत विनोद करीत उलयता. पळयल्यार तो उणें उलोवपी पूण जेन्ना उलयता तेन्ना नेमको कसले गज़ालीक उद्देशून उलयता हाचेर आमकां चिंतचें पडटा. ताणे आपणाल्यो वस्तू हांगा थंय खंयच्यो खंय उडयल्यात आनी ताका लागून जाय तेन्ना नेमकी वस्तू मेळप कठीण जाता अशें आमी ताका म्हणटात तेन्ना वक्रोक्तीचे भाशेन तो म्हणटा, 'हांव सारको वेवस्थीत मनीस.' त्याच खातीर हेर कोणाचेरय केल्ले ताचे विनोद केन्ना कोणाक तोपनात. वा तांचें कोणाक वायट दिसना.

स्वताच्या वेवसायाचो ताण माथ्यार घेवन तो वावरना. जेन्ना सामकार व्हांवतें उदक दिसता तेन्नाच पूल हुपपाचो अशी ताची चलणूक. समस्या सोडोवपाची खाशेली कला ताचेकडेन आसा. त्यो जेन्ना म्हऱ्यांत येवन पावतात तेन्नाच तो त्यो सोडयता. आदींच्यानच तांचेर चिंतपाक लागून ताण वाडोवन घेना. बेश्टोच काळजी करीत रावना. ताच्या वेवसायाचो जितलो ताची आवय हुसको करता तितलोय बी तो करिना. ताचो बापूय ताच्या समस्यांचो मातसोय विचार करिना अशी ताची आवय कागाळ करीत आसता. बाबड्या बापाय मुखार तिची ती कागाळ मोन्यांनी सोंसून घेतले बगर दुसरो पर्याय ना.  आमी ताचीं आवयबापूय आशिल्ल्यान कोणेय जर तो खूब कश्ट करपी काय आळशी म्हण विचारलें जाल्यार ताची ज़ाप दिवप आमकां कठीण दिसता. तो खूब काम करपी काय आळशी हें खात्रेन सांगप कठीण. तो ह्या दोन तोंकांचो एकवट म्हणू येत. ताचे जिणेंचें हें तास ताच्या बापायक हुसक्या मेकळो करता. अशें म्हणपाचें कारण काम आनी खाजगी जीण हांचो तोल सांबाळपाक जाय अशें आपणल्या व्याख्यानातल्यान हो बापूय लोकांक सांगत आसता आनी स्वताय तशे तरेन चलता. पुतानय हो तोल सांबाळ्ळा.

ताचो आनी एक गूण म्हाका मानवता तो म्हणल्यार जाणट्यांक तो फावो तसो मान दिता आनी आपले बरोबरच्या मनशांकडेन नमळायेन चलता. आपणाल्या हाता सकयल काम करपी मनशांकडेन उदार वृत्तीन

वेव्हार काता. आपणाल्या फायद्यांतलो तांकांय वांटो दिता. कोणेय योग्य कारणा खातीर मदत मागली जाल्यार तो ना म्हणना. भलायकी बरी नाशिल्ल्यांक, गरीब आनी चड पिरायेच्या जाणट्यांक मुजरत आदार दिता.

तो कुटुंबीक जिणेंत सुखी आसा. स्वताचे पसंतीचे चलयेकडेन तो लग्न जाला. दोगांयचो एकामेकाचेर बरो मोग आसा. तो जेन्ना म्हत्वाच्या कामाखातीर खंयतरी पयसुल्ले भोंवडेक वता आनी तिकाय येता जाल्यार विचारता तेन्ना ती केन्नाच ताका ना म्हणना. तांचे मदीं वाद जायनात अशें न्ही पूण ते समजुतीन तीं सोडयतात. तांचे लग्ना उपरांतले जिणेक हांव धा गुणांतले सात गूण खात्रेन दितलों.

तांकां दोगांक देवान दोन सोबीत आनी गुणेस्त धुवो दिल्यात. दोगांय अभ्यासांत खूब हुशार आसात. धाकल्या परस व्हडलें अभ्यासांत चड बरें आसा. हांव पुताक तांच्या अभ्यासाचे नदरेन चड आग्रही आनी कडक रावंनाका म्हूण शिटकायत रावतां. तांणी जर आपणाल्या बापायच्या शिक्षणातले उदरगती विशीं विचारलें जाल्यार हांव कितें जाप दिवची म्हूण चिंतूक पडटलो.

व्हडली नात नाचाच्या वर्गाक वता आनी थंय बी तिणें बरी उदरगत सादल्या. धाकटी मात घरांतूच आवयबापायक नाचोवपांत खूब फिशाल आसा.

जायतीं आवयबापूय भुरगीं आपणालें आयकनात म्हूण कागाळ करीत आसतात. हांव तांकां ते संबंदान चड हुस्को करूं नाकात म्हूण सांगतां. खलील जिब्रानान म्हणलां, ''तुमी भुरग्यांक माया मोग दिवंक शकतात, विचार दिवंक शकनात, कारण तांचे स्वताचे विचार आसतात. तुमी तांचे सारकीं जावपाचो यत्न करूंक शकतात पूण तांका तुमचे सारकीं तयार करपाचो हट्ट घेवन बसूं नाकात.''

आमचें नातरांकडेन बरें जुळटा. आमचो तांचेर मोग आसा आनी तांचो आमचेर. आमी तांकां खोशी दवरपाचो खाशेलो यत्न करीत आसतात.

आमी तांकां दोगांकय समान वागणूक दिवंक पळयतात पूण धाकलें खूब लागोळें, ताका व्हडल्या परस आपणाक आमची चड अपूरबाय जाय

आसता. आमी दोगांकय सारक्योच चॉकलेटी दिल्यो जाल्यार ताका व्हडल्या परस एक तरी चड जाय आसता. तें आमचें चड अपूरबायेचें जावंक सोदता आनी आमी ताका तशें भासयतात. तें म्हणल्यार आमच्या दोळ्यांतली बावलीच.



*मनशाभितर आपणाले जिणेत यत्नपुराय रितीन, विचार करून काम करीत, चड उंचायेर पावपाची कुशळटाय आसता हातूंत दुबाव ना, हाचे परस वेगळें चड प्रेरणा दिवपी सत्य म्हाका खबर ना.*

*– हेन्री डेव्हीड थोरा*

# जिणेंत संदीक येवकार, पर्यायांची निर्मणी

*संदी सोडून दिल्ल्याचो पश्चाताप जाता, तेन्ना मनशाची जी मनस्थिती जाता ताचे परस खंयचोच नरक वायट आसूंक शकना.*

*–अनामीक*

*मनशाची सगल्यांत व्हड शक्त म्हणल्यार, नदरे सामकार आशिल्ल्या पर्यायांतल्यान वेंचून काडपाची मेकळीक ताका आसता. जेन्ना त्या पर्यायांतलो खंयचोच स्विकारपाक योग्य आसना, तेन्ना तुमी नवे पर्याय निर्माण करपाक शकतात.*

*–अनामीक*

'पर्याय निर्माण करप' हे तीन शक्तिवंत अशे शब्द म्हजे खातीर खूब म्हत्वाचे.

हांव म्हज्या विद्यार्थ्यांक स्टिफन कोवे हांणी बरयल्ल्या संवयां मदले पयले संवये विशीं सांगतालों. येसवंत मनशांच्या सात म्हत्वाच्या संवयांविशीं तांणीं बरयल्लें पुस्तक खूब गाजलां. लेखक म्हणटा ''बी प्रोॲक्टीव'' म्हणल्यार जबाबदारेन स्वता जावन फुडाकार घेवपाची तांक जोडपाक पळय. ताचो आनी एक अर्थ, एकाद्रे परिस्थितींत तुमचे सामकार अनेक पर्याय आसले जाल्यार तातूंतलो योग्य तो वेंचून काडपाची कुशळटाय आसपाक जाय. म्हणल्यार तुमी जो निर्णय घेतात त्या निर्णयाचेर आदारून तुमी पांवलां मारपाक जाय, परिस्थितीचेर आदारून न्हीं. निर्णया उपरांतलीय बी जबाबदारी तुमी घेवपाक जाय. तुमच्या

जिविताखातीर तुमी स्वता जबाबदार आसपाक जाय. कोणाकय जबाबदार धरून, दुसऱ्याक दोश दिवन स्वताची सुटका करून घेवंक फावोना. निर्णयाक धरून सगल्यो गजाली घडून येवपा सारकें करात.

कसलेय परिस्थितींत जे मेळपा सारके पर्याय आसतात तातूंतलो जाय तो वेंचून काडपाची मेकळीक आसप, ही मनशाची एक व्हड शक्त आसता. परिस्थिती जर मागता आसत जाल्यार नवे पर्याय निर्माण करात.

1986-87 वर्साच्या सुमाराक हांव म्हज्या एका बांदकाम वेवसायांत आशिल्ल्या इश्टाक मेळ्ळों. ताची पयली इमारत बांदपाचें काम चलतालें. ताणे म्हाका सहज एकाद्रो फ्लॅट घेवपाचें बी मनात आसा काय विचारलें.

कितें जाप दिवची तेंच म्हाका कळना जालें. म्हजेकडेन पयशे नाशिल्ले. म्हजो पूत इंजिनियरींगाच्या निमण्या वर्साक आशिल्लो. ताच्या शिक्षणा खातीरय हांवें थोडें रीण काडिल्लें. ताका हें सगळें सांगून हांव 'सॉरी' म्हणपाचो आशिल्लों पूण म्हज्या अंतर्मनान म्हाका कितें तरी वेगळेंच सांगलें. 'जबाबदार मनशा सारको निर्णय घे. कितेंय तरी घडय, पर्याय निर्माण कर ... फुडारांत तुका ताचो उपेग जातलो.'

त्या फुडल्या सप्तकांत पुताच्या नांवान हांवें फ्लॅट बुक केलो. हांवें एक पर्याय निर्माण केलो.

स म्हयन्यांनी सुमार हांवें फ्लॅटाचो ताबो घेतलो. त्या बांदकाम वेवसायिकान म्हाका कांय सवलती दिल्यो. जागो ल्हानच आशिल्लो. एक कूड आनी रांदचीकूड. पूण म्हत्वाची गजाल म्हणल्यार हांवें एक पर्याय निर्माण केलो.

एका वर्सान आमी जे इमारतींत रावतालीं थंय एका बेडरुमाचो फ्लॅट कोण एकटो विकपाक सोदतालो. ताच्या मालकान दुसरे कडेन फ्लॅट घेतिल्लो. ह्या फ्लॅटाक तो दोन लाख मोल सांगतालो. पूण एक लाख णव्वद हजार रुपयांक दिवपाक तो तयार जालो. म्हजे कडेन तितलो दुडू नाशिल्लो. हांवें ते आदीं जो पर्याय निर्माण केल्लो ताचो आतां उपेग जालो. हांवे 80,000 रुपयांक घेतिल्ल्या फ्लॅटाचे मोल आतां 1,30,000 इतलें जाल्लें. पूण बाकीचे 60,000 रुपया हांव कशे उबे करतलों आशिल्लों? त्या काळांत

रिणां मेळपय सोपें नाशिल्लें आनी जरी हांवें खंयच्यान तरी उबे केले तरी ते परतून फारीक करपाचे हप्ते म्हाका परवडपा सारके नाशिल्ले. म्हज्या कुटुंबांतल्या सगल्यांक हांवे हो जागो घेवचो अशें दिसतालें, पूण म्हाकाच तितली रक्कम पुंजावपाची खात्री नाशिल्ली.

म्हाका जेन्ना गरज पडटा तेन्ना पुस्तकां म्हज्या आदाराक पावतात. दुसरे दिसा हांव म्हज्या कामाक गेलों. आमचे संस्थेच्या संचालकान म्हाका आफोवन व्हेलो आनी सांगलें, ''लायब्ररींत वच. स्ट्रँड बुक स्टॉल या पुस्तकांच्या दुकानांतल्यान खूब पुस्तकां आयल्यांत तातूंतलीं आमचे लायब्ररी खातीर कांय पुस्तकां वेंचून काडपाक जाय.''

हांव जेन्ना पुस्तकां वेंचून काडटालों तेन्ना एका पुस्तकाच्या शीर्षकान म्हजी नदर ओढून घेतली. आर. एच. शूलर हाचें 'टफ टायम्स नेव्हर लास्ट, टफ पीपल डू' (वायट वेळ कायम उरना, पूण ताका फुडो करपी मात उरतात) हें तें पुस्तक.

ग्रंथपालाक सांगून हांवें तें पुस्तक वाचपाक घरा व्हेलें. लेखकाचो एक विचार म्हाका खूब भावलो. तो म्हणल्यार 'पॉसिबिलिटी थिंकींग गेम' (शक्यतायांच्या विचारांचो खेळ) हातूंत एकाद्री समस्या आमचे सामकार आयली जाल्यार तुमकां सुचता ते प्रमाण ती सोडोवपी शक्यतायांची वळेरी बरोवन काडात. ते उपरांत विचार करून तातूंतली एकेक खोडून काडात. तुमकां जाय आशिल्लो पर्याय मेळटा तो मेरेन अशें करीत रावात.

मध्यान राती मेरेन वाचीत उरलों. हांवें एक कागदाचो कुडको घेतलो आनी बरोवंक लागलों. 60,000 रुपया कशे पुंजावपाचे ही म्हजी समस्या. हांव शक्यतायांची वळेरी बरोवंक लागलों. एकटोच मनीस म्हाका 60,000 रुपया दिवंक शकत व्हय? दोगजाण मनीस म्हाका तीस तीस हजार रुपया दिवंक शकतले? दर एकटो वीस वीस हजार दिवंये? हो सगळो खेळ कसोच आशिल्लो आनी हांवें दर एकटो एकेक हजार अशें करीत शक्यतायांची वळेरी केली.

दुसरे दीस सकाळीं हांव तो कागदा कुडको घेवन बसलों. धा दिसांनी हांव 60,000 रुपया पुंजावंक शकलों. एका इश्टान 15,000 रुपया दिले

आनी तुका शक्य जाता तेन्ना म्हाका परते दी अशें सांगलें. दुसऱ्यान 10,000 रुपया दिले आनी एका वर्सान आपणाक तांची गरज पडटली तेन्ना दी म्हणलें. आमचेच बिल्डिंगेत रावपी एका बँकेंतल्या मनशान म्हाका आफयलो आनी म्हज्या नॅशनल सेव्हिंग सर्टिफिकेटाचेर रोखडेंच धा हजार रुपया रीण दिलें. कोणे पांच हजार जाल्यार कोणे तीन हजार अशे करून म्हाका जाय जाल्ले 60,000 रुपया उबे जाले.

एका म्हयन्या भितर हांवें ह्या फ्लॅट खरेदीच्या कागदांचेर सय केली. तीनेक म्हयन्यांनीं तो फ्लॅट हांवें ताब्यांत घेतलो. तो म्हज्या पुताच्या नांवार आशिल्लो. हांवे जर तो ल्हान फ्लॅट घेवन एक पर्याय तेन्ना निर्माण करूं नाशिल्लो जाल्यार आज हो फ्लॅट घेवपाचो विचारय हांव करपाक शकचों नाशिल्लों. त्या पुस्तकांतल्या सुंदर शक्यतायांच्या विचारांच्या खेळान हे म्हजे करणेक आदार दिलो. आज ह्या फ्लॅटाचें मोल अदमास 25 लाख रुपया आसा.

1992 वर्सा हांवें तेच इमारतींत दोन बेडरुमांचो फ्लॅट विकतो घेतलो. ताचें मोल आज सुमार 45 लाख रुपया आसा. हो घेता आसतना म्हाका हांवें आदीं घेतिल्लो एका बेडरुमाचो फ्लॅट विकून मेळिल्ल्या दुडवांचो उपेग जालो.

तर एक गजाल समजून घेवपाक जाय ती म्हणल्यार आमचे जिणेंत अशो कांय गजाली आसतात ज्यो आमकां एकाच धपक्यान मेळनासतना पांवड्या पांवड्यान मेळटात. जेन्ना संदी तुमच्या दारार मारतात तेन्ना दार उगडून तांकां येवकार दियात. पर्याय निर्माण करात. जेन्ना फुडारांत नव्यो संदी तुमचे सामकार येतल्यो तेन्ना हे आदीं निर्माण केल्ले पर्याय तुमच्या आदाराक येतले.

त्या खातीर जिणेंत जेन्ना समस्या सामकार उबी रावता तेन्ना हो 'शक्यतायांच्या विचारांचो खेळ' याद करात आनी खेळून पळयात. तुमकां तातूंत योग्य ती जाप मेळटली आनी आनंदय बी मेळटलो.



# दुडवाक हांवें कामाक लायलो

*तुमकां जर खूब दुडू मेळोवपाचो आसत जाल्यार दुडवाक दुसऱ्या क्रमांकाचें म्हत्व दियात. पयल्या क्रमांकाचें म्हत्व तुमी जें काम करतात ताचे गुणवत्तेक दियात.*

*– अनामिक*

आर्थशास्त्र हो म्हज्या अभ्यासाचो विशय न्हीं. हांव तत्वज्ञान आनी मानसशास्त्राचो विद्यार्थी आशिल्लों आनी आतां मानव संसाधन विकास प्रशिक्षण हो म्हजो व्यवसाय.

म्हजे प्रशिक्षण कार्यावळींत हांव विद्यार्थ्यांक पांच 'एफां'चो चुकनासतना तोल सांबाळपाक सांगतां. फेत (विस्वास), फॅमिली (कुटुंब), फिटनेस (भलायकी), फ्रँडस् (इश्टपरिवार) आनी फायनान्स (दुडू).

म्हज्या वेवसायाचो एक वांटो आशिल्ल्या कारणान म्हाका एके व्यक्तीच्या अर्थीक वेव्हाराचेर बरयल्ली कांय पुस्तकां वाचचीं पडलीं. तातूंतल्या कांय सुचोवण्यांच्या आदारान म्हाका आपणालो दुडू कसो सांबाळचो हे विशीं समजून घेवपाक मेळ्ळें.

तुमकां खूब दुडू मेळोवपाक जाय जाल्यार तुमी तो मुजरत मेळयात अशें हांव म्हज्या विद्यार्थ्यांक सांगतां. एक दीस तुमचेकडेन तो दुडू धांवत येतलो आनी तेन्ना तो मेजपाक तुमकां वेळ आसचो ना.

हातूंतलें गुपीत कितें ?

तुमी जो वेवसाय वा काम करतात ताचे गुणवत्तेक म्हत्व दियात आनी

दुडवाक दुसऱ्या क्रमांकाचेर दवरात. कसलेंच कारण दिवन गुणवत्ता नदरेआड करूं नाकात.

हांवें आयज मेरेन साठ संस्था आनी आस्थापनांनी सुमार सयशें प्रशिक्षण कार्यावळी घेतल्यात. हांवें सदांच म्हज्या कार्यावळींचे गुणवत्तेक म्हत्व दिल्ले कारणान म्हाका इतले व्हड प्रमाणार काम मेळप शक्य जालें.

''म्हज्या कामाचो मोबदलो तुमचे संस्थेक अर्थीक नदरेन शक्य जाता तितलो थारायात. हांव तुमच्या आस्थापनातल्या मनशांक जें प्रशिक्षण दितलों तें तुमकां कितलें म्हत्वाचें दिसता तें लक्षांत घेयात आनी मागीर तो मोबदलो थारायात.'' अशें हांव तांकां बरोवनूच कळयतां.

दुसरी गजाल हांव तांकां सांगतां ती म्हणल्यार ''तुमच्या भुरग्यांच्या बऱ्या शिक्षणा खातीर जो दुडू तुमी मोडटात तो तुमी खर्च करतात अशें मानूं नाकात. तो तुमी कामाक लायिल्लो वा कळंतराक लायिल्लो दुडू'' असो विचार करात.

1984-1988 ह्या काळांत म्हाका पुताक इंजिनियर करपा खातीर 50,000 रुपया रीण घेवचें पडलें. आज ताची जी वर्सुकी येणावळ आसा ती पळयल्यार ही रक्कम 'कळंतराक लायिल्लो दुडू' हे नदरेन कितली योग्य आशिल्ली तें कळटा.

हांव तांकां तिसरी एक गजाल सांगतां ती म्हणल्यार ''तुमी तुमच्या दुडवाक स्वताखातीर कामाक लायात.''

2006 वर्सा केन्ना तरी हांवें 'रिच डॅड, पुअर डॅड' हें तेन्नाचें सगल्यांत चड खपाचें लोकांक मानवल्लें पुस्तक वाचलें. कियोसाकी हो त्या पुस्तकाचो मुखेल लेखक. तें पुस्तक म्हाका आवडलें. त्या पुस्तकांतल्या विचारान म्हजे दोळे उगते जाले.

1992 वर्सा हांव रिटायर (बसपगारी) जाय मेरेन हांव फकत कुटुंबाक समाधानान जगपाक पावसारको दुडू जोडून खर्च करतालों. हांवें केन्नाच खंय चड फायदो मेळोवपाखातीर दुडू वापरलो ना वा हांव म्हणन तसो तो वापरपाक म्हाका तांक नाशिल्लें. म्हजे जोडींतलो लागीं लागीं अर्दो दुडू हांवें काडिल्ल्या रिणाचे हप्ते भरपाक खर्च जातालो.

'रिच डॅड, पुअर डॅड' ह्या पुस्तकांत एक म्हत्वाचो विचार मांडला. तुमी म्हयन्याक जर 50,000 रुपया जोडटात आनी 55,000 रुपया मोडटात जाल्यार तुमी गरीब. हांव 25,000 रुपया जोडटां आनी 20,000 रुपया मोडटां जाल्यार हांव श्रीमंत मनीस. जे पद्धतीन हो विचार हांगा मांडला ती पद्धत म्हाका आवडली.

आमी सगळे दुडू जोडपाखातीर काम करतात. आमकां चड दुडू जाय आसल्यार आमी चड काम करतात. तुमकां जर श्रीमंत जावपाक जाय जाल्यार तुमी दुडवांक कामाक लायात. फकत वाचून सोडून दिवं नाकात. ही कल्पना प्रत्यक्षांत हाडात. ह्या पुस्तकाचो लेखक तेंच सांगूंक सोदता.

हांव जेन्ना हें पुस्तक वाचतालों तेन्ना विरार हांगा म्हजे धुवेगेर आशिल्लों. तिगेल्या घराकडेन एक नवी इमारत बांदपाचें काम चलतालें. कंत्राटदारान ती बांदपाक निकतीच सुरवात केल्ली. त्या वाठारांत 1000 रु. ते 1500 रु. चौरस फूट हो रेट चलतालो. इमारत बांददतात तो वाठार, बांदकामाची गुणवत्ता आनी दितात त्यो सुखसोयी हांचेर आदारून रेट चड उणो थारतालो. हो बिल्डर म्हजो बरो परिचयांतलो आशिल्लो. ताच्या बापायच्या वेळार साकून तो म्हाका वळखतालो.

हांव ताका मेळपाक गेलों तेन्ना तें पुस्तक म्हज्या हातांत आशिल्लें. हांवें ताका म्हणलें ''हांव एक मानसशास्त्राचो विद्यार्थी आशिल्लों आनी आतां मानव संसाधन विकास प्रशिक्षक आसां. चड फायद्याखातीर दुडू कसो वापरचो हातूंतलें म्हाका कसलेंच ज्ञान ना. दुडवांच्या वेव्हारांत हांव एकदम अडाणी मनीस. म्हज्या हातांतलें हें पुस्तक 'तुमच्या दुडवाक स्वताखातीर कामाक लायात' अशें सांगता. म्हज्या प्रशिक्षण कार्यावळींतल्यान मेळयल्ली थोडो दुडू म्हजेकडेन शिल्लक आसा. हो दुडू म्हाका स्वताखातीर कामाक लावपाक जाय. तुमी म्हाका ह्या कामात मदत केल्यार उपकार जातले.

ताणे म्हाका मदत केली. दुसऱ्या मजल्यार एका बेडरुमाचो एके कुशीचो फ्लॅट बुक करपाक सुचयलें. 550 चौरस फुटांचो हो फ्लॅट म्हाका, चौरस फुटाक 1300 रुपया मॉलान मेळ्ळो. हांवें ताका रोखडोच 25,000 रुपयांचो चेक दिलो आनी एक हिरो जाल्ले वरीं घरा आयलों. म्हज्या कांय

नात्यांतल्या मनशांनी आनी लागींच्या इश्टांनी म्हाका पिशांत काडलो. पुस्तकांक लागून हांव वेव्हारशून्य जालां अशें तांकां दिसलें.

तांकां हांवें ती गजाल विस्कावणी करून सांगली. ''तुमकां सांगतां, हो म्हजो एक कल्पना प्रत्यक्ष चलणुकेंत हाडून पळोवपाचो प्रयोग. म्हजो दुडू हांवें स्वताखातीर कामाक लायला. फुडारांतल्या म्हज्या विद्यार्थ्यांक हांव ह्या प्रयोगाविशीं सांगपाक शकतलों. आज मात हांव तुमकां हो प्रयोग कसो केलो तें सांगतां.

तीन वर्सां आदीं हांवें हो फ्लॅट ताब्यांत घेतलो. तेन्ना हांवें ह्या फ्लॅटाक धा लाख रुपया दिल्ले. आज त्या फ्लॅटाचें मॉल २६ लाख रुपया आसा. दुसऱ्या उतरांनी सांगतलो जाल्यार म्हज्या धा लाखांनी म्हाका १६ लाख रुपया मेळोवन दिले. हातूंतल्यान जी शिकवण मेळटा ती म्हणल्यार तुमच्या दुडवाक तुमी कामाक लायात.

म्हयन्यातल्यान एक फावट हांव म्हज्या कुटुंबाक घेवन थंय वतां आनी थोडे दीस रावतां. ध्यान करप, संगीत आयकप असल्या गजालींनी आमी वेळ घालयतात. तातूंतल्यान आमचे जिणेंत आनंद फुलता.



# केक - तोंडांत आनी हातांतूय बी !

*आमी 'कशें' ह्या उतराचेर चड लक्ष दिवपाची गरज ना. 'कितें' ह्या उतराचेर विस्वास दवरून प्रामाणीकपणान आनी नेमान काम करीत रावले जाल्यार 'कशें' तें आपशींच घडत वतलें.*

*– जॅक कॅनफिल्ड*

हांव 'ऱ्होंडा बायर्न' हाचें 'द सिक्रेट' हें पुस्तक वाचतालों. खूब वर्सां चडांत चड खपाच्या पुस्तकांचे वळेरेंत ताचें नांव पाविल्लें आसा. हालींच ताचो मराठी अणकारय आयला.

थोडे भितर पुस्तकाचो सार असो आसा. – तुमी 'मागात, विस्वास बाळगात आनी स्विकारात.' पयलीं तुमकां जें जाय तें मागात आनी तुमकां तें मेळटलेंच असो विस्वास बाळगात. ते उपरांत आकर्शणाचो वैश्विक नेम आसा तो तुमी मागिल्लें तुमकां मेळोवन दिवपाची वेवस्था करता. तुमकां हो नेम खबर आसूं वा नासूं, ताका लागून कांयच फरक पडना. हो नेम सदांच सगल्यांक लागू जाता.

हाचे फाटलें जें गुपीत आसा तोच 'आकर्शणाचो वैश्विक नेम.' हाचो अर्थ समान वा एकेच सारक्यो ज्यो गजाली आसतात त्यो एकामेकाक आकर्शीत करतात. तुमी जेन्ना विचार करूंक लागतात तेन्ना तुमी समान विचारांक आकर्शीत करतात. तुमी समजात खूब संपत आनी ग्रेस्तकाय वा पयसो आडको हाचे विशींच विचार करतात आनी तेन्ना दुसरो कसलोच विचार त्या विचाराचे आड येना आसत जाल्यार खात्रेन तुमी ते ग्रेस्तकायेक

आकर्शीत करीत रावतात. दुसरो आनी कोणूच तिका आडावन धरूंक शकचो ना.

ह्या विचारांनी म्हाका त्या आदल्या काळांत व्हेलो जेन्ना म्हाका जाय आशिल्ल्या प्रमाणात दुडवांची गरज आशिल्लीं. बऱ्या ऊंच दर्जाची जीण जगपाची म्हाका इत्सा आशिल्ली. भलायकेन बरो उरपय गरजेचें आशिल्लें. म्हज्या नात्यांतल्या आनी हेर इश्टां–सांगात्यां वांगडा जिणेंतलो आनंद वांटून घेवपाचीय इत्सा जाताली. बायलेक घेवन युरोपाची भोंवडी करपाचो विचार आशिल्लो. स्वित्झरलँड, पॅरीस, लंडन बी सांगातान पळोवपाक जाय आशिल्लीं. अमेरिकेक वचून नायगारा घसघसो आनी हेर थळां पळोवपाचीय इत्सा आशिल्ली. थोडे भितर सांगचें जाल्यार म्हाका खूब कितें कितें करपाचें आशिल्लें आनी म्हजे जिणेचो सांजवेळ सगल्या अर्थान आनंदान सारपाक जाय आशिल्लो.

तो वेळ मेरेन हावें 'द सिक्रेट' हें पुस्तक वाचुंनाशिल्लें. आकर्शणाचो हो वैश्विक नेमय म्हाका खबर नाशिल्लो. पूण म्हजी इत्सा बळिश्ट आशिल्ली. कितेंय तरी घडून म्हजी इत्सा पूर्ण जातली, हांवें मनात थारायल्लीं सगलीं थळां हांव पळोवन येतलों असो म्हाका घटमूट विस्वास आशिल्लो. हांवें डॉ. ए. पी. जे. अब्दुल कलाम हांची 'विंग्ज ऑफ फायर' ही आपजीण वाचिल्ली. तातूंत स्वामी शिवानंद हांणीं डॉ. कलाम हांकां जो उपदेश केल्लो तो म्हाका याद आसा – तुमची इत्सा जर बळिश्ट आनी प्रबळ आसत आनी तुमी तुमचे मोखीक चिकटून यत्न करीत रावले जाल्यार तुमकां जाय आसता तें मेळपाचे आड कोणूच येवंक शकना.

हो आकर्शणाचो वैश्विक नेम तुमचे खातीर कसो काम करता? तातूंत तुमची भूमिका कितें आसता?

तुमी जेन्ना मनात घट्ट इत्सा बाळगून विस्वास धरून फुडें सरतात तेन्ना तुमी तुमकां जाय आशिल्ले गजालीचें चित्र नदरे सामकार हाडीत रावतात. तुमी ती गजाल मेळयल्या हें चित्र तुमची भावना पळयत रावता. तुमकां जाय तें घडलां अशें तुमच्या मनाक दिसत आसता. प्रत्यक्षांत तें कशें घडटलें हाचे कडेन तुमी लक्ष दिवपाची गरज नासता.

माय्क डूली फावो तशा उतरांनी हो विचार अशे तरेन मांडटा – 'कशे तरेन' हो विचार विश्वाच्या आवाठांत सदांच आसता. ताका तुमी आनी तुमचें सपन वा मनात बाळगिल्ली मोख हांका जोडपी चड लागींचो, जलद, गतीवान, संतुळीत आनी निर्विवाद असो मार्ग खबर आसता.

हो आकर्शणाचो वैश्विक नेम म्हज्या जिवितांत कशे तरेन मूर्त रुपांत आयलो ते विशीं आतां हांव सांगतां.

कांय ज्येश्ठ नागरीक एक दीस एका जम्यांत आसतना आपणाक आयच्या काळांत भेश्टावपी समस्यांचेर भासाभास करताले. तांचे मदीं हांवूय एक आशिल्लों. त्या जम्यातले चडशे जाण स्वताच्या फ्लॅटांनी रावताले. हे राबित्याचे जागे तांणीं 25 ते 30 वर्सां आदी विकते घेतिल्ले. तांचें मॉल आयज चलपी बाजार मॉलान थारयलें जाल्यार पन्नास ते साठ पटीन वाडिल्लें आसा. पूण आयज दीसपडटे जिणेंत खर्चाचो मेळ घालप तांकां कठीण जाल्लें.

एकल्यान म्हणलें, 'आज म्हज्या फ्लॅटाचें मॉल 25 लाख रुपया आसा.' ताका दुसऱ्यान विचारलें, 'ताचें मॉल 25 लाख रुपया आसत वा पन्नास लाख, तुका कितें फरक पडटा? जो मेरेन तूं त्या जाग्यार रावता तो मेरेन तुका तो विकपाक मेळचो ना.' ताचेर दुसऱ्या एकल्यान म्हणलें, ' यू कॅनॉट ईट द केक ॲण्ड हॅव इट टू.'

त्या दिसा सांजच्या वेळार आयकल्लें तें उलोवणें म्हज्या मनात घोळत रावलें आनी म्हाका अस्वस्थ करीत रावलें. केक खावप आनी तेच वांगडा तो सांबाळून दवरप कोणाकूच शक्य जायना. ताणे म्हणलें तें सारकें आशिल्लें. आमी जो मेरेन त्या फ्लॅटांत रावतात तो मेरेन तो विकप आमकां शक्य ना.

सुमार तीन दीस मेरेन हो विचार म्हज्या मनात घोळत उरलो. चवथ्या दिसा सकाळीं जागो जालों तेन्ना म्हाका एक कल्पना सुचली. ते कल्पनेन म्हजी उरील्ली जीण पुरायपणी बदलपाक पावली.

हांव आनी म्हजो पूत एकेच इमारतींत रावतात. आमचे फ्लॅट शेजरा शेजराच आसात आनी दोनाकय जोडपी अशें तांचे मदीं एक दारय आसा.

तो निर्यात करपाच्या वेवसायांत आसा आनी हांव मानव संसाधन विकास ह्या विशयावयल्यो प्रशिक्षण कार्यावळी घेतां. आमचे दोनूय कुटुंबांचे बरे संबंद चलतात. ह्या समजिकायेच्या संबंदांक जबाबदार आसा तो खलील जिब्रान. ताणे म्हणलां, ''एकठांय रावुनय एकामेकांक फावो तसो अवकाश दिलो जाल्यार तुमी प्रतिष्ठेन जगूंक शकतात.'' आमी एकठांय आसुनय एकामेकामदीं योग्य तितलें अंतर राखून जगतात.

हांवें म्हज्या पुताक आफोवन हाडलो आनी बसपाक सांगलें. तो बसलो. तुजेकडेन सदां परस एका वेगळ्या विशयाचेर म्हाका उलोवपाक जाय म्हणलें. तो शांतपणान आयकत रावलो.

'पळय आं, तूं वेवसाय करता आनी हांव प्रशिक्षकाचें काम करतां. तुजेकडेन दुडू आसा आनी म्हजेकडेन विचार आसात. दुडू आनी विचार हे एकठांय आयले जाल्यार कितें घडूंक शकता तें तूं जाणा. तें तुका हांवें सांगपाची गरज ना.

'सकाळीं उठलों तेन्ना म्हजे तकलेंत एक विचार आयलो. केक आसता तो खावप आनी त्याच वेळार तो संबाळून दवरप अशो दोनूय गजाली एकदम करप शक्य ना अशें लोक म्हणटात. तें तांचें सारकें. तुमी ज्या घरांत रावतात तें विकून त्याच वेळार तातूंत रावूंक शकनात. जेन्ना तुमी घर विकतात तेन्नाच तुमकां ताचो ताबो दिवचो पडटा.

आतां आमी थोडो वेगळो विचार करया. हांव म्हजो हो जागो बाजारांत आज चलपी मॉलाच्या अर्द्या मॉलाक तुका विकतां. तो तूं विकतो घे. तूं ताचो मालक उरतलो आनी हांव तातूंत रावूंक शकतलों.

आमी बापूय आनी पूत अशी आमचे मदीं कागदपत्राचेर थारावणी मानून घेवया. आमी दोगांय जितीं आसतलीं तो मेरेन ह्या जाग्याचो ताबो तुका मेळचो ना. फ्लॅट तुज्याच नांवार उरतलो पूण तातूंत आमी रावतलीं आनी तो वेवस्थीतपणान सांबाळपाक जो वेळा वेळार खर्च येतलो तो आमी करतलीं. म्हजी ही कल्पना तुका कशी कितें मानवता ती सांग' अशें हांवें ताका सांगलें.

ताणें म्हणलें 'बरी आसा, तुमी ताचें मॉल कितलें तें सांगात.'

हांवें म्हणलें, 'तूंच सांग. तूं सांगता तो शब्द म्हाका मान्य.' हांवें ताका मुखार सांगलें, 'म्हाका दुडवांची गरज आसा अशें म्हूण हांव हो विकिना. म्हजे कडेन जाय तितलो दुडू उरचो, आनी त्या आदारान आमी आमच्यो इत्सा भागोवन फावो त्या ऊंच थराची जीण जगपाक शकतलीं. म्हाका म्हज्या बँक पासबुकांत बचत वाडोवपाची ना. म्हाका नीट तकली वयर काडून जगपाक जाय.'

ह्या विचाराचो ताचेर प्रभाव पडलो. आमी दोगांयनी अनौपचारीक तरेची समजिकायेची थारावणी (मेमोरांडम् ऑफ अंडरस्टँन्डिंग) करून ताचेर निशाण्यो केल्यो. ताणे जो मॉलाचो आंकडो सांगलो आनी म्हज्या मनातलो विक्रेचो आंकडो सारकोच आशिल्लो. तो तेन्नाच्या बाजारांतल्या मॉलाच्या अर्दा इतलोच आशिल्लो. अशें घडप ही देवाचीच इत्सा, अशें दोगांकय दिसलें.

आतां फ्लॅटाचो मालक तो आनी ताचो ताबो म्हजेकडेन आसा. ताचेय परस म्हत्वाची गजाल म्हणल्यार आतां म्हजेकडेन जाय तितलो दुडू आसा. हो वेव्हार म्हणल्यार म्हजे खातीर 'केक खावप आनी वांगडाच तो सांबाळून दवरप' अशे तरेची गजाली न्हीं?

आतां कुटुंबाखातीर फाटीं फुडें जायनासतना हांव दुडू मोडटां. आतां हांव म्हजे जिणेची सांजवेळ म्हाका जाय ते तरेन सारतां. 2010 वर्साच्या मे म्हयन्यात म्हजे घरकान्नीक घेवन केसरी ट्रॅव्हल्सांतल्यान युरोपाची भोंवडी केली. 'सेकंड इनिंग' नांवान ज्येश्ठ नागरिकांखातीर आशिल्ल्या दुरांतल्यान स्वित्झर्लंड, पॅरीस आनी लंडन पळोवन आयलीं. जुलय 2011 वर्सा सेकंड इनिंग पंगडा खातीर नव्यानच सुरू केल्ले पयले अमेरिकेचे भोंवडेंत वांटो घेवन आमी नायगारा घसघसो आनी न्यूयॉर्क, वॉशिंग्टन आदी शारां पळयलीं. उपरांत लॉस एंजलीस, ला वेगास आनी सां फ्रान्सिस्को पळोवन आयलीं.

आमी मागलें, विस्वास बाळगिलो आनी आमकां जाय दिसतालें तें मेळ्ळें. हाचें गुपीत आकर्शणाच्या वैश्विक नेमांत लिपिल्लें आसा.



# दिवपाचो आनंद

*दिवचे पयलीं दिवपी व्यक्तीचें मन आनंदी आसता. दिता आसतना ते व्यक्तीच्या मनात शांती उत्पन्न जाता आनी दान दिले उपरांत ताचें मन एकदम ऊंच आध्यात्मीक पांवड्यार पावता.*

*– गौतम बुद्ध*

जेन्ना तुमी तुमचेकडेन आशिल्लें कितेंय तरी दुसऱ्याक दितात तेन्ना ते व्यक्तीकडेन तें वांटून घेतात. दिवपांतल्या जावं वांटून घेवपांतल्या आनंदा इतलो व्हड दुसरो खंयचोच आनंद आसना. आमी सगले मेळून हो दिवपाचो आनंद सगल्याक पातलावया.

तुमी भोंवतणेत जर दोळे उगते करून पळयलें जाल्यार सैमा भितर सगलें एकामेका मदीं वांटून घेतिल्लें आनी वांटून दिल्लें दिश्टी पडटा. सूर्य उजवाड दिता, काळोख ना करता आनी ऊब दिता. म्हासागर आपणालें उदक कुपांच्या रुपान दितात आनी आमची तान भागयतात. जमीन पावसाकडच्यान उदक घेता आनी त्या बदलाक आमकां सगल्यांक फुलां, फळां आनी अन्न दिता.

सैमांत सगलेकडेन अशे तरेचें दिवप आनी वांटून घेवप चालूच आसता. मनशांची सैमा भितरच निर्मणी जाल्या. आमच्या सैमीक सभाव धर्मान घालून दिल्ले प्रमाण मनशाकडेन जें कितें आसता तें दिवप आनी वांटून घेवप हेंच थारिल्लें आसा. खासा करून जांकां ताची गरज आसता तांकां दिवप ही सैमीक गजाल. ह्या मार्गार आडखळ हाडटा तो फकत

मनशाचो स्वार्थ. आमचे भोंवतणी जें आसा तें सगळें आमच्यो गरजो भागोवपाक पुरो इतलें खात्रेन आसा पूण मनशाच्या लोभाक शीम मेर ना.

एका मनशा विशीं हांवें आयकलां. हो मनीस नेमान अनेक समाजीक संस्थांक व्हडले व्हडले रकमेच्यो देणग्यो दीत आसता. ह्यो संस्था भलायकी इबाडिल्ल्या चड पिराय जाल्ल्या आनी गरीब तशेंच गरजेवंत लोकांक आदार जाय सारक्यो कार्यावळी राबयत आसतात. कोणे तरी ताच्या ह्या उदार मनान देणग्यो दिवपाचे करणे खातीर अजाप उगतायलें. तेन्ना तातूंत अजाप करपा सारकें कांय ना अशें ताणे म्हणलें. आपणाकडेन खूब दुडू आसा. त्याच खातीर आपूण व्हडल्यो व्हडल्यो रकमो देणग्यां रुपान दिवंक शकतां. तातूंतल्यान आपणाक आनंद घेवपाक मेळटा अशी ताणे जाप दिली. हातूंत अजापाची गजाल म्हणल्यार तो जितलें दिता ताचे कितलेशेच पटींनी ताचेकडेन चड दुडू येता.

एक फावट म्हजो एक इश्ट गरजेन म्हजेकडेन थोडी रक्कम मागपाक आयलो. ताका खरीच गरज आशिल्ली आनी रक्कमय बी चड नाशिल्ली. हांवें रोखडेच ताका पैशे दिले. अजापाची गजाल म्हणल्यार म्हाका दुसऱ्याच दिसा एके कंपनीतल्यान प्रशिक्षणाखातीर आपोवणें आयलें आनी म्हाका तातूंतल्यान जी रक्कम मेळ्ळी ती हांवें दिल्ले रकमेचे दुपेटीन आशिल्ली. हे घडणुकेक कोणूय योगायोग मानतलो पूण म्हाका खूब फावटी असो अणभव आयला. अशें आशिल्ल्यान हांव ताका योगायोग मानिना.

म्हजो एक काका आसा तो 85 वर्सांचो जावपाचो जाला. तो स्वामी विवेकानंदाचो भक्त. तो आमकां ल्हानपणांत सदांच सांगतालो, आपणे जर गरजेवंताक धा रुपया दिले जाल्यार आपणाले गरजेक खंयच्यान तरी ताचे धा पटीन रक्कम आपशींच उबी जाता. तातूंत एकूच मुखेल अट आसता ती म्हणल्यार आपणे दिता आसतना आपणाक तो दुडू परत मेळटलो अशी अपेक्षा बाळगूंक फावना. 'मदत करप हें जगांतलें दुसऱ्या क्रमांकाचें सगल्यांत सुंदर अशें क्रियापद आनी 'प्रेम करप' हें पयल्या क्रमांकार येता.' ही गजाल खरीच.

सुर्याक लागून कमळ फुलता. चंद्राच्या किरणांचो स्पर्श जायनाफुडें

लिलीचें फूल फुलूंक लागता. कुपां आमी मागनासतनाय उदक दितात. राजा भर्तृहरीन आपणाल्या नीतीशतकांत अशें म्हणलां, '' म्हान आत्मे आसतात ते दुसऱ्यांचें बरें जावंचें म्हूण आपूण जावन फुडें सरून वावरत रावतात.''

हीं वाक्यां जेन्ना हांवें वाचलीं तेन्ना म्हाका हांव एका वेगळ्याच जगांत आशिल्ले वरी दिसपाक लागलें. हांवें स्वताकच म्हणलें, आतां म्हाका जी कल्पना सुचल्या ते प्रमाण हांवें कृती करपाक जाय. कोणाकय मदतीची गरज आसा अशी जर तुमची खात्री जाली वा कसलोय विधायक उपक्रम चालू उरपाक पयसो जाय अशें दिसलें जाल्यार दुसरो कोणूय मदत करतलो म्हूण वाट पळयत रावंनाकात. तुमी स्वता फुडाकार घेयात. मागीर पळोवंचें अशें म्हणूनय फुडें धुकलून ओगी रावंनाकात, आजच मदत करात वा गरज आसा जाल्यार आतांच करात. ना जाल्यार तुमचे उमेद उर्बेक सुकती येतली. तुमच्या एकट्याच्यान तें काम जावंचें ना अशें दिसलें जाल्यार हेर कांय जणांची मदत घेवपाक फाटींफुडें जावं नाकात. अशे खूब जाण आसतात जांकां गरजेवंतांक मदत करची अशी इत्सा आसता आनी त्या कामात तांकां आनंद मेळटा. तांकां तुमच्या मदतकार्या भितर वांटेकार करून घेयात आनी उपरांत त्या कामाचें श्रेय तांचे गांवडा वांटून घेवपाक आनंदान तयार रावात. ह्या तुमच्या कार्यांत वांटेकार जावन तुमचे सांगातान रावपाक तांकां खात्रेन आवडटलें.

हांव हें स्वताचेंच आयकत राविल्लो आसतना म्हाका एक प्रसंग याद जालो. म्हज्या एका लागींच्या नात्यांतल्या मनशा संबंदान घडिल्लो असो तो प्रसंग. ताचें कुटुंब एके बेकायदेशीर रितीन बांदिल्ले चाळींत एक रूम आनी कीचन अशा ल्हानशा जाग्यांत रावतालें. तो भाड्यान राविल्लो आसलो तरी ताका नेमान भरिल्ल्या भाड्याची पावती मेळनाशिल्ली. कसलींच कायदेशीर कागदपत्रां नाशिल्ल्यान तांकां केन्नाय नोटीस दिनासतना घरांतल्यान भायर घालप शक्य आशिल्लें. ताची जोडय खूब उणी आशिल्ली. असो तसो म्हयन्याचो खर्च भागयतालो.

एक दीस हांव एके कंपनीच्या अधिकाऱ्यांखातीर एक प्रशिक्षण कार्यावळ घेतालों. तेन्ना मुंबयंत आनी तिच्या उपनगरांनी राबित्याच्या

जाग्यांच्यो किमती कितल्या वेगान वाडत आसात त्या संबंदान चर्चा चलताली. एका अधिकाऱ्यान आपणालो एक अणभव थंय सांगलो. तो एका 7,000 रुपया भाड्याच्या जाग्यार रावतालो. मालकाक ताणे तो जागो विकता जाल्यार विचारलें. मालकान हय म्हणलें आनी ताचो दर 800 रुपया चौखण फूट सांगलो. हो मनीस 600 रुपया दरान मागतालो. त्या खातीर उलोवणी थंयच अडलीं. स म्हयन्यांनी त्या जाग्याचें मोल 1,200 रुपया चौखण फूट इतलें वाडलें.

म्हाका परतून घरा येता आसतना त्या नात्यांतल्या मनशाची याद जाली आनी हुसको जावंक लागलो. हाचे फुडें ताका जागो विकतो घेवप जमचेंच ना आनी त्या संबंदान ताणे रोखड्या रोखडीं पावलां उखललीं ना जाल्यार फाल्यां ताका कठीण जातलें अशें दिसलें. म्हाका ताची परिस्थिती कळटाली. ताका रीण मेळपय शक्य नाशिल्लें. तुर्ताक ताका सगले वटेंतल्यान जितली मेळत तितलेय मजतीची गरज आशिल्ली.

घरा पावले उपरांत हांव म्हजे बायलेकडेन उलयलों. तिणे रोखडीच एक गजाल सुचयली. म्हज्या एका इश्टान – म्हणल्यार तांचें पुराय कुटुंब आमकां खूब लागींचीं जाल्लीं. ताणे गुंतवणूक करपाखातीर 400 चौखण फुटांचो एक जागो 15-20 वर्सां आदीं घेतिल्लो. तो जागो ताका विकपाचो आसा जाल्यार विचार म्हूण तिणे म्हाका सांगलें.

त्या म्हज्या सोयऱ्याच्या बऱ्या नशिबान तो जागो आपूण विकपाचो आसां म्हूण आमच्या त्या इश्टान हांवें फोन केलो तेन्ना म्हाका सांगलें. म्हज्या खंयच्या गरजू सोयऱ्याक जर तो घेवपाचो आसत जाल्यार व्हडा खोशयेन तो ताका विकपाक तयार आसा आनी ताका आपूण पयली संद दितलों अशें ताणे म्हणलें. हांवें ताका जाग्याचें मोल विचारलें. ताणे सांगलें, आपणालो शेजारी तो जागो तीन लाखांक मागता पूण आपणे ताका साडेतीन लाख सांगल्यात.

हांवें म्हज्या सोयऱ्याक विचारचे आदींच तेन्नाच फोनाचेर इश्टाक म्हाका तो जागो जाय म्हूण रोखडेंच सांगलें. आतां म्हाका हाचे वतीन पयसो पुंजावपाक थोडो वेळ जाय आशिल्लो. त्या इश्टाक म्हाका गरजेन तो जागो

जाय म्हूण खात्री जाली आनी दुसरेच दिसा चावी घेवन वच म्हणलें.

दुसरे दिसा हांव त्या विशया संबंदान म्हज्या कांय लागींच्या सोयऱ्यांकडेन उलयलों, म्हज्या पुताकडेन आनी म्हज्या भावाकडेनय उलयलों. सगल्यांनी मदत केली आनी दोन दिसांनी सगल्यांनी मेळून एक लाख रुपया पुंजायले. ही रक्कम त्या इश्टाच्या हातांत दिना दुडें ताणे जाग्याची चावी आमच्या हातांत दिली. मागीर वर्सा भरान उरिल्ली रक्कम पावयली आनी तो जागो सोयऱ्याच्या नावार करून दिलो.

ताचो योग्य वेळ आयिल्लो आनी तो जागो ताचो जालो. आमी फकत कारण थारले. आतां तो त्या जाग्यार बायल आनी दोन सान भुरग्यांक घेवन आनंदान रावता. आज त्या जाग्याचें मोल बाजार दरान बारा लाख रुपया जालां.

अशे तरेच्या अनेक व्यक्तींक आमचे मदतीची गरज आसता. जांकां मदत करपाची तांक आसा आनी आनंद वांटून घेवपाची इत्सा आसा तांणी एकठांय येवचें आनी अशे तरेच्या कोणायचे खरे गरजेक धांवून वचचें. तांचे जिणेंत हाका लागून सकारात्मक बदल घडून येतलो आनी तुमी घेतिल्लो फुडाकार ताचें कारण थारतलो. तुमकां हातूंतल्यान दिवपाचो आनी वांटून घेवपाचो आनंद मेळटलो.

अशी इत्सा आनी उमेद आसप ही एक बळिश्ट शक्त. कल्पानांचें दिवप घेवप आनी सर्जक सहकार हांच्या बळार कांय मोजकेच लोक एकठांय येवन काम करूंक शकतात. असल्या परोपकाराच्या कामाखातीर शीम मेर ना.

हांगा म्हाका एक सादूरतायेची शिटकावणी दिवपाक जाय. मदत करपाच्या उत्साहाचे भरीक पडून ते व्यक्तीचो आत्मसन्मान दुखवचो ना हाचें भान राखप गरजेचें ही गजाल प्रत्येकान लक्षांत दवरपाक जाय. कांय लोकांक मनातल्यान मदत करपाची इत्सा आसता आनी तांचें मनय उदार आनी विशाल आसता. पूण आपणे जांकां मदत केल्या तांणी आपूण सांगता तशेंच वागपाक जाय अशेंय तांकां दिसता. ताका लागून गरजेवंत व्यक्तीचो आत्मसन्मान दुखवता. ज्या आमच्या सोयऱ्याक आमी हो फ्लॅट घेवपाक

मदत केली ताणे आपणाक जमता तशे तरेन थोडे थोडे दुडू दिवन रीण फेडचें. घडये ताका सगल्यांचो सगलो दुडू परत दिवपाक खूब काळ लागतलो. पूण जो मेरेन ताचो आत्मसन्मान सुरक्षीत उरतलो तो मेरेन स्वताच्या घरांत रावपाचें ताचें सूख ना जावंक शकचें ना. तो आनंद ताका मुजरत भोगूंक दियात.

मदत करपाची भावना मनात बाळगातूच. दुडू दिवन ताचेर उपकार केल्ल्याचें आनी आपूण उपकार करपी आशिल्ल्याचें मात ताका भासोवं नाकात.



*आमकां जगपा खातीर वेळ खूब आसा अशें आमकां दिसता. पूण निमणो खीण खंयचो तें आमकां खबर आसना. देखून क्षमाशील वृत्ती बाळगात, हेर मनशांची काळजी घेयात, हेरां वांगडा सुखदुख्ख वांटून घेयात आनी जिणेंतलो दर एक खीण आनंद–खोशयेन मनयात.*

*– अनामिक*

*जिणेची गती कमी करात आनी जिणेतलो आनंद घेवन जगात. तुमी जेन्ना जीण सारतना धांवत आसतात तेन्ना फकत आशीकुशीची सैम सोबीतकाय पळोवपाक विसरतात अशें न्हीं तर तुमी खंय वतात, कित्याक धांवतात हाचें भानय उरना.*

*– अनामीक*

# चड काळ वाट पळयत रावंनाकात !

*हांव ल्हान आसतना म्हज्या एकाय इश्टाकडेन घड्याळ नाशिल्लें पूण दर एकल्याक वेळ आशिल्लो. आतां त्या सगल्यांकडेन बऱ्यो बऱ्यो मोलादीक घड्याळी आसात पूण कोणाकडेनच वेळ ना.*

*– अनामीक*

कांय दिसां आदीं हांव एका नामनेच्या कंपनीच्या मानव संसाधन खात्याच्या मुखेल्याक मेळपाक गेल्लों. तो सुमार स म्हयन्यांनी सेवा सोपून बसपगारी (निवृत्त) जावपाचो आशिल्लो.

ताणे म्हाका म्हणलें, ताच्या कांय इश्टा–सांगात्यांनी सेवा सोपपाचे दीस लागीं पावले तरी त्या उपरांत कितें करपाचें ते विशीं कांयच विचार केल्लो ना. ताणीं निवृत्त जाले उपरांतल्या दिसांनी कितें करप हाची कसलीच येवजण आंखूंक ना.

अशेय कांय लोक आसतात जांकां आपणाल्या सेवेचो काळ निवृत्ती उपरांत वाडोवन घेवपाचो आसता. तांकां आपणाल्या बँक खात्यांतली बचत चड वाडिल्ली पळोवपाची आसता. पूण ते आपणाले जिणेचो पासबूक पळोवन जीण जगपाक आनी एंजॉय करपाखातीर कमी जायत वचपी कितलीं वर्सां बाकी उरल्यांत तें पळयनात. जियां पॉल सार्तृ ह्या नामनेच्या विचारवंतान म्हणलां ''सगळें सारकें येवजण आंखून दवरलां, फकत जीण कशी जगप तें सोडून.''

आनीक एक वेवस्थापकांचो गूट आसता. तो आपूण बसपगारी जावचे

पयलीं बढती मेळपाखातीर यत्न करीत रावता. तातूंत चूक कांयच ना. पूण ते आपणालें सत्ता स्थान एंजॉय करिनात आनी ताका योग्य न्यायूय दिनात. आपूण चड आनी चड मुखार कशे पावतले त्या संबंदान तरेक तरांनी यत्न करपाकच ते आपणालो सगळो वेळ व्हगडायतात. पूण जायते फावटी तांचें आपणाल्या कामाकडेन दुर्लक्ष जाता आनी वयल्या अधिकाऱ्यांक तांचे अपेक्षेप्रमाण परिणाम साध्य करून दिवपाक ते फाटीं पडिल्ल्यान तांकां सक्तीन वचचें पडटा. नोकरेंतल्यान निवृत्त जावन घरा वचपाच्या समयार अयशस्वी आशिल्ल्याचो शिक्को घेवन वचपाचो लजेक घालपी प्रसंग आंगार येता.

अशेय बी कांय लोक आसतात जे निवृत्तीक येवकार दितात आनी ती एक आपणाली काळजांत बाळगिल्लीं सपनां पूर्ण करपाची संद अशें मानतात. तांकां आपणालो वेळ कुटुंबाक दिवपाचो आसता आनी आपणाल्या नातरां वांगडा चड वेळ सारपाचो आसता. तांकां देश विदेश पळोवपाचे आसतात आनी कांय वेळ समाज सेवेक दिवपाचो आसता. पूण असल्या वेळार कांय जणांक सेवेंत दोन वर्सां वाडोवन मेळटात आनी सारकेंच कितें करचें तें तांकां सुचना.

हांवें वयर सांगल्यात तशे तरेच्यो गजाली सरसकट पळोवपाक मेळटात. पूण आमचेकडेन त्या खातीर तयार अशो जापो आसनात. फाटीं पडिल्ले जिणेचेर नीट नदर मारून आपूण कितें करपाक शकतात तें पळोवचें पडटा.

आज मनीस सरासरी 75 वर्सां जगता अशें मानून चलया. मागीर आमी आमचे जिणेच्या पासबुकांत शिल्लक या कॉलमात आपणाली कितली जीण जगपाची उरल्या ती सोपेपणी पळोवंक शकतात. थंयच्यान फुडाराचो अदमास घेवं येता. आनी आजून आपणाक कितलें काम करपाचें आसा ताचोय अदमास घेवप शक्य आसा. आमी तेन्ना मनात बाळगिल्ल्या सपनांचेर लक्ष केंद्रीत करपाक शकतले.

तुमी पिरायेचीं 40, 50 वा साठी हुपिल्ली आसत जाल्यार हे येवजणेचेर आतांच काम सुरू करात. चड काळ वाट पळयत रावूं नाकात. जेन्ना

कसलीच कृती करिनासतना तुमी आयुश्याच्या निमण्या दिसांक लागीं पावतले तेन्ना तुमच्या हातांत फकत पश्चातापाबगर दुसरें कांयच उरचें ना. त्या खातीर तुमी आतांच कामाक लागप गरजेचें.

प्रत्येकाचे जिणेंत असो एक वेळ येता जेन्ना लौकीक नदरेन तुमचेकडेन सगळें जाय तें आसता, पूण तरी लेगीत भितरले भितर एक रितेपण जाणवता. तुमकां आपणाल्या हातांतल्यान कितेंय तरी व्हडलें कार्य घडचें अशें दिसता पूण त्या खातीर जाय आशिल्ली उर्बा आनी उर्जा तुमचेकडेन आसना. तें करपाक सुरवात केली तरी तुमी तें एंजॉय करूंक शकनात. कितेंय तरी उणें आसा आनी तें अमकेंच अशें कितें तेंच तुमकां सांगपाक येना. अशा वेळार कितें करप तेंय बी सुचना.

पयले सुवातेर अशा वेळार सैमाचो आदार घेयात. सद्दां सकाळीं उठून फिरपाक वचात, न्हंये कांठार, दर्या देगेर वा खंयीं बागेंत गेल्यारय जाता. ताज्या निवळ वाऱ्यांत श्वास घेयात. सकाळच्या थंड वाऱ्याचो झोंत मुखामळार येवपाक दियात. खलील जिब्रान म्हणटा ''जमनीक तुमच्या तळव्यांच्या स्पर्शान आनंद जाता, आनी वारो तुमच्या केसां वांगडा खेळपाक आशेल्लो आसता.'' सैमाचो सांगात तुमचे भितर सकारात्मक बदल घडोवन हाडटा. भितरल्यान रोखडीच एकेतरेची शांती तुमी अणभवूंक लागतात.

दुसरी गजाल म्हणल्यार थोडो वेळ चिंतून देवान आपणाक कसलीं वरदानां दिल्यांत ताचो सोद घेयात. तुमचें शिक्षण, वेवसायांतलें तुमचें स्थान, तुमची संपत, तुमची शरीराची भलायकी, तुमचें घर, तुमचो जिणेचो सांगाती, तुमची भुरगीं आदी सगळीं वरदानां मेजून पळयात. त्या खातीर देवाचे मनांतल्यान उपकार मानात. अशे तरेचे उपकाराचे भावनेन तुमकां भितरल्यान एक सुखाची ऊब अणभवाक येतली.

आमच्या हातांतल्यान कितेंय तरी बरें कार्य घडचें अशी एक आस आमच्या काळजांत आसता. त्या खातीर स्वताकच आमी प्रस्न विचारतात ''म्हज्या भोंवतणेतल्या लोकांखातीर, समाजाखातीर म्हजें योगदान कितें? ह्या देशाखातीर, पर्यायान मानवजातीखातीर हांवें कितें केलां?''

अशे तरेचे.

ह्या प्रस्नांच्यो समाधानकारक जापो जर तुमकां मेळ्ळ्यो जाल्यार हेर लोकांच्या बऱ्याखातीर आपणे कितेंय तरी करपाक जाय हे विशीं तुमच्या मनात एक उर्बा निर्माण जाता. मागीर त्या आदारान तुमी मायेमोगान आनी पोटतिडकेन कितेंय तरी करूंक लागतात आनी तुमची जीण तेन्ना फुलूंक लागता आनी आपूण अर्थपुराय अशी जीण जगतात अशें दिसूंक लागता.

जॉन केनेडी हाणीं आपणाल्या देशांतले जनतेक सांगिल्लें ''देशान तुमकां कितें दिलें तें विचारूं नाकात, पूण तुमी देशाक कितें दिवपाक शकतात तें स्वताक विचारात.'' तेन्ना तांकां होच वयलो विचार व्यक्त करपाचो आशिल्लो अशें म्हाका दिसता.

हालींच हांवें एक हिन्दी कविता वाचली. कवी कोण हांव नकळों. त्या कवीची माफी मागून हांव तुमकां ते कवितेचो मतितार्थ सांगतां.

''आमी सगळे, सरसकट, वृत्तीन आनंदी आसतात,
पूण आमकां मेकळेपणान खो, खो करून हांसूंक येना,
आमच्या मोबायलांत सगळीं नांवां आसतात,
पूण इश्टागती खातीर आमकां वेळ ना,
आमकां जायते दां थकल्यात आनी न्हिदचें अशें दिसता,
पूण विसव मेळटलो इतलो गाड न्हिदपाक आमकां वेळ ना.
आमच्या काळजांत अनेक दुख्खां पुंजवल्यांत,
पूण आमकां मुक्त मेकळें रडपाक वेळ ना,
आमी सगळे दुडू जोडपाक धांवत आसतात,
पूण भुरगेपणातल्या सपनांखातीर आमकां वेळ ना.''

हें मतींत धरून आपणाल्या भुरगेपणांतलीं सपना सत्य रुपांत हाडपाखातीर वेळ मेळोवपाक शिकात.

चिंतपाक, हांसपाक, इश्टागत करपाक, न्हिदपाक, विसव घेवपाक आनी सगल्यांत म्हत्वाचें म्हणल्यार दुसऱ्यांक मदत करपाक वेळ दियात. चड उशीर जावंचे आदीं हें काम करात. चड काळ वाट पळोवं नाकात.



मायेमोगाच्या वाचपी इश्टांनो,

आपणा भितरल्या गुणांचो विकास करून
स्वताक समृद्ध करपाच्या
ह्या सोंपना तसल्या प्रवासांत
तुमी वाचक जावन
म्हाका सांगात दिलो.
त्या खातीर हांव तुमचो उपकारी.

ह्या पुस्तक वाचपाच्या आनंदांत
हेर व्यक्तींक वांटेकार करात
आनी आनंद वांटपाचो
आनंद अणभवात.
जिणेंत आनंद फुलयात .....!

***– एस. एच. नायक***

# एस. एच. नायक

- ☐ जल्म – १ जुलय १९३४, होसाड, होन्नावर (कर्नाटक)
- ☐ शिक्षण– एम. ए. तत्वज्ञान, एम ए. मानसशास्त्र (मुंबय विद्यापीठ)
  - – एलएल. बी. (मुंबय विद्यापीठ)
  - – पर्सोनेल सायकॉलॉजी – पदव्युत्तर अभ्यासक्रम (टाटा इन्स्टिटट्यूट ऑफ सोशल सायन्सेस)
  - – मानव संसाधन विशयांत पदयुत्तर पदवी (मुंबय विद्यापीठ) पयल्या वर्गांत सगळ्यांत पयलो येवपाचो मान.
- ☐ मानव संसाधन विशयांत अध्यापन
- ☐ अनेक संस्था आनी आस्थापनांतल्या अधिकाऱ्यांक आनी कर्मचाऱ्यांक प्रशिक्षण शिबिरां.

  एच. आर. प्रशिक्षक म्हूण लांब काळ कार्य.
- ☐ प्रकाशीत साहित्य – कोंकणीत ३ अंकी तीन नाटकां आनी तांचे रंगमंचार जैतिवंत प्रयोग जाल्यात तीं नाटकां अशीं आसात

  १) तीन तेरा णव अठरा २) लोकांक सांगचें ब्रह्मज्ञान

  ३) एक वालीक दोन फुलां

  मराठींत : १) शोध जीवनाचा आनी (२) जीवनावर प्रेम माझे हे कवितां झेले

  कानडींत : बाळलोंदिष्टु कलियोणा – कवितां झेलो

  इंग्लीशींत : ब्रिंग जॉय टू युवर लायफ

फोन : 0251 - 2448988 मो. फोन : 9224395451
E-mail : shnayak18@gmail.com

नायक हांचें हें प्रेरणा दिवपी पुस्तक आमकां एक चक्क उजवाडाची वाट दाखयता. ती वाट अशी जंय आमी स्वता मानसीक आनी भावनीक बंधनातल्यान मुक्त जावंक शकतात. ज्या बंधनांनी आमी स्वताकच बंदखणेत घालून घेतल्यात तातूंतल्यान मुक्त जावन आमी हेर समाज बांधवांक मना काळजांतल्यान मायेमोगान, आनी समजिकायेन लागीं ओडूंक शकतात हो मंत्र ह्या पुस्तकांतल्यान वाचकाक मेळटा.

ह्या पुस्तकांत पकदस्त अशें वेव्हारज्ञान आसा आनी स्वता खर यत्नान जोडिल्ल्या अणभवांतल्यान मेळयल्लीं शाणेपणाचीं चकचकीत वज्रथिकां आसात. जांकां आपणाली जीण चड सोबीत करपा खातीर बदलपाचें आसा तांकां नायक हांचें हें पुस्तक एक मोलादीक अशी भेट म्हणूंयेत; जाल्यार हेर वाचप्यांखातीर हें पुस्तक वाचन रोमांचक आनी खोसदिण्या प्रवासावरी दिसतलें. म्हाका दिसता ह्या पुस्तकाचो कॉलेजींतल्या तरनाट्या विद्यार्थ्यांच्या अभ्यासक्रमात आसपाव करून घेवन तांच्या पालकांनी आनी शिक्षकांनी वाचचें. तातूंतल्यान ह्या पुस्तकांतले सुंदर विचार, कल्पना आनी नीतिमूल्यां विद्यार्थ्यांच्या मनाचेर बिंबोवन तांचेर योग्य संस्कार करप शक्य जातलें.

**श्री. एस. आर. काकोडकर**
निवृत्त आय. ए. एस. अधिकारी

# जिणेंत आनंद फुलयात!

संजना पब्लिकेशन्स
सांगें - गोंय